# हांव एक बुदवंत




बरोवपी

**शरद जोशी**

अणकारपी

**प्रभाकर नाडकर्णी**



# हांव एक बुदवंत



बरोवपी

शरद जोशी

अणकारपी

प्रभाकर नाडकर्णी






मित्र प्रकाशन

# हांव एक बुदवंत


**बरोवपी :** शरद जोशी

**अणकारपी :** प्रभाकर नाडकर्णी
ई-७, धवलगिरी पार्क हौ. सोसायटी,
कर्वे नगर, पुणे ४११ ०५२.





**उजवाडावपी :** मित्र प्रकाशन
किटोलें, बेतोडें, फोंडे
गोंय : ४०३४०९





**प्रकाशन क्रमांक :** १२

**पयली उजवाडावणी :** डिसेंबर २०००

**अक्षर रचना आनी छापपी :** रॅशनल प्रिन्टर्स
२१६, अक्षय चेंबर्स, नारायण पेठ,
न. चिं. केळकर मार्ग,
पुणे ४११ ०३०

**मुद्रित शोधन :** आनंद वर्टी

**मोल :** रुपया ८०/-




**प्रभाकर नाडकर्णी** हांचे हे आदींचे कविता झेले :

❋ **गजलप्रभा** ❋ **शिशिरांतली शेंवते फुलां** ❋ **वळेसर शेरशायरीचो**

# अर्पण

**बाब अना म्हांबरो**

हांका

आदरान आनी नमळायेन

# वळख - ह्या पुस्तकाची

उपहासिक साहित्याक हिंदीत व्यंगसाहित्य म्हणटात. समाजांतल्या व्यंगाचेर, धोंगापोंगाचेर, हांसत खेळत टीका करतात, तेंच व्यंग साहित्य. हिंदी व्यंग लेखकांमदीं अदीकतायेन यश आनी वाचप्यालो मोग मेळयिल्ल्यां पैकीं सर्गेस्त शरद जोशी हे एक नामनेचे साहित्यकार. व्यंग बरोवपांत कुच्छित्रीपणाक कडसरावन ताका सदांच वयल्या पावंड्यार दवरपांत तशेंच ताका हिंदी साहित्यांत एक दर्जो वा मान्यताय मेळोवन दिवपांत तांचो म्हत्वाचो वाटो आसा.

श्री. शरद जोशी हांची उत्तम व्यंग लिखाणान उपाट भरिल्ली तीन पुस्तकां - 'हम भ्रष्टनके भ्रश्ट हमारे', 'मुद्रिका रहस्य', आनी 'जादूकी सरकार' हांतूतल्या एकांदर णवद निबंदापयकी वेंचिल्ले फकत सवीस लेख कोंकणीत अणकार करून ह्या पुस्तकांत घेतल्यात. तांचे बरेच अशे लेख हे त्या त्या वर्तमान काळांतले वायटाचे वा अन्यावाचे घडणुकेक धरून आसात. शिवाय ते उत्तर भारतांतल्या बहुजन समाजाक संबंदीत अशे आसात. म्हज्या मत्तान घडये ते लेख कोंकणी वाचप्यांक संदर्भहीण जावंक शकतात. ताकालागून तसले लेख ह्या पुस्तकांत आस्पावन घेतले नात.

बहुजनाले सदांचे शीम नाशिल्ले कश्ट, आनी पिडा हाणी भरिल्ल्या जिणेचो बुनियादी आदार घेवन बरयिल्ले हे व्यंग लिखाण मनाक तोंपता, तशेंच खातखुतल्योय करता. हातूत आमच्या देशांतल्या शासन वेवस्तेंत भोवन भोवन घडपी भ्रष्टाचाराचेर आनी घुस्पागदळाचेर बडी मारल्या. सामाजिक आनी आर्थिक जिणेचे विसंगतीचेर ल्हवूच चाबकाचे फाडे मारल्यात. आनी तशेंच भौसाले जिणे संबंदित प्रस्नांचे सोडवणुकेखातीर केल्ल्या अपेशी यत्नांचेर कुटल्यो आनी थोमणे मारल्यात. आयच्या धांवत्या जगांत सतत घडपी घटिचारांतल्या खंयच्च्योय उणायो तांचे नदरेंतल्यान सुटल्यात अशें दिसना. तशेंच तरेन जायत्या अहितकाराचेर वा इबाडिल्ल्याचेर लिखाण करतना कांय गजाली धांपून दवरल्यात वा लिपयल्यात अशेंय घडले ना. तांचे चिमटे आनी थोमणे सरळ सरळ घाव घालिनात जाल्यार वाचप्यांल्या अंतर्मनाक कोरांतून वतात, आनी आळसायेन न्हिदिल्ल्यांक जागोवन तांका योग्यायोग्यतेची, न्याय अन्यावाची जाणविकाय करून दितात.

मूळ हिंदी पुस्तकाच्या प्रकाशकानी बरयिल्ल्या प्रस्तावनेंतलें कांय उतारे म्हज्या म्हणणेक पाळो दितात -

.... श्री. शरद जोशीले बरोवप 'सदाबहार' रावला. जिणेचे सादारण स्थितीचेर हलके फुलके तरेन बरयतना ते अचकीत - घडये अप्रत्यक्षपणान जायत - आमच्या भितल्ल्या मनकप्याचेर जबर परिणाम घडयतात. देखीक : जागेलो हांव मामा, शरमेल्लो, वा प्रभु मुरलीधराली कृपा हे लेख वाचले म्हणटकीर ध्यानांत येतले.

.... तांच्या लिखाणांत एक खाशेली गजाल दिसून येता. सोबीत अशें मनशाल्या सबावाचे चित्रण तांच्या जायल्या लेखांत स्पश्टतायेन नदरेक भरता. व्यंग आनी हास्याची फोडणीशी करतना ते सामाजिक जिणेक तिखट मीठ लावन टीका जोडटात. कारण थंयसर कुरुपता, विटंबणा, अतिशयोक्ती, मस्करी आनी तिरस्कार ह्यो गजाली वर्ज्य नात जाल्यार व्यंग आनी हास्य हे दोगांयचे व्याख्येत शास्त्रीय विंगडपणाचे आसुनूय लेखक आपणाल्या सहज, शांत सबावान ते अंतर उणे करतात. समाजांतल्या वायट चालचलणूक, रीतरिवाज वा विचारांचेर भर तिखटसाणेन समीक्षण करताना लेगीत तांतूत कडवटपणा, निंदानालस्ती वा सवे-गाळी पसून पुरायतरेन पैस रावतात.

.... तांचे भ्रश्टाचारावेले लेख - 'सरकारी जादू' आसूंदी वा 'रुजवात' अथवा 'व्हड उदरगत केली देशान' आसूंदी, अशे तरेचे व्यंग बरोवपातून जाणविकाय जाता ती म्हळ्यार दरेकजण परिस्थितीचो गुलाम आसा.

.... अशातरेच्या उपहासिक वा कुचाळकीच्या लिखाणान मनाक खातखुतल्यो जातात खरें पूण दुसरेवटेन आमका ते मुजरत विचार करूंक लायतात. सामान्य मनशांक सदा पिडा दिवपी प्रस्नांचेर उपरोधिक बरयलें म्हूण तांची गंभीरताय मातय उणे जायना. उलट तांची भयांकृत सामाजिक परिस्थितीची जाणविकाय सहजतायेन घडटा. कांय वेळा, लेखक कागदार बरयनासतना सामके भौसाल्या अंतर्मनासांगातीन उलयत आसा अशेंय दिसता.

खंयच्याय भाशेंत व्यंगांत बरोवप तशें कठीणूच आसता. हेर लेखकांपरस ह्या लेखकांचे नियाळप वेगळे आनी खासा तरेचे आसता. तांची नदर तीख आनी जगाचे भान दवरून आसता. खंयचीय गजाल बरी-वायट, व्हड ल्हान, सोबीत वा इबाडिल्ली, न्याय-अन्याव साणयेर झरोवन घेत आसता. कथा, कादंबरी वा कवितेच्या कल्पनाविश्वांत ते रमनात जाल्यार तांचे पांय घट्ट जमिनींत रोविल्ले आसतात. तांची भाशा धारदार आसता आनी ती इबाड वा अन्याव करतल्यांचेर आनी करून घेतल्यांचेर सारकेंच वार करता. बारीकसाणेन चर्चा करप, स्पश्ट उतरांत टिका करप, नश्ट्या चाली रितीचेर वा वागणुकेचेर कुच्छित्रिपणान धपके मारप, वांकड्यांतल्यान परीक्षण वा समीक्षण करप, हे व्यंगकाराले स्थायीभाव. संवसारांतलो कितलोय व्हड मनीस आसूंदी, वा सुदारिल्लो समाज आसूंदी जर तांच्यांत नाकाशिल्ली उणविकाय दिसून आयली जाल्यार ताचेर आडवाटेन, व्यंगातल्यान उकते करून, थोमणे वा शेरो मारून वर्मार बससारक्या, मनांक भावसारक्या उतरांनी ते लेखणेंतल्यान चारचवगांक कळपाचे सारकें बरयत आसतात. तांची एकूच मोख आसता आनी ती म्हळ्यार सुदारणा घडोवन हाडप. अशे तरेचे लिखाण म्हाका सर्गेस्त शरद जोशी हांगेल्या बरोवपांत दिसून आयले. ते कोंकणी वाचकामेरेन पावोवपाचो हो म्हजो ल्हानसो यत्न.

जांका जिणेत आपणाली आरती आयकून घेवपाची संवय जडल्या तांका ह्या पुस्तकांतले कांय व्यंग लिखाण आवडपाचें ना हे नित्शीत. जाल्यार आपणालो समाज, तांतूतली बरीवायट वेवस्ता आनी खासा स्वताले पडबिंब पळोवपाचे आसल्यार हे पुस्तक खंयच्याय हारशापरस

वेगळे ना. म्हाका विश्वास आसा हे अणकारित व्यंग लेखाचे पुस्तक सर्गेस्त जोशीले कीर्तीत भर घालतले.

निमाणे सांगपाचे म्हळ्यार, हाचेर वावर करतना बरेच कश्ट पडले, बरोच वेळ खर्चीक पडलो. पूण तांतूतली खोशी मेळ्ळी ती आसली खुबूच आगळी वेगळी. हे पुस्तक म्हजें नसून ते सर्गीय शरद जोशीलें जाणी मनरंजना सांगातान वयल्या पांवड्यावेलें व्यंग साहित्य निर्माण केले. आनी तेच कोंकणी वाचकांसामाकार दवरतना म्हाका खोस भोगता. नवीन पिळगेच्या कोंकणी लेखकांक खंयच्याय तरेचे मनाक तिडक मारपी, वा कासावीस करपी एकाद्रया विशयार, अन्यावार वा दुख्खार उपहासान कशें बरोवपाचें आसता ते हे पुस्तक वाचले उपरान्त ध्यानांत येतले. आनी तशेतरेची उमेद घेवन कोणीय जर कोकणीत व्यंग साहित्याची निर्मणी करत जाल्यार ह्या म्हज्या वावराचे सार्थक जालें म्हणपाचे.

*रीण निर्देश:* सर्गीय शरद जोशी हांगेले तीन पुस्तकांतलें वेंचीक व्यंग लेख हिंदीतल्यान कोंकणीत अणकार करुंक तांची धूव बाय नेहा शरद हिणे कांयूच मोबदलो घेनासतना मान्यताय दिल्ल्यान हे पुस्तक कोंकणी साहित्य रसिकांल्या हातांत दवरपाचे शक्य जालें. ते देखून तिचे उपकार पैली मानता.

भौ. मनोहरबाब पै धुंगट हाणी म्हज्या ह्या वावराविशी उमेद दाखयली आनी आपुलकायेन फुडाकार घेवन म्हज्या अणकारित हातबरपाचेर अपुर्बायेन संस्कार घडयले ते विशी तांचो सदाच ऋणी आसा.

छापणावळी पयलेचे 'प्रूफ रीडिंग, (मुद्रितशोधन) चो खुबूच कश्टाचो वावर हातांत घेवन म्हाका मजत केल्लेखातीर म्हजो इश्ट भौ. बाब आनंद वर्टीले मनस्पूर्वक आभार मानता.

रेशनल प्रिंटर्स, पुणे हाणी हे पुस्तक बरेतरेन अक्षर जुळोवणी करून, सोबीत रीतिन छापून दिले. देखून ताचो मालक भौ. बाब दत्तात्रय गानू आनी तांचो पूत बाब सुनील ह्या दोगांयचे म्हजेर भोव उपकार आसात.

प्रा. बाब भालचंद्र गांवकार हाणी म्हाका हे पुस्तक बरोवन काडपाक धीर दिलो आनी ते मित्र प्रकाशनावरवी प्रकाशित करपाची जापसालदारकी घेतली. ताचेसावन हे पुस्तक म्हजेकडसून घडले. ताकालागून हांव तांचो सदाच आभारी रावला.

तरेकवार संकश्टां वलांडून निमाणे हे पुस्तक बरें तरेन छापून उजवाडाक येवंक पावले ते देवादयेन. त्या करुणाकर परमेश्वराले उपकार अनंत.

ही साहित्य निर्मणी कोकणी वाचप्यांक आवडटली अशी आस्त बाळगितां.

बरें मागून,

दि. : १० डिसेंबर २००० **प्रभाकर नाडकर्णी**

[ मार्गशीर्ष पुनव, श्रीदत्त जयंती ]

# मांडावळ




# हांव एक बुदवंत

देशाच्या कठीण प्रश्नांच्या सोडवणुकेंत हातभार लावप हें बुदवंत लोकांलें कर्तव्यच. फुडारी सगळे आपणाल्या दरेका भाशणांतल्यान हेच सांगत आसतात. स्वता ते ह्या कर्तव्याक पाळो दिनात. पूण आमचे तकलेर मात ही जापसालदारकी घालून मेकळे जातात. प्रश्न होच - बुदवंत कोणाक म्हणचो? सगळयांची एकूच जाप मेळटली - बुदवंत हांवूच. हांगासर बशिल्ले सगळेजाण बुदवंत आसात. फुडारी आपणाक फुडारी म्हणून घेवंक शकतात जाल्यार आमी बुदवंत कित्याक जावंचे न्हय? फुडाऱ्यांक आपणाक 'फुडारी' म्हणून घेताना लज दिसना जाल्यार आमी आमकां बुदवंत म्हूण संबोधून घेवंक कसली भीड मुर्वत?

पूण ह्या देशांतले घोळ काय कमी नात. त्या मानान बुदवंत लोक खूबच उणे आसात. जांका आमी कठीण प्रस्न समजतात तांकां फुडारी प्रस्न म्हण मान्यताय दिनात. तरी पूण हांवे थारायले. फुडाऱ्याकूच सरळ विचारचें - देशांतले घोळ, ताचे कठीण प्रस्न खंयचे खंयचे?

एका नेत्याक हांवें विचारलें - 'तुमच्या मत्तान सगळ्यांत व्हडलो प्रस्न खंयचो?''

ताणें सांगले, ''सगळ्यांत व्हडलो प्रस्न एकूच. एक फावट जंयच्यान आमी निवडून येतात थंयसरच्यान परतून निवडून येवप काय ना.''

हांवें म्हळें, ''बुदवंत ह्या नात्यान हांव तुमका कशे तरेन मजत करूं?''

ताणें सांगलें, ''बुदवंत हें नातें कुशीक दवरात. तवनास-बदमाश ह्या नात्यान तुमी खात्रीन म्हाका मजत करुंक शकतले.''

हांवें म्हळें, ''गुंड-बदमाश जावंक म्हाका परथून जल्म घेवंचो पडटलो''.

ताणें म्हळें, ''कायच अडचण ना. प्रजातंत्राक ह्या देशांत मरण ना. वेंचणुको येत आसतात. केन्नाय येयात. बरें तर मेळुंया.''

म्हजें हुकमी पान ताणें कापले. या फुडाऱ्यांल्या म्हत्वाच्या प्रस्नांत हाव कायच मजत करूक शकना इतलें कळळे.

हांवें येवजिलें, धीर करून एकाद्रया ऑफिसराक विचारुन येवंया. ज्या अधिकाऱ्याक मेळ्ळों तो पुलीस खात्यांतलो म्हूण समजलें. तो आशिल्लो मात भरवसो दवरपासारको.

हांवें ताका विचारलें, ''पुलिसांले वर्दीत तुमी आमचे सारकेच बुदवंत बी नात मू?'' तो व्हडान हांसलो.

ताणें म्हळें, ''बुदवंत अशिल्लों जाल्यार म्हाका ही नोकरी कोण दितलो आशिल्लो, म्हाराजा? तुजे सारकें पांयतणां झरयत भोंवचें पडपाचें म्हाका.''

हांवे विचारले, ''तुमच्या मत्तान आयज ह्या देशांत खंयचे म्हत्वाचे, भेश्टावपी प्रस्न आसात हें कळिल्लें जाल्यार आमचे सारकेल्या बुदवंतांक तुमकां मदत करूंक मेळटली आसली.''

पुलिस अधिकाऱ्यालें म्हणणें आयकून घेतलें, ताच्या मत्तान हाली लॉ अँड ऑर्डर, म्हळ्यार कायदो हाताळणेची वेवस्ता कठीण जाल्या. चोरी, वाटमारी, बायलांचेर आगळीक आनीक अशेंच कितें कितें...''

हांवें म्हळें ''बायलांचेर बलात्कार तुमचे पुलीसवालेय करतात खंय?''

ताणें म्हळें, ''आरे पापया, तांकां टायम खंय मेळटा? गुन्यावांचे सोदासोदींतच तांचो सगळो वेळ सरता. मनशाकडेन उसरपत आसल्यारूच तो बायलांचेर आगळीक करतलो न्हय? गुन्यांव वाडतच आसात. हांव म्हणटां, दीसरात ड्यूटी करून लेगीत बायलांचेर बलात्कार करूंक वेळ काडटात ते पुलीसवाले खरेच बऱ्या नशिबाचे. हांगा एक खीण लेगीत फुरसत ना आनी तूं तर पुलिसांनी केल्ल्या आगळिकांविशी उलयता. अशे कित्याकितेंय आरोप करप?''

आमच्या देशांत गुन्यावगिरी खूब म्हळ्यार खुबूच वाडल्या हातूंत दुबाव ना. गुन्यांव करतल्यांकच कळनाशें जालां मुखार तांणी किते करप म्हणपाचें. विसकणीच करची जाल्यार-हत्या करची, बँक लुटची, अपहरण करचें काय दुकानांत घुसून रोखड उखलची. पुलिसवाल्यांकच वेळ मेळना जाल्यार गुन्हांवकारां कडेनूय सवड ना. आमी जिवे आसात हाचें एक कारण म्हळ्यार आमचो अजून कोणें जीव घेवंक ना. आमची अजून मेरेन हत्या जावंक ना हाचें मुखेल कारण, आमचो खून करतले हेर जनांक मारपांत घुस्पल्यात. आमचें बरें नशीब हेंच सांगता, आमी त्या 'हेर' जनांत सामील नात. ना जाल्यार हत्या जावंक कितलोसो वेळ लागता? आनी एक, जीव घेतल्याक कोणालें कसले लुकसान जाता हाचो खंय हुसको पडला?

हांवें पुलीस अधिकाऱ्याक विचारलें, ''तुमका कसली आवड? म्हळ्यार, काय पुलिसांक खून, मारामारी थांबोवपाक मानवता. काय जाणांक हत्यारां सोदून धर-पकड करप मानवता.''

ताणें सांगले,''खून कित्याक घडटात ताची आमच्या विभागाकडेन कांयच सोरगत ना. पयशांक लागून जे गुन्यांव घडटात ते वित्त-विभागान पळोवन घेवपाचे. पिशेपणाच्या कारणांक लागून जें कितें वायट घडटा, तुमी जाणात, तो मनोवैज्ञानीक शिक्षणाचो विशय. राजनीतीक लागून नाका जाल्लो उद्रेक वा धुडबूस वा घटिचार घडटात तातूंत आमी पडनात हेंय तुमकां खबर आसा. आमचें काम फकत खून जाले उपरांत हत्याऱ्याक सोदून काडप. आतां सांग,

हातूत बुदवंत कशे तरेन मदत करूंक पावतले?''

हांवें म्हळें, ''जाणें कोणें खून केलो तोच जर तुमकां मजत करूंक शकना तर हांव तरी ती कितें करूंक पावतलों?''

जाल्यारूय, बुदवंत ह्या नात्यान देशांतल्या स्पश्ट दिसपी घोळांचेर येवजणी करप म्हजें कर्तव्यच आसलें. देखून हांव चिंतूंक लागलों. ते विशिंचो अणभव म्हाका अजिबात ना हें तुमकाय खबर आसा. म्हजो खून जावंक ना आनी हावेय कोणाचो खून करूंक ना तेन्ना हत्यार्‍याक सोदून काडप हो प्रस्नच उप्रासना. जे स्वताकच नियाळून समजूक पावनात ते दुसर्‍यांक कशे म्हूण सोदतले?

दिशो आठ आसात. खुनी खंयचेय दिकेन कूस मारूंक शकता. ताका सोदून काडपाक दरेक दिकेन दोन पुलीस धावडायले जाल्यारूय एका हत्यार्‍या फाटल्यान सोळा पुलिसवाले लागतले. अशा धांवाधांवीत ते पुलीस आपापल्या घरांत बसून रावचे न्हय म्हूण तांचे फाटल्यान अनिकूय पुलीस लावचे पडटले ते विंगड. अशे तरेचे धांवपळींतल्यान जीव वाचोवपाखातीर पुलिसांनी गुळी घालून एकाद्र्या खुन्याक जिवो मारलो जाल्यार ताणें आत्महत्या केली म्हूण जगाक सांगून ते मेकळे जातात. आमच्या देशात नामनेच्या फुडार्‍याली हत्या जाता जाल्यार गरिबांली आत्महत्या जाता. तांकां मारून उडोवंक कोणाकूच उसरपत मेळना. तांका मारून उडयनात, तांकां लुचून काबार करपाचें आसता. एखाद्र्या गरिबाली हत्या जालीच जाल्यार एक कटकट उप्रासता. ती म्हळ्यार जाल्ली ती आत्महत्या न्हय म्हूण सिदूध करचें पडटा. गरिबांक मारतलो तरी कोण आनी कित्याक म्हूण? तातूंत फायदो तरी कसलो? बरो दुडवांकार आसले बगर ह्या देशांत हत्या जावपाची शक्यताय कमीच. खुन्याक पकडपाच्यो कितल्योश्यो तरा आसात. पुलीस वतात आनी पुराय चवकशी करचे आदींच आरोप करतात-

'' आरे चोरा, हो खून तुवेंच केल्लो?''

''कोणालो खून सायबा?''

''रामू घाड्यालो. तो पयरच मेलो.''

''ना सायबा. तो हाव न्हय.''

''आरे xxx, तुवेंच ताका जिवानशीं मारलो न्हंय?''

''रामू घाड्याक? शे शे, तें खरें न्हय सायबा, हांवें दामू घाड्यालो खून केल्लो''.

'अशे म्हणटा? आरे फटिंगा, आमी रामू घाड्याविशी चवकशी करतात. आनी तूं दामू घाड्याविशीं जाप दिता? एक मिनीट...मात्सो राव. आतां परथून सांग, तुवेंच तो रामू घाड्यालो खून केल्लो...''



‘‘हय.’’

‘‘सायबानूं हांव खुनाखुनी केन्नाच करना. असल्या भोवस्ताळ्यांनी पडपाची आमकां कायच गरज ना. केन्नाय कोणालो खून करचोच जाल्यार आमी सुपारी दिवन तो दुसऱ्याकडसून घडोवन हाडटात. स्वता हांव केन्नाच हत्या करिना. आमच्या समाजांत म्हाकाय ‘इज्जत’ आसा.’’

❊❊❊

‘‘आरे, मात्सो राव. डायरेक्ट विचारतां म्हणू माफ कर हां. आतां सांग, त्या रामू घाड्यालो खून तुंवेंच केल्लो न्हय? कित्याक काय म्हूण विचारतां.’’

‘‘ना सायबा. हांव रामू घाड्याक वळखयचना जाल्यार हांव ताचो खून कित्याक म्हूण करूं? ताचें नांव आतांच तुमचे कडसून आयकलां इतलेंच. वळख ना देख. आसल्यार हत्या बी करयेत. जागेली वळख लेगीत ना अशाली हत्या करपाची कसली गरज?’’

❊❊❊

‘‘आरे गिरेस्ता, त्या रामू घाड्यालो कोणें खून केलो तें आमकां सांग पळोवंया.’’

‘‘हय सायबा. हांवेंच तो खून केल्लो.’’

‘‘ आरे, आरे, मदें मदें तुमी उलयनाकात गा. हांव तांका विचारतां.’’

‘‘आयकता मरे, असो लागसार यो. तुका, आरे तुकाच विचारतां. रामू घाड्याक जिवो मारिल्लो तो तूंच न्हय?’’

‘‘ना सायबा. हांव ह्या राज्यांतलो न्हय. भायलो हांव. थयसर एक मर्डर करून हांव ह्या शारांत आयलां. हांगा अजून तरी हांवें कोण्णालें रगत व्हावोवंक ना.’’

‘‘बरे बरे, वच तूं.’’

❊❊❊

निमाणें सांगपाचें एकूच. एकएकट्याक धरून विचारपाचें म्हळ्यार भोव कळाव जावन वता. देखून पुलीस कोणा एकाद्र्याक धरता आनी धरून कादयेंत घालता. ताचेर डायरेक्ट आरोप दवरता, खऱ्यांनीच ताणें खून केला म्हूण. आता एकूच मार्ग उरता- तो म्हळ्यारं, आरोपीनच गवाय दिवन सिद्ध्ध करप आपणें खून करूंक ना म्हूण.

समजा स्कुलामुखार कोणा एकल्याली हत्या जाली जाल्यार शाळेमास्तराकच धरून ताका ठाण्यार व्हारचो-चवकशेखातीर. ताचेर परतो परतो आरोप करप, ‘‘मास्तर, हो खून तुवेंच केल्लो.’’

‘‘हो नाका जाल्लो आरोप कित्याक काय म्हणटां.’’ मास्तरांलें एकच सांगणे.

‘‘स्कुला मुखार खून जालों. म्हणटकच तुमी न्हय जाल्यार आनीक कोणें हत्या केली

तर?''



आनी न्हयकार दितल्यांकडसून कबुली वदोवन घेवप पुलिसांक कठीण नासता. पुलीस ठाण्यात भरपूर मार खाल्लो गुन्यांवकार अर्दमेल्लो जाल्लो आसता. तो चिंतता असोच हे म्हजो जीव घेत आसात. ताचेपरस हेर कोणालो खून केल्यार उपकारता आशिल्लें. तो पुलिसांक हात जोडून काकुळटेक येवन सांगता- ''रामू घाडी कोण म्हाकाय खबर ना. ताची हत्या कोणें, केन्ना आनी कित्याक केल्ली तेंय म्हाका खबर ना. जाल्यारुय ताची हत्या हांवेंच केल्या हातूंत इल्लोय दुबाव ना.'' एक फावट हत्या कबूल केली म्हणटकीर ते विशिंची बाकीची म्हायती पुलीस आपशीच दितात.



बुदवंत अशिल्ल्यान हांवें हालींच जाल्लें एके हत्येची फोडणिशी करून खोलायेन अभ्यास केलो. खुन्याल्या मनाची ओड, जागेली हत्या जाली ताची आर्थीक तांक आनीक ताचें पुर्विल्लें जियेवप, घराचो भूगोल बी असलेच तरेन कांय सोद करून हांवें त्या गुप्तचर विभागातल्या अधिकाऱ्या सामकार विवरण सोपें करून सांगले.

ताणेय बी थंडपणान आयकून घेतलें. काय वेळ तो ओग्गी रावलो आनी आपणालेच येवजणेंत गुल्ल जालो. अचकीत ताणें दोळे बारीक करून म्हाका उद्देशून म्हळें - ''म्हाका दिसता हो खून तुवेंच केला.''

''सायबा, हांव एक बुदवंत. हांवे फकत खुनाची विसकणी करून दाखयली इतलेंच.'' हांवे आटेविटे घेत सांगलें.

''आरे म्हज्या भावा, स्वता हत्या केलेबगर तूं इतल्या डिटेलांत कसो म्हूण सांगूंक पावलो?'' उपरान्त मातशें थांबून ताणें आपल्या कडक आवाजांत फर्मायलें,

''चल पुलीस थाण्यांत.''

ताचे उपरान्त कितें घडलें तें काय सांगपा सारकें नासले. तो फकत रडगाण्याचो विशय जालो. आतां म्हजें म्हणणें इतलेंच - देशाचे समस्येविशीं म्हज्यान जातालें तितलें हांवे केलें. हे फुडारी बुदवंत लोकांक उठसूठ कित्याक अपील करतात ताची जाणविकाय तुमकां नित्शीत जातली. तांकां भय आसता, चुकून खंयचेय अडचणींत तेच सापडत म्हणपाचे !!





# रुजवात

हांव जितो तरतरीत आशिल्लो. आनी आता ताचे सामकार उबो राविल्लो. नाणें म्हजें अस्तित्वच न्हयकारिल्ले. हांव हयात आसा आनी हो असो ताचे मुखार हजर आसा हे मानून घेवंक तो तयारच जायनाशिल्लो. ताचेबगर त्या कचेरीच्या खजिन्यांतल्यान म्हाका येणे आशिल्ले पयशे मेळपाची शक्यताच नाशिल्ली.

''हांवच तुमचे सामकार साक्षात उबो आसा,'' हांवे ताका खात्री दिली.

''तेविशी तुमच्या हयातीचो दाखलो जाय'' ताणे पुरावो मागलो.

''आरे, हांव स्वताच हांगा हाजीर आसा न्हय'' हांवे म्हळें.

''तें खरें न्ही. म्हजे सामकार जो कोण उबो आसा तो तूच आसा हे म्हाका कशें कळटलें? तू जितो आसा हाची खात्री कसली?''

''हांव जितो आसा ही फकाणा म्हणपाचे?''

''तेंय शक्य असा. म्हाका फकत पुरावो जाय.''

''हांव म्हजें घरकान्नीक घेवन येवूं?''

''हाडून कितें जातलें?''

''तुमी भारतीय संस्कृतीचेर विश्वास दवरतात?''

''विश्वास दवरता... जाल्याकय.... म्हजें कचेरितल्या वावरांत ताचें काय आडमेळें येना तो मेरेनच...''

''म्हज्या बायलेल्या कपाळावयल्या कुकूमाचेर जरा तरी आदर दाखयात. हांव जितो आशिल्ल्याची ती कुरू आसा. म्हजी घरकान्न अजून विधवा जाली ना. हाचेपरस आनी अदीक पुरावो कसलो जाय?''

''अजापाचे म्हणपाचे'', रोखडीच ताची जाप.

''तांतूत कसलें आयला अजाप बिजापाचे?''

''तशे न्ही; शिकून सवरून लेगीत तुमी अशेतरेची भाशा उलयतात ती गजाल!''

''भारतीय संस्कृतीप्रमाण एकाद्रचा बायलेली सौभाग्य अलंकाराची खूण म्हळ्यारच

तिचो घोव नावाचो एक दादलो जिवंत आशिल्ल्याविशी पुरावो आसता;'' न विचारिल्ल्या एका प्रस्नाक हावेंच जावन जाप दिली.

''तर तुमी तिचे घोव आसात तर........! '' ताणे उत्सुकतायेन विचारले.

''हय तर....' हांवे ताचे समाधान केलें.

''ताका पुरावो..... दाखलो जाय.....'', ताचे उलोवण्यांत एक खरसाण आसली.

''हांव मोपून घेवन सांगता. म्हजी एकूच आनी - एकमात घरकान्न आसा. हांव एक सभ्य गिरेस्त आसा.''

''आसच्याक फाव...''

''तशें न्हय.... खरें तेंच सांगता.''

''तुमच्या विभागाचे सब इन्स्पेक्टराकडसून तशी शिफारस घेवन येयात''.

''कितें ते?''

''हेच तुमी सज्जन आसात म्हूण.''

''तुमी आमचे वाड्यार वचून चवकशी केल्यार कळटले.''

''आरे व्वा, तुमी स्वताक व्हड फुडारी समजतात काय म्हणटा?''

''अजिबात ना.''

''वाड्याचो धेंक तुमी कोणाक दाखयतात?''

''हांवे कोणाकूय धेंक दाखयलो ना.''

''हांव हांगासर सरकारी काम करतलो, काय तुमचे वाड्यार वचून चवकशी करतलो?''

''हांव सज्जन आसा म्हूण ज्या अर्थी तुमी भरवसो दवरनात तेन्ना आमच्या वाड्यार वचून मुजरत चवकशी करप गरजेचे जाता. इतलेंच सांगले.''

''पुरावो म्हाका म्हजें टेबलार जाय. हांगा असो हातांत जाय.''

''कसल्याचो पुरावो...?''

''पुरावो?... तर तुमी सज्जन आसात हे एक..तशेंच जे बायलेविशी तुमी सांगत आसात ती तुमचीच घरकान्न आसा हो दुसरो. आनेक ती जाच्या नावान कुकूम लायता तो तुमीच आसात आनी तो अजून हयात आसा.''

''बरें, बरें... म्हजे लग्न जाल्ले आसा.''

''ताका पुरावो?''

''आमी अग्नीक साक्षी दवरूनूच लग्न केला!''

''आरे, आमी लेगीन अग्नीक साक्षी मानून जायतितल्यो सिगारेटी फुंकल्यात. ताणे कितें फरक पडटा,'' ताणे हांसत हांसत म्हळें.

''सिगारेटी वा विडेफोंत हांव काय ओडना. आनी असली भासाभास करूंक म्हजी इत्सा ना.''

''बरें तर. म्हाकाय तांचो सोस खंय आसा?''

''परथून सांगता. जाका हे पयशे मेळपाक जाय तो हांवच आसा. अर्ज विनंती ती हांवेच केल्ली. ताची मंजूरी म्हाकाच मेळ्ळीं. जें देणें आसा तें दियात म्हळ्यार उपकार जातले.''

''तें सगळें खरें, पूण ताका पुरावो जाय.''

''इतलेश्या अडीचशें रुपयांक तुमी म्हाका तकालस दितेर आसात.''

''तें म्हजें कामच आसा.''

''तें मनीसपणाक धरुन ना.''

''तुमी मनीसपणाची गजाल सांगत आसात; आरे म्हज्या भावा, ही कचेरी आसा... सरकारी कचेरी - पसरकारालें दुकान न्ही. कितें... समजलें ?''

''हांव म्हणटा, हाचे परस तेच बरें.''

''अशें आसा तर तुमी थंयच वचात कशें? तेच बऱ्याक पडटलें.''

''कृपा करून म्हाका मेळपाक जाय ते पयशें दियात. हांव रोखडोच हांगाथावन भायर सरता.''

''तुमी पुरावो दाखयात आनी पयशें घेवन वचात.''

काय वेळ थंय शांतताय पातळ्ळी. परथून हांवे नमळायेन म्हळें, ''आरे भोवमानेस्ता, तू म्हाका सामको वळखता आनी म्हाकाय तुजी बरे भशेन वळख आसा.''

''क्षमा करात, हांव तुमका अजिबात वळखना.''

''हांवे तुमका जायतेफावटी चाय पिवंक होटेलांत व्हेला. तुमी म्हज्या घरांबी येवन गेल्यात.''

''पिवयल्या आसत. आमची हांगासरची सगळी पिराय दुसऱ्यान दिल्ली चाय पिवूनूच सरल्या. तरीय सांगता हांव तुका वळखना.''

''तुमी फट उलयतात.''

''ते म्हजें कामच आसा. हांव पडलो सरकारी नोकर.''

''सरकारी नोकरे शिवाय तुमका अजुनूय हेर कर्तव्यां आसात.''

''ताचो अर्थ मातशी विसकणी करून सांगश्यात?''

''एक मनीस आपणालो इश्ट आसा. ताचे येणे आशिल्ले पयशे मेळोवन दिवंक मजत करपाचे कर्तव्य जाता. खरेंच म्हका पयशाची सामकी गरज पडल्या हेय तुमका खबर आसा.''

"आरे सभाग्या, खुर्चीर बसलो म्हणटकीर आमी आमच्या बापायकबी वळखनात. हांगा आमी काय तत्त्वाचे जापसालदारकीक धरून आसतात."

"तेंय खरें... हांव जाणा", निमाणे हांवे हार खावन म्हळें.

अशेतरेच्या भासाभाशीक म्हणा वा वादावादीक म्हणा अखेरीक अंतच उरना, हे म्हाका कळून आयलें. तशें ताचो अखेरूय कठीण आसता. हाचे पयले लेगीत अशींच वादावादी केल्ली आनी दरखेपेंक अपेशी थारलो तेंय खरेंच. कसलीच वाट मेकळी नाशिल्ली. यत्न करप तितलेंच म्हजें हातांत आशिल्लें आनी हांवे तेंय पुराय केलें.

"आतां हांव स्पश्टच विचारतां - तर म्हाका वळखूंक वा हाव तो हांवच आसा हाका मान्यताय दिवंक कितले दिवचे पडटलें तें सांगात," हांवे काकूळटीक येवन विचारलें.

"पांच रुपये. आमचो सद्याचो रेट तोच आसा."

"मातशें चड दिसतात."

"हाचेपरस कमी पयशांत हांगासर हांव कोणाकूय वळखना. ते आमचें तत्त्वांत बसना."

"हाचें पयलीं तुमी दोन रुपयांत वळख दाखयताले!"

तो मुमुरखो हांसलो. आनी ताणे म्हाका मात्यापसून पावल मेरेन नियाळ्ळे. उपरान्त म्हजो हात आपल्ले हातांत घेवन थापटायत मायेस्तपणान ताणे सांगले, "आरे म्हज्या भावा, जेन्ना तुमका दोन रुपयांत वळख दाखयतालो ते दीस केन्नाच मागशी पडले. तेन्ना स्वस्ताय आशिल्ली देखून कोण एक व्यक्तीली वळख एक दोन रुपयांत जमून वताली. हालींचें पळयांत - तुमीबी तशें फाटलें रावलें नात - तुमी आता आमचेच जाल्यात आनी आख्खे जग तुमका वळखता. देखून तुमचो दबाजो तो कितलो? कितली खोशेची गजाल म्हणपाचें. दरेक मनशान उदरगत करुंक जाय. फांटी तुमका ह्या कचेरितल्यान कितले मेळटाले? वीस पंचवीस रुपये मू? पूण हळू हळू तुमी स्वताली उदरगत करत गेले आनी हालीसर म्हयन्याक अडीचशे रुपये सरकारी कचेरीतल्यान ओडून घेत आसात. हांवे बी हळूहळू तशेच तरेन प्रगती केली. आजकाल हांवूय पांच रुपयां उणे कोणाक वळख दाखयना. तुमी अजून हाचे फुडार उदरगत करून घेवंक जाय ही म्हजी मनापसून इत्सा. भविश्यांतूय तुमी ह्या कचेरीक फटयात आनी हजारानी रुपये वसूल करात. आनी म्हजें सारकेल्या सामान्य कारकूनाक आपणासारक्या न्हड मनशाक वळखूक, जो आज पांच रुपये मागता, ताका भविश्यांत पन्नास ते शंबर रुपय मेळपाचे शक्य जातले. इतले सांगून तो वोग्गी जालो.

हांव मान सकयल घालून बशिल्लो जाल्यार तो म्हजेकडेन नदर लावन आशिल्लो. थंयचे सर भोंवतण किण्ण शांत जाल्ले. जो मनीस एके जिणेची दिश्टी पत्करता तांतूतल्यान सहजतायेन तो भायर सरना. भासाभासेन वा वादावादीन ताचे जिणेंत कायच फरक पडना. तो अपेशी थारत जाल्यार केन्नाच गळसणून वचपाचो ना, इतलें मात खरें. जें कितें ताचें म्हूण आसा ते घेतलेबगर तो रावचो ना. ताका घेवपाचे आसा. आनी म्हाका दिवपाचे; तो एक नेम आसा

आनी तो मोडप कठीण आसा.

सगळें शांत शांत जाल्लें. बऱ्याच वादावादी उपरान्त त्या कार्यालय कक्षांत बर्फावरी शेळाव पातळिल्लो. अशेंवेळार तें उतरानी तोडप-फोडप शक्य नासता. हांवें बोल्सांत हात घालो आनी पांच रुपये भायर काडले. तोच ताचो रेट आसलो. ताणेय अनमान-नासताना हात फुडे करून ते पयशे शांतपणान घेतलें.

''आतां सांग तुजें कशें कितें चल्ला. बायलभुरगीं बरी आसान मूं?'' ताणे आपलेंपणान विचारलें.

''पात्रांव, तुमचीच कृपा म्हणपाचें'' हांवे थंडपणान म्हळें.

ताणे लागसारची तिजोरी उगडली आनी रुपये अडीचशें मेजूंक घेतलें.



# ल्हानशीच तर गजाल

गजाल तशी काय व्हड नाशिल्ली. जनावरांल्या दवाखान्यांत रामसिंग नावाचो एक वावराडो आसलो. तो टपाल कचेरीत चिट्यो दिवंक गेल्लो. टपालकचेरी तशी पयस नाशिल्ली. अंतर आसूंक फाव फर्लांग देड फर्लांग. सकाळचें अदमासान णव वराची वेळ आसूंये. अदमासान म्हणपाक कारण म्हळ्यार दवाखान्यांतले घड्याळ नादुरुस्त जाल्ले आनी दोतोराले मनगटाचें घड्याळ दुरुस्तीक शारांत धाडिल्ले. गांवातलो पोस्टमास्तर - जो खऱ्यानी गांवचो शाळामास्तर आसलो - ताका वरकड पगार दिवन ताचे मात्यार हे अदीक कामाचे वजें घाल्ले. तो सदा सकाळी धावरांर टपाल पिशवी तयार करून ती बाजारांतल्या मुख्य टपालकचेरींत धाडून दितालो. आयज अजून मेरेन टपालपिशवी धाडली नासली. तेदेंवेळार रामसिंग हातांत चार चिट्यो घेवन थंयसर पावलो. तांतून दवाखान्याचो म्हयन्याचो अहवाल धरून दवाखानो संबदीत तीन चिट्यो अदीक ताणे आपणाल्या धाकल्या भावाक बरयिल्ली निजाची एक चीट आसली.

टपाल कचेरींत सकाळी चिट्यो पावोवप आनी सांजेर दवाखान्याच्या नांवार आयिल्ल्यो चिट्यो घेवन येवप हे रामसिंगाले सदांचे काम आसलें. हो वावर तो तीनेक वरसांपसून न चुकता करत आयिल्लो. आनी ह्या काळांत दोन दोतोर येवन उपरांत तांची बदली जावनूय गेल्ले.

सकाळची णव वराची वेळ आसूंये. रामसिंग टपाल कचेरीतल्यान परतून येतालो. भायर मदींच एक आस्पत्री लागताली. थंयसर हालीचो दोतोर गोपाल उबो आसलो. तो खऱ्यानी दोतोर पदविका घेतिल्लो न्हय - जाल्यार, तो एक अणभवी कंपावंडर - ताची गांवच्या आस्पत्रीत दोतोर म्हूणच नेमणूक जाल्ली. वाटेवयल्यान ताकतिकेन वचपी रामसिंगाक दोतोर गोपालान उलो मारलो - ''आरे रा ऽ ऽ म, रामसिंग.''

रामसिंग आपण्याल्याच विचारांत गुल्ल आसलो. उलो आयकून ताणे मागशी भोवन पळयले आनी ताणेय हांसत हांसत दोतोराक जाप दिली, ''राम, राम.''

''आरे हेवटेन तेवटेन पळयनासतना चलूंक लागला?''

''टपाल कचेरीतल्यान परतून येत आसा''

''थोडी च्या पिवन वच, रामसिंग.''

च्याचे आयकून रामसिंग मातसो अनमनलो. फर्लांगभर पयस दिसपी दवाखान्याकडे दिश्टी लावन ताणे स्पश्टच सांगले, ''उशीर जातलो सायबा.''

''कळाव कित्याक म्हूण? आरे, च्या तयारूच आसा.'' दोतोरान ताचो हुसको निवळायलो.

दोतोर गोपालाल्या विनंतीक पाळो दिवन रामसिंग आस्पत्रेची सोंपणा चडून गेलो. इतलीशीच तर ल्हान गजाल आसली. जनावराचो दोतोर पुंडरीकान रामसिंगाक तापयले आनी थंयसरच्यान काम सोडून वचूंक फर्मायले. ड्यूटीर आसतना च्या पिवंक गेलोच कसो होच आरोप परथें परथें ताणे रामसिंगाक आयकयलो.

रामसिंग तसो प्रकृतीन धडधाकट अणभवी पूण ताचो सबाव मातसो चिडचिडो. आदी ताणे दोतोराक समजायलें, ''चार पांच मिनिटां उसरां पावलो खरो - दोतोर गोपालान आदरान च्या पिवंक मदींच आफयल्यार तांका ना कशें म्हणूं?''

''तें सगळे मान्य करूनूय कामावेळार थंयसर गेलोच कित्याक? आतां बऱ्याभशेन तू दवाखानो सोडून वच.''

''बरें तर,'' रामसिंगान तिडकेन म्हळें आनी दवाखान्याचे आंगण हुपून भायर रस्त्यार आयलो. तुरतुरीत चलत सामको कस्टम नाक्यार येवन पावलो. आनी पुंडरीक दोतोराक नाना तरेच्यो गाळी दीत बसलो.



कागदार रुळान रेग मारता मारता नाकेदारान विचारलें, ''कितें जालें रामसिंग?''

''भावा म्हज्या. तशें कांयच व्हड घडलें ना. सुपांत आसतनाच सुण्याली जात कळटा. कितलेंय बरे करात कोणी विचारतलो आसना.''

''कित्याक म्हूण असो कागाळी करता?''

''हांव टपाल कचेरीत गेल्लो. परथून येताना दोतोर गोपालान च्या पिंवक आग्रोव केलो. एकूच कोप च्या पिवन रोखड्या रोखडो दवाखान्यार पावलो. जाल्यार दोतोर पुंडरीकान म्हाका नोकरी सोडून वच म्हूण फर्मायले. कामार आसताना आस्पत्रीत मातशें गेल्यार जालें कितें? आतां तूच सांग च्या पिवन हांवे कसलो व्हड गुन्याव केलो? दीसपट्टीच्या कामांत कसलीच बेपर्वाय केली ना तरीय x x x म्हाका भायर घालूंक जीब घोळयली.''

''अशेंच चलता, रामसिंग, आफीसरांक तिडक मारितच आसता.''

''तशें न्हय, - आफीसर आफीसर आसता - जर कामांत हयगय वा ढिलाय केल्याविशी ताणे दोन तीन गाळी बी दिल्यार आयकून घेवयेत. टपाल पावोवन येताना तीन चार मिनिट थांबलो तेंय खरें. तांतूतल्यान ही गजाल घडली. जागेले मन भितल्ले भितर खायत आसता ताचे जिबेरूय तसल्योच उतरां घोळटात आनी ते भोंवतणेचे भौसाक मनीस पणाचे उणाय दाखयतात.



गणपत पटेल कस्टम नाक्यावेल्या रस्त्यान वतालो. ताणे विचारलें, ''आरे, रामसिंग जाले कितें?''

''कसलें किते? तशे व्हडशें कांयच घडले ना सायबा. तुमीच विचार करात. मनीस ड्यूटीर आसा म्हूण ताणे कोणालो - ''राम राम' घेवनयो वा ताका परथून सलाम करनयो अथवा कोणे विडी-सिगारेट दिल्यार घेवनयो अशें थोडेंच आसता? हाचो अर्थ कितें काय म्हणटा?''

''अशें, दोतोर सायबान तापयले म्हणपाचे.''

''हयतर. थंयसर खंयचे नशीब घेवन वचपाचे काय म्हणटा?'' रामसिंग रागारागान उलयत रावलो, ''हांव सोपूत घेवन सांगता पटेल सायबा, बेयमानी नोकरीचेर हांव थुकता. आयज ह्या गावांत पडून आसा, दीसरात ड्यूटी करता ही ध्यानांत घेवपासारकी गजाल न्हय? अशा ल्हानसान घडणुकीचेर म्हाका नोकरी सोडून वच म्हूण फर्मावन म्हजें मन मात दुखयलें.''

''तरीय...पूण - आरे, रामसिंग खरे कितें घडलें तें सांगतलो काय ना?''

''ल्हानशीच गजाल. टपाल पावोन येताना दोतोर गोपालान मातसो आग्रोव केलो म्हूण फकत तीन चार मिनिटां च्या पिवंक घालयले. म्हजो सायब म्हाका तेंच तेंच सारके विचारता - ड्यूटीर आसतना च्या पिवंक गेलोच कसो? आरे, च्या पिली म्हूण म्हजें मढें वताशिल्लें काय म्हणटा?''

गणपत पटेल हांसत हांसत वाट चलूंक लागलो.



रामसिंगान विडी पेटयली आनी कस्टम कचेरीच्या सोंपणार बसलो, ''सगळोच अन्याव म्हणपाचो. दोन मिनिटाचो तर कळाव,'' तो बडबडलो.

''आसूं दी रामसिंग, थोड्या दिसानी सगळे थाऱ्यार येतले.''

''ना म्हज्या भावा, हांव वयल्या सायबाक भेटून पुंडरीक दोतोरान म्हजेर केल्लो अन्याव सांगतलो आनी जापूय दितलो.''

''जाल्यार आत्तां कितें करतलो ते सांग.''

''वयल्या सायबाकडसून लेखी फर्मान घेवन येतलो तेन्नाच हाची मिजास निवळटली.''

तेच वेळार जनावरांचे दवाखान्यांत एक गोरवाराखणो लंगडी गाय घेवन भितर सरतना रामसिंगान पयसल्यानूच पळयले आनी आपशीच पूण व्हाडान हेर जनांक आयकूंचेशें म्हळें, - '' दातोर आता एकट्यानीच काम करात. हांव आतां चल्लो. एके मनशाक नोकरीतल्यान काडून उडोवप म्हळ्यार कितें आसता ताचो अणभव घे.''

रोखडेच थंयसरच्यान उठून तो गांवबाजारादिकेन तरातरा चलूंक लागलो. आनी थोड्या

वेळान राजमल हांच्या दुकानांत येवन बसलो.



"अशे तरेचें काळखाचे राज्य पळेलें नाशिल्लें."

"अशें कितें जालें रे पाप्या" राजमलान विचारले.

"दोतोर दोतोर आसता. अधिकारी अधिकारी आसता. चुकां केल्ल्यांक वेळेवेळेचेर जापसालदारकीची जाणीव दिवन दोन उतरां तकलेत उतरावप हे अधिकाऱ्यालें काम आसता. पूण ल्हानसान चुकांक ताणे माफी बी दिवंक जाय. मनशाकडसून चुकां घडटात, ना अशें ना. म्हणू कितें ताका फासार चडोवपाचे काय म्हणटा?"

"रागार कित्याक जाता रामसिंग" राजमलान सांत्वन केलें.

"रागार कित्याक? आरे परमेश्वर सगळे पळयत आसता न्ही? ताचेपसून एक खिणभर लेगीत कसलेच लिपून रावना. गरीबांलो तोच राखणदार. हांव म्हूण वोग्गी रावलो. हेर कोणी आसल्यार थोडेंच सोडून दिता आसलो?"



'दोतोर सायब बरें रागार जाल्यात म्हूण आयकला", आस्पत्रीतल्यांन तडक थंयसर पाविल्ल्या किशनबाबून विचारले, "तुका नोकरीवयल्यान काडला अशें कानार आयलें."

"ताचो बाप्पूय लेगीत म्हाका नोकरीवयल्यान पयस करूंक पावचो ना. तुमी म्हाका कितें समजतात?....गरिबाल्या पोटार लात मारप इतलें सोपें नासता. तांचे वयर बी अधिकारी आसात काय ना? आनी म्हजी मातूय चूक ना" रामसिंगान एकूच स्वासांत आनी वयल्या आवाजांत सांगले.

"घडलें कितें तें सांगतलो काय ना?"

"ल्हानशीच तर गजाल. एक मनीस एक काम करून परत येता. वाटेर च्या पिवंक मात्सो थामता. वेळ कितलो लागलो? फकत तीनचार मिनिटां... हांव ड्यूटीर आसतना च्या पिलो तेच कारण घेवन नोकरीवयल्यान काडून उडवप? वचून सांग गेलो हुपत!!"

जमिल्ले सगळेजण वोग्गी रावन आयकताले.

"तुमीच विचार करात. मनशाकडच्यान चुकां घडटात खरें. दोतोराल्या आज्ञेबगर च्या पिलो तेंय खरेच. दवाखान्यामेरेन चलत वचून दोंगली दुखोवन घेवन दोतोराक च्या पिवन येवूं अशे विचारपाक गेल्लो आसल्यार चड वेळ इबाड जायनाशिल्लो काय म्हूण तुमका विचारतां...हेय जरा तकलेत घेयात."

"तेंय खरेच" राजमलान म्हळें.

"ताका मातयेत पुरून दवरता काय ना पळेयात. म्हाका दवाखानो सोडून वच म्हूण सांगले ते कित्याक काय म्हणटा."



सकाळचे धा वाजिल्ले. रामसिंग दुकानात बरो वेळ विडी फुंकत बशिल्लो. हळू हळू ही खबर सगळे गांवभर पातळ्ळी. रामसिंग एके जागेवयल्यान दुसऱ्या जागेर वचत रावलो. आनी आपणांक जाल्ली ख्यास्त सांगत सुटलो. उपरान्त दोन वरार तो परथून आस्पत्रींत हजर जालो.

"दोतोर सायबा, तुमी म्हाका च्या पिवयली आनी सगळो घोळ जालो," भितर पांय दवरतां दवरतां रामसिंगान म्हळें.

आपणें आग्रोव करून रामसिंगाक च्या पिवयल्यान इतलो बोवाळ घडिल्लो पळोवन दोतोर गोपालाक खोस भोगताली. रामसिंगाक पळोवन तो मुमुरखो हांसलो. गांवांत अशाच ल्हान सान गजालीतल्यान घडपी घटिचारांतल्यान ताका खोशी मेळटाली. आनी दोनूय बाजून उजो लावंक तो जाय ते यत्न करतालो.

"जालें कितें ते सांगचेलो काय ना? ह्या बांकड्यार बस - मात्शें कुले तेंकय", म्हणत ताका चुचकारून दोतोरान पाकिटांतल्यान एक सिगरेट काडून दिली.

"पुरो जालें, तुमी दिल्ल्या च्याक लागुनूच तंटो उप्रासलो न्हय?"

"आरे म्हज्या भावा, घडले तें वायटाचे जालें म्हणपाचे, जाल्यार तांतूत च्याचो कसलो गुन्याव?"



# वेव्हार

बऱ्याच दिसापसून गिडवानी आपली नदर लख्खीचेर दवरून आसलो. चौकांत जेन्ना खेट जाताली आनी मिठाई विकपी गाडीवाल्याभोंवतणे सिंधी, पंजाबी चलयो पंगड-पंगडान जमून केळीपानांर वाडून दिल्ले खावपाचे जिन्नस आवडीन खायत रेवाडो घालून रावताल्यो तेन्ना तो आपणाले लुगटाच्या दुकानांत बसून तांचेकडेन दोळ्यापातीं लायनासतना एकटक पळोंवक उत्सुकतायेन भरिल्लो आसतालो.

लख्खीले वया चौदा वरसाचें अदेंमदें आसूंये. देखून ताची कुडी आनी मुखामळ सोबितायेन पर्जळून आयिल्ले. निळ्या आंग वस्त्रात धांपिल्ली ताची सद्याची उठावदार छाती खासा दिश्टीक पडटाली. ताचे आंगार गोऱ्या रंगाची सया झळकताली. सबावान तें सरळमार्गी आसले. आपणाले हेर मैत्रिणीवरी दरेक मिठाईवाल्याकडे झगडे वा वाद करत फिरनासलें. चौकांत मोन्यानी एक भोवंडी मारून दिवेलागणीवेळार तें आपल्या घराची वाट धरतालें.

आपणालो जुवान चलो वल्लभाले लग्न लख्खीवांगडा करून दिवपाचे गिडवानी केन्नापसून येवजितालो. ताचो बापूय रामजीकडेन ताणे तशी उकतावणी बी केल्ली. रामजीलें शारांत कापडाचे दुकान आसून तो आनी गिडवानी बरोच तेंप एकमेकांक वळखताले. गिडवानीलो चलो तसो लायक आसासो रामजीनबी विचार केल्लो. मॅट्रिक परीक्षेत नापास थारलो उपरान्त ताणे बापायले दुकान बरें तरेन सांबाळला - सकाळ दनपारा तो दुकानार बसता आनी सांजेक घावूक बाजारांत भोंवडी मारता- घाणयारी संवयी नात - तशें तवनास दोस्तबी नात अशो बऱ्यो गजाली तो जाणा जाल्लो. ताणे गिडवानीक आपणाली पसंती कळयली. जाल्यार एक चत्राय दिवंक विसरलो ना. ताणे म्हळें, ''आरे भावा, हलीचो जमानो नव्या पिळगेचो. आवयबापायली पसंती ती वेगळी, जाल्यार चलो आनी चलियेन आपसांत एकमेकांक जाणून पसंत केल्यार फुडार कायं वादावादी जावंक कारण उरचे ना''.

गिडवानीन रामजीले सांगणेक पाळो दिलो. ताणें वल्लभाक आफयलें आनी ताका एक उत्तमशें खोमीस घेवन दिलें. उपरान्त ताका रामजीली चली लख्खीक पळोवन यो म्हूण सांगताना म्हळें, ''चली बरी गुणाची आसा, जाल्यार तुवेंय पसंत केल्यार फुडारची उलोवणी करुंक बरें जातलें.''

तीन चार वराची वेळ आसत. रामजील्या चलियेक पळोंवक वल्लभ ताचें घरा पावलो.

तेन्ना रामजी दुकानार बसून आसले; वल्लभाक लखखी पसंत पडली आनी लखखीनूय तेन्ना विचार केलो चलो गोरो आसा, उलोवपाकूय बरो आसा; ताचे नाक मातशें लांब आसा म्हूण कितें जालें आपलो म्हूण पतकरूंक कांयच अडचण ना. तीय खूश आसली.

लग्नाचे नित्शीत जाले. येवपी म्हयन्यांतली तिथी थारायली आनी दोनूय बाजूचे तयारीक लागले.

एके दीस सांजेर दुकानालागसारच्या चौकांत वल्लभ पान खायत उबो आसलो. तेदेंवेळार लखखी आपणाली एक वयान ल्हान मैत्रीणीक सांगातीन घेवन येताना ताकां दिश्टीक पडले. लखखी वल्लभाक पळोवन लजेंलें, आनी सटसटीत बरोबरच्या मैत्रीणीक ओडत व्हेले आनी ती दोगांय बस स्थानकार उबी राविल्ल्या एके प्रवासी बसीफाटल्यान लिपलीं.

वल्लभ मुमुरखों हांसलो. पानवाल्याच्या दुकांनांतल्या हारशांत ताणें आपणाले मुखामळ एक फावट नियाळले आनी दुसरेवटेन ल्हवूच वाहनाच्या फाटल्यान येवन पावलो. लखखी आनी ताची मैत्रीण दोगांय आनीकूय लजून सतरवितर जालीं. वल्लभ थोडोवेळ वोग्गी रावलो लजेन बागविल्ल्या लखखीच्या तकलेकडेन पळेतूच रावलो. उपरांत ताणे मायेस्त आवाजांत विचारलें, ''चणा उसळ खातलें?''

लखखीन मानेनूच न्हयकार कळयलो. वल्लभ मात खुद करून हांसलो. उचांबळपी नदरेन लखखील्या छातीकडेन नियाळत ताणे उसळवाल्याक 'ऑर्डर' दिली.

वल्लभ अदीमर्दी हासतांलो. लखखी आनी ताची मैत्रीण मात लजेत लजेत चणा उसळ आनी बटाटा सोस मान सकयल घालून खायत रावली. काय वेळान लखखीकडेन पळयत वल्लभान धिटायेन विचारले -, ''फाल्याक मेळशी?''

लखखीन रोखडेच तकली हालोवन पाळो दिलो. जाल्यार दोगांकूय अशें उकत्यार भर चौकांत एकमेकांक मेळपाचे शक्य नासलें, वल्लभान सुलूस दिली, ''ती शाळा दिसता न्ही - ताचे फाटल्यावटेन खात्रीन फाल्या सांजेर मेळपाचे ध्यानांत दवर.'' थीर नदरेन एक फावट वल्लभाकडेन लखखीन पळयलें आनी हांसत हांसत मानेनूच हयकार दिलो.

दुसऱ्या दिसां सांजवेळार साडेस वाजिल्ले आसत. धर्तरीर काळोख ल्हवल्हव पातळूंक लागिल्लो. शाळेची मेकळी जमीन सोंपता थंयसरच्यान शेजारच्या गांवाकडेन एक लांबरूंद रस्तो वतालो आनी त्या वाठारार नगरपालिकेन अर्दवट तयार केल्ली बाग आसली. तांतूत चार पांच व्हड वाडिल्ले रूख आनी ताचे सावळेंत तीन चार सिमेंटचे बाकडे दवरिल्ले दिसताले.

लखखी आनी वल्लभ एकमेकांक पळोवन धादोसकाय पावलीं. वल्लभ भाड्याची नवी सायकल घेवन आयिल्लो आनी लखखी नवी चंदेरी रेसमीसाडी न्हेशिल्ली. दोगांय एकमेका लागसार बसलीं. आपणे अशावेळार कितें उलोवपाचे आसता तेविशी तांका जाण नासली.

''तुजी मैत्रीण आयज सांगातीन आयली ना?'' वल्लभान मौनभंग केलो.

''ना...'' लखखीन लजत लजत म्हळें.

''कित्याक हाडलेंना? काय खास कारण?'' वल्लभान कुचिंद्रीपणा केली.

तें भिडेस्तायेन वोग्गी रावलें. थोडो वेळ असोच गेलो.

''तूं दीसभर कितें करत आसता?'' लख्खीन अचानक प्रश्न केलो.

''गिरांयकांली सेवा.....' वल्लभान सहजतायेन सांगले.

''नवीं कापडां आयल्यात?'' लख्खीन वल्लभाले दोळ्यांत आपणाली नदर लायली.

''सद्यांक बाजारात दम रावलो ना. कारखान्यानी कापडां तयार जावन पडून आसात, पूण बाजारांत विकूंक म्हूण काडिनात'' वल्लभान खंतीसूर लायलो.

''अशें आसा तर...'' लख्खीन एक निश्वास सोडलो.

'' तू मुंबयत वतेर आसता खंय'', लख्खीन अनमनत विचारलें.

''हय'' वल्लभान नकळत लख्खीलो हात दाबलो, ''अवंदूबी वतलो म्हणटा''.

''मुंबयक वचूंक कितले प्रवास भाडे पडटा?'' लख्खीलो अजाणतायेचो प्रश्न.

''हे पळय लख्खी,'' ताणे लख्खीलो हात पटकन सोडलो आनी आपणाले हाताबोटार मेजूंक लागलो. प्रवासभाडें पंदरा रुपये, शिवाय मुंबयत रावपाचे दर दिसाक धा रुपये खर्च. पांच दीस रावचे पडले म्हणटकीर पन्नास रुपये गेलेच. अदीक पंदरा रुपये परतेंचे प्रवासाक-म्हळ्यार अयशी -णव्वद रुपये सहजशें खर्चीक पडटात.

लख्खीन फकत मान हालयली.

''वेव्हार घडपाचे पयलेच खर्च करपाचे आसता. उपरान्त जम बसलो तर बसलो नाजाल्यार टीकमदाससारकें जाता.''

'' हो टीकमदास कोण?'' लख्खीन अजाप पावन विचारलें.

''चौकांत कटलरीचे दुकान घालून बसला तोच'', वल्लभ जोरांत हांसलो, ''दिवाळें काडलें बाबड्यान.''

लख्खील्या दोळ्यांत काकूळटाय उपाट भरून आयली. वल्लभान ताचो हात परथून आपणाल्या हातांत घेवन थापटायलो. तें लजून मोनें फुलांकळीवरी शिरकुटून रावलें. ताच्यां पोल्यार 'तांबड्या सिल्कची ' सया पातळल्या आनी हातांत 'शार्कस्किन'ची मोवसाण आसाशें वल्लभाक दिसून आयलें.

''वेव्हार करूंक तकली लागता'' ताणे म्हळें.

लख्खीन ताचेकडेन तोखणायेचे नदरेन पळेंलें.

''आयक लख्खी. एके दिसा पोपलीन लुगटाचो इबाडिल्लो तागो दुकानांत येवन पडलो. सगळ्यांनी म्हळें तो विकपाक जावचो ना म्हूण! गिरायक पयली माल नियाळटा, थोंडें नखरे करता आनी निमाणे जाय तेच लुगट पसंत करता. एकूच दिसा हांवे दोन तागे कळाशीन पुराय विकले. खबर आसा?''

"हांवे एक भेटवस्त तुजेखातीर हाडल्या" लख्खीन मदेंच तोंड उगडलें.

"कसली वस्त? आगो सांगचेले काय ना?"

"तुका भेट दिवंक म्हूण.... हाडल्या."

"आगो कसली वस्त काय म्हूण विचारता"

लख्खीन आपणाल्या ल्हानशा बोटव्यातल्यात एक सोबितशें पेन काडून वल्लभाक दाखयले. ताणे पळयले ते पेन सोबीत आनी चड मोलाचे दिसलें. मोगान लख्खीकडेन पळयत ताणे विचारले, "कितलें मोल दिलें?"

"ते सांगपाचे ना..."

"सांग...ना जाल्यार..." ताणे लख्खीलो हात चड दाबलो.

हात दुखिल्ल्याचे दुख्ख तोंडार दाखयत अजिबात सांगचे ना म्हूण ताणे मानेनूच सांगले.

" तू तशें सांगपाचे ना तर. आगो, आजकाल बऱ्या पेनाची विक्री 'ब्लॅकांत' चालू आसा. सांग खंय विकत घेतले?"

"बाजारांत...."

"कितल्याक?"

"तूच मोल कर" ताणे वल्लभाल्या दोळ्यांत पळयत म्हळें.

"धा रुपया परस जास्त आसपाचे ना." वल्लभान अंदाज केलो.

"ना.. ना. चड किमतीचे आसा."

"बरे हरलो. आतां तूच सांग कितले मोल पडले?"

"तेरा रुपये..."

"शक्य ना. हाचे मोल णव रुपयावयर ना."

"तुजी सोपूत तेरा रुपयाकूच विकत घेतिल्ले."

"आगो पिशा, तुका फटयलें."

लख्खीन हातांतले पेन वल्लभाले खोमीसाच्या वयल्या बॉल्सांत अडकायले.

".... तुका म्हारगच पडले म्हणपाचे," वल्लभान कळवळून म्हळें.

तिसऱ्या दिसा दनपाराची वेळ. लख्खी फणीन केस ओळयतालें आनी ते वेळार फाटल्या आंगणांत पापड सुकोंवक घाल्ल्याचेर पारो दीत बशिल्ले. बापूय दुकानार आनी आवय आपणाल्या इश्टिणीक मेळूंक गेल्ली. सामके त्याच वेळार एक भाड्याची सायकल घेवन वल्लभ लख्खील्या घरां पावलो. ताका दरवटेर पळोवन लख्खीन आपले केस फाटीर घाले आनी ताकतिकेन सामकार येवन मुमुरखे हांसत येवकार दिलो.

वल्लभ ताचें म्हऱ्यांत आयलो आनी आपणाले पाकीटांतल्यान पंदरा रुपये काडून ताचें

हातांत दवरले.

‘‘हें आनी कितें?’’ नकळ जावन लख्खीन विचारलें.

‘‘पेनाचे...’’

‘‘ना, ना, हांवे दुकानदारक मोल फारीक केलां. तुजेकडसून घेवपाचें ना.’’

‘‘आगो ते तेरा रुपये मोलाचे न्हय?’’

‘ हय तर....’’

‘‘जाल्यार हांवे ते पंदरा रुपयांक विकले.’’

लख्खी अजाप पावली. उपरान्त त्रासिल्लिशी जावन ताणे म्हळें, ‘‘ते पेन विकपाची गरज कसली आसली? हांवे मायेमोगान यादस्तीक दिल्लें तें’’.

वल्लभ ताचे कानांत फुतफुतलो, ‘‘अजून एक विकत घे. आगो हो वेव्हार आसा. म्हारग वस्त अजून चड्या मोलान विकली इतलेच. दोन रुपयाचो फायदो जालो काय ना?’’

लख्खीच्या दोळ्यांत दुका भरून आयली. ते पळोवन वल्लभ गोंदळ्ळो. तशांत ताणे लख्खीक म्हऱ्यांत ओडून आपणाल्या गोपांत घेतलें. आनी सांत्वणीच्या सुरांत म्हळें, ‘‘लख्खी, आगो तशातरेचो फायद्याचो वेव्हार करूंक म्हाका आवडटा न्हय?’’

‘‘....खरेंच? ’’ लख्खीन ताचे लांब नाकाकडेन दिश्टी लावन म्हळें.

‘‘म्हजेर तुजो मोग आसा म्हूण समजू?’’

‘‘व्हय...’’

वल्लभ आनंदभरीत जालो. ताचे हातांत आतां जादूची कांडी आयिल्ली. तो लख्खील्या खांद्यावेलो रेसमी दुपाटो ल्हव ल्हव सांसपत रावलो आनी मोव आवाजांत ताणे विचारले , ‘‘लख्खी’’.

‘‘हूँ....!’’

‘‘आगो, ह्या दुपाट्याचे मोल कितें आसत?’’



# प्रभु मुरलीधराली कृपा

''जय श्रीकृष्ण'', येवकार कुडांच्या चार वणटीभितर तांचो आवाज घुमघुमलो. दोनूय हात जोडून हांवे केल्लो श्रीकृष्णालो जयजयकाराचो पडसादुय तशेच तरेन थयसर घुमलो.

''कित्याक म्हूण येवपाचे जालें?'' ताणी विचारले. मलमलचो सदरो आनी धंवेफुल्ल पुडवें ते न्हेशिल्ले. कपळार गंधाचो थिबो आनी ताचे वयले काळे दाट केस वरशें वळयिल्ले. भगवान श्रीकष्णाल्या भक्ताल्या दोळ्यांत सदा दिश्टीक पडपी ती सदांकाळ लिकलिकपी एक बारीक नदर तांच्या दोळ्यांत दिसताली.

ताकतिकेन हांवे निमगिले, ''गुप्ताजीली चीट मेळळी?''

''कोण...आमचो तो बाबुलो? देव बरें करूं....कसो आसा तो?''

''तुमका मेळचे खातीर ताणे सुचयला. आपणाले काम अजून मेरेन जालेना म्हणटा. सगळे कितें ते तुमच्या हातांत आसा म्हूण कळयला. तुमचे मनांत आसल्यार हेच काम एकूच दिसांत, म्हळ्यार रोखडेच करून मेळटलें अशेंय बरयला,'' हांवे नमळायेन सांगलें.

''आरे, आरे.... कसली तोखणाय करतात तुमी! जें कितें घडटा ते मोर मुकूटधारी प्रभु मुरलीधराल्या कृपेनच. हो तिवारीजी एकटो कितें करूंक पावतलो? जसो प्रभु मुरलीधर फर्मायतलो तेच तरेन ते सगळे काय घडटलें. बाबूलो कमालीचो हुशार आसा म्हणपाचे!!''

''कामाची फाईल तुमचें म्हऱ्यात येवन पावल्या अशें ताचें म्हणणे. बाबून स्वताखातीर म्हजेंवरवी तुमची भेट घेवन विनवणी करुंक कळयला'', हांवे बाबूलो निरोप सांगलो.

''तुमचीच कृपा म्हणपाचें.... त्या कारणान तरी जांव तुमचे दर्शन घडलें. ना जाल्यार तुमची भेट कशी काय घडपाची सांगा पळोंवया?''

काकूळटीक आयिल्ल्यासारको हांवे चेरो केलो. परंतु रोखडेच ओडूनताणून मुमरखें हांसलो.

''तुमी बेगोबेग बाबूक चीट धाडात आनी तांतूत मुजरत कळ्यात प्रभु मुरलीधराचेर सगळो कांय भरीभार दवर म्हूण. ताचे दरबारांत फाईलची दखल घेतली जाल्यार तिवारीजीच कित्याक ह्या संवसारांतली खंचीय शक्ती त्या फाईलीक आडमेळे घालूंक शकची ना.''

हांव वोग्गी रावलो. पूण अचकीत तांचे मुखामळार एकतरेचो तक्रारीचो भाव उदेलो.

ताणी म्हळें, ''तुमी केन्नाच अशें आमचे घरां पावलेनात. आरे इश्टा... म्हजे खातीर न्हय...ह्या प्रभु मुरलीधराल्या दर्शनाखातीर मुजरत येतेर रावात किते?''

''खरेंच सांगता...जायते वेळार चिंततालो तुमचें घरां येवन हांगा-थंयच्यो फकाणा मारच्यो. परंत तुमका म्हजेपसून त्रास जायत बी म्हूण वोग्गी रावतालो.''

''आरे, कसलो त्रास. म्हजें दीसरात सगळे त्या प्रभु मुरलीधराक ओपून दिल्यात. फांतोडेपसूनच ताची सेवा करत आसता. तुमीबी सांगातीन आसल्यार आमचे दोंगायकडसून प्रभूली सेवा घडटासली.''

पूण ज्या दिसा हांव तिवारीजील्या घरांत पांय दवरलो तेन्ना ते प्रभु मुरलीधराल्या सेवेत गुल्ल दिसलेनात. जेवण करन मस्तपयकी आरामखुर्चेर बसून दिसाळ्यांतल्यो खबऱ्यो वाचताले. म्हाका पळोवन हांवे तोंड उगडचे पयलीच ताणी म्हळें, ''थोड्याच वेळांपयली पुजेतल्यान मेक़ळो जालो...देवाक नैवेद्य दाखयलो... उपरान्त तोच प्रसाद खावन आत्ताच खंय फाट तेंकयल्या.''

हांव ताचे लागसार कदेलार बसलो.

तिवारीजील्या कचेरीत घडिल्ली भेटीची सगळी म्हायती हांवे गुप्ताबाबूक चीट धाडून कळयिल्ली. तिवारीजीन म्हाका तांचे घरा येवन मेळपाची दिल्ली चत्राय बी बरोंवक विसरलोना. आतां गुप्ताबाबूली जापेची चीट हातांत पडली. ताणे स्पश्ट कळयिल्ले -हांवे तिवारीजीली भेट मुजरत घेवची. घडये घरा आफोवन तो पयशे मागत... तशें आसल्यार दिवंक हरकत ना. ताणे म्हजे नावान शंबर रुपये मनीऑर्डर करून धाडिल्ले.

''गुप्ताबाबूले काम जालें? '' हांवे नमळायेन विचारलें.

''आरे...आपलो तो बाबूल्यालें? देव बरें करूं.... कसो आसा तो?''

''बरो आसा. तुमी सांगिल्ल्यावरी चीट धाडली. जापेची चीटय आयली. ताणे तीच गजाल परथून बरयल्या.''

ते मुमुरखे हांसले. गरयेक नुस्तें लागलें म्हणटकीर न्हयेदेगेर बशिल्ल्या पागपील्या तोंडार जशें हांशे फुटता तशेंच तिवारीजील्या चेऱ्यार खोशीची एक बारीकशी पर्जळ झळकून गेली.

''सगळें मनासारकें घडटलें... भियेनाकात. प्रभु मुरलीधराल्या पांयासर सगळ्यो फाईली पडल्यात. तो दयावंत, जे दिसाक ती फाईल नियाळटलो तेन्नाच तुमचें कामांत येस मेळटले अशें समजा. नाईकसायब प्राचार्य जाले ते प्रभु मुरलीधराल्या कृपेनच. जाय ते व्हड लोकांकडेन चकरां मारल्यो, मंत्र्यापर्यंत झोंपय घेतली. पूण कामच घडले ना. ताका हांवे आदीच सांगिल्लें. मोरमुकूटधारी प्रभु मुरलीधर आनंदभरीत जालो म्हणटकीत एका दिसांत काम जावन वतलें. आरे श्रीकृष्णाले दयेचेरच-खरे सांगचे म्हळ्यार - किंतलीशी कामां आडमेळेंशिवाय पुराय सफळ जालीं. एके दिसा नाईक सायब ह्या भगताल्या घरां अचानक

आयले. हांवे विचारले, ''सायबा सांग, हांव कसली सेवा करूं?''

ताणे म्हळें, ''प्रभु मुरलीधराल्या भेटीक आयलां.''

हांवे म्हळें, ''खरेंच भेट घेयात,'' अशें म्हणत देवाकुडीचे दार उगडले आनी तांका प्रभु मुरलीधरालो दिश्टावो घडयलो. ताणी तोखणायले, ''व्वा, व्वा, कितली सोबीत मूर्ती आसा. जशेंकाय साक्षात श्रीकृष्ण सामकार उबो रावला.''

''खरें आसा ते. जयपुरांत मूर्ती घडोवन, ती हांगासर हाडून, वैदिकरीतीन प्राण प्रतिष्ठापना केली. मूर्ती खरेंच दोळ्यांक सुखदिणी आनी मनाक ओडलायणी आसा.''

नाईकसायबाले मन रमले. मूर्तीच्या पांयासर पुराय एकवन्न रुपये दवरुन ताणीं प्रसाद घेतलो. मुखार ताणीच सांगले, ''तिवारीजी, जेन्ना केन्ना हांव हांगासर येतलो तेन्ना प्रभु मुरलीधराली भेट घेतलीबगर आनी ताचे पांयासर भेटवस्तू दवरुन प्रसाद मेळ्ळो शिवाय हांगाथान हालचोना.'' धादोसकाय पावन हांवे म्हळें, ''ही माया सगळी मथुरानिवासी प्रभु मुरलीधराली. ताचे मनांत आसल्यार तुमी प्राचार्य बी जातले.''

''आनेक गजाल सांगता. ताराबाबूल्या चल्याली एके जागेर नेमणुकीचो घोळ चलतालो. ताराबाबू म्हजेकडेन आयले. हांवे नमळायेन सांगले, ''प्रभु मुरलीधराली कृपा आसल्यार सगळे काम रोखड्या रोकडे जातले. ताराबाबू आपणाल्या चल्याक हांगासर घेवन आयले... प्रभु मुरलीधराले दर्शन घेतलें... देवाले पांयासर शंबर रुपयाची भेट दवरली... प्रसाद घेतलो. आनी कितें सांगू म्हाराजा-खऱ्यानी सांगता- चार म्हयने ताची फाईल म्हज्या टेबलार पडून आसली, जाल्यार त्याच दिसा अशें काय मनांत आयले ते ताचे काम पुराय करचेच म्हूण. देवानच ती स्फूर्त दिल्ली. जशें काय प्रभु मुरलीधरानच सामकार येवन म्हाका तापयले आनी फर्मायले, ''आरे गिरेस्ता, म्हज्या भगताले काम करपाये आसा काय ना?'' हांवे प्रभूक म्हळें - ''तुंवे सांगलें आनी हांवे केलेना अशें केन्नाय घडला? आनी तशें करिनासतना रावपाची कोणांत ताक आसा?'' सांगपाचे म्हळ्यार ताराबाबूल्या चल्याक नेमणुकीचे पत्र त्याच दिसा हातांत पडलें. अशें कितें कितें घडटा सायबा. सगळे कितें त्या यशोदानंदन मुरलीधराल्या पांयासर आसा. आमका ताचेकडसून फकत आज्ञा मेळूंक जाय.''

'दिव्यचक्षु' म्हूण खऱ्यानीच दोळे आसात जाल्यार म्हजें दोळें रोखडेच उक्ते झाले. ''तिवारीजी'', हांवे काकुळटीक आयिल्याशा आवाजांत म्हळें,'' खंय आसा प्रभु मुरलीधराले देवूळ? म्हाकाय ताची भेट घेवपाची आसा.''

''आरे गिरेस्ता, ते म्हजें घरांतच आसा''.

''अशें ! चलातर, बेगीन दर्शन घडयात.''

''म्हजे सांगातीन या'', म्हणत तिवारीजीन म्हाका भितरल्या दाव्या कुशीच्या कुडांत व्हेलें. कुडाचो दुसरो दरवटो भायल्यान रस्त्याबाजून उगडतालो. तशें केल्ल्यान थंय आयिल्ल्या लोकांक भायले भायर सटकन भायर सरुंक सोपे जावप हो हेतू. पुराय कूड

ल्हानशा देवळासारकी बदलून घेतिल्लीशी दिसली. सामकार मातशें उंचाटीर दोन हात उंच, हातांत मुरली धरिल्ली श्रीकृष्णाली संगमरवरी मूर्ती स्थापिल्ली नदरेक पडली. अगरबत्ती जळटाली आनी ताचो परमळ कुडात आस्पाविल्लो. मूर्तील्या गळ्यांत फुलांचो वळेसर, आनी पांयासर तांबडो मखमली कपडो पातळायिल्लो.

'जय श्री कृष्ण,... जय प्रभु मुरलीधर'' म्हणत तिवारीजीन त्या मूर्ती सामकार सरपटून लोटांगण घालें. फाटोफाट हांवेय तशेंच केलें. पडिल्लेकडच्यानच पाटलूनच्या बॉल्सांत हात घालून बाबून धाडिल्ले शंबर रुपये देवाले मूर्ती पांयासर दवरले. तेन्नाच तिवारीजीन तकली मातशीं वयर करून दोळ्या कोनश्यांतल्यान पळेयले. ताणी मनांतले मनांत अंदाज केल्लो आसच्याक फाव कितले पयशे आसात ते. उपरान्त ताणी मनस्पूर्वक भक्तीभावान आनी एक फावट देवाले नावान जयजयकार केलो, ''जय श्रीकृष्ण, जय मुरलीधर''.

ते उठले तशें हांवूय उठून उबो रावलो. ताणी म्हज्या हातापोशांत प्रसाद दवरलो. हांवे अजाणटेपणान विचारले, ''ह्या देवघराची पूजा आनी हेर कामां कोण सांबाळटा? तुमीच पुजारी काय म्हूण विचारतां.''

''पुजारी म्हणा, भगत म्हणा जायतर; जें कितें आसा तें सगळें ह्या प्रभु मुरलीधराले,'' तिवारीजी दोनूय हात जोडून म्हजे सामकार उबे राविल्ले.

हांवे बागवून निरोपाचो नमस्कार केलो तशें ते आनीकूय बागिल्ले दिसले.

थोडें वेळान आमी दोगूंय देवाकुडा भायर आयले; म्हळ्यार तांचे घराभायल्या रस्त्यार पावले म्हणपाचे. तांचो चेरो भक्तिभावान सामको उचांबळून आयिल्ल्यावरी दिसतालो. हांव रस्त्यावयल्यान पयस पावमेरेन पळयत राविल्लेशें दिसले.

दुसऱ्या दिसाकूच देवाले आज्ञेप्रमाण तिवारीजीन बाबूलें काम ताचे मनासारके केलें अशे ध्यानांत आयलें.

''जय श्रीकृष्ण; जय प्रभु मुरलीधर''.



# मारगांच्या मजगतीत

ही काणी वाचून घडये तुमी म्हाका अशेंच तरेच्या वा सारकेल्या कथानकाची चोरी करपी समजतले. कारण अशा प्रसंगाचे वर्णन हाचे पयली तुमी खंयतरी वाचलें आसच्याक फाव नाजाल्यार फुडारांत केन्नाय तुमका वाचूंक मेळपाची शक्यताय न्हयकारूंक येना. सांगपाचे म्हळ्यार भविश्यांत केन्नाय असली काणी वाचल्यार ताचे लेखकाक वा हाचेपयली तसलीच गजाल वाचनांत आयल्यार म्हजें सारक्या लेखकांक दयावंत जावन चोर समजनाकात. ही काणी विसकळावन सांगलें उपरान्त ताची कारणां ल्हवू ल्हवू तुमचें ध्यानांत आयले शिवाय रावचे नात.

हय, याद आयली. हवामानाचो म्होंरो जरा सुवाडदुवाड आशिल्लो. सकाळच्यानच शियां वारें घोंघावतालें. रातींचे तापमान सदांच उणे जायत आसलें. उत्तर भारतांतले उंचच उंच दोंगर मात्याचेर गेल्ले दोन दिसापसून चड बर्फ पडले. ते देकून थंड हवेची लाट हांगासर येवन पावली. शेतातली पांचवी चार भाजी इबाडून गेल्ली आसत अशी एक वायट कल्पना मन कोरांतून गेली. पाड पडू दी, म्हाका कितें ताचे. तर कसलें सांगतालो. एके मिलिटरीवाल्याकडसून विकत घेतिल्लो एक लांब कोट म्हजेकडेन आसा हे तुमका खबर उरचेना. आनी जेन्ना केन्ना शींय कडक पडटा तेन्ना हांव तो आंगार चडोवन फिरता. ताचेसावन म्हजें आजूबाजून थंडी घुवत आसता.

ते दिसाकूय हांवे तोच कोट आंगार घाल्लो. हांवे आनी म्हजो इश्ट गुप्ताजीन आमचो मित्र बन्सीनाथाले लग्नाक हजर रावपाची कार्यावळ आखिल्ली. चाळीस मैल पयस एके गांवांत लग्नकार्य आशिल्ल्यान फांतोडेकच थंडीत भायर सरिल्ले ते गुप्ताजीली 'डॉज कार' घेवनूच. आनी वताना ती बरेंतरेन मुखेल मारगार धांवली. परथून येताना घड्याळांत स वरां जाल्ली. हवेंतली थंडी सकाळचेवरीच कडाक्याची जाणवताली. अस्तमतेक सूर्याली किरणां कुपांचेर चादरीवरी पातळिल्ली. आमच्या मोटरीपसून शंबरेक पावलांचेर एक बायलमनीस अचानक धांवत येवन भररस्त्या मदोमद आडवी जाल्ली त्या सांज प्रकाशांत गुप्ताजीक दिसली. तशें ताणें म्हाका सांगले आनी सामकी तिचें लागसार आपणाली मोटरगाडी ताणें थांबयली.

मान भायर काडून गुप्ताजीन म्हळें, ''आगे, आगे पापिणी, जीव दिवक होच जागो मेळ्ळो? अवदसा खयची....' आनी गाळी दीत मोटरीचें दार उगडून ताकतिकेन आमी

दोगूंय भायर आयले.

आपणालो आत्महत्येचो यत्न अपेशी जाल्ल्यान ती सटसटीत उबी रावली, आनी आमका पळोवन दुसरेवटेन धांवली जाल्यार आमी दोगांनी तिका आडायली.

"कित्याक म्हूण हांगासर मरच्याक आयिल्ली?", गुप्ताजी.

"पिशार पडल्या काय म्हूण विचारता" हांवे निमगिले.

"थोडे जरी ध्यानांत आयलें नाशिल्ले जाल्यार गाडीसकयल मरताशिल्ली".

"खंय रावता तूं?"

तिणे आमच्या खंयच्याय प्रस्नाक जाप दिली ना. तिची नदर भुंयेर थिराविल्ली, आनी दुख्खाचे खर भाव तिच्या मुखामळार पातळिल्ले. दोळ्यांत दुकां भरिल्ली. अशा दशेंत दोनी हातानी तकली धरून थंयच तिणे जमिनीर बसकण मारली.

"खंय रावता तूं?" गुप्ताजीन तिडकेन परथून प्रस्न केलो, "चल पुलीस ठाण्यार".

तिणे रागारागान गुप्ताजीकडेन एक फावट पळेयले. उपरान्त पिशी सामकी किळांचली.

"म्हाका मरचे आसा; म्हाका मरुं दियात", अशे आड्डत आनी दोळे पुसत पुसत रस्त्याबगलेक वचून उबी रावली.

हांवे गुप्ताजीक म्हळें, "आरे तिका दटावनाका. कोणाक खबर खंयचे संकटांत आसा ती. आतां ती सामकी भियेल्ली आसा देखून कसली तकालस आसा तें मातशें तिचेंकडसून समजून घे."

"ते खरें. जाल्यार, आरे, ही पुलीस केस जातासली," गुप्ताजी म्हजेरच तापलो.

"राव मात्सो, तिजेकडेन म्हाका उलोंवकदी" आनी हांव तिचे लागसार गेलो.

"हं, सांग आता तुजें नांव गांव , आनी तू कसल्या संकश्टांत आसा." हांवे नमळायेन विचारलें. एक तरनाटी रडपीक तशें विचारप त्यावेळार योग्यच आशिल्लें; "जीव दिवचो वेळ येवं मेरेन अशें कितें काय घडलें म्हूण विचारता. बरे भशेन सांग पळोंवया".

ती रडतच आशिल्ली आनी आतां तिचो गळोय भरून आयिल्लो. हांवे पयलेचोच प्रस्न परथून विचारलो. गुप्ताजी बी आमचे लागसार आयलो. आनी ताणे म्हळें, " जे कितें आसा ते बेगिन सांग....."

"....आनी कित्याक म्हूण आत्महत्या करची आसली...", हांवे म्हजें वाक्य पुराय केलें.

"म्हाका म्हज्या मामालें घरां वचपाचे आसा".

"हे मोटारीसकयल आसा तुजें मामाले घर?" गुप्ताजीन खुबलिल्लोसो जावन म्हळें.

आतां मात ती व्हाडान हुंडके दीत रडूंक लागली. हांव चिंतूक लागलो, घडये हिचो मामा खरोच भायर पडिल्लो आसत आनी ताचे फाटोफाट हिणे आत्महत्येचे धाडस केले अशें

दिसता. तिका फुसलायत हांवे विचारले,-

"खंय आसा तुजें मामाले घर?"

"सिंगोली, ते गांव बरेच पयस आसा."

"तशें आसल्यार हांगा कित्याक जीव दिवंक आयल्या?" गुप्ताजीलो रागापारो उणो जालोनाशिल्लो.

उपरांत तकली बागवल्ली अवस्तेंतच ती उलोवपाक लागली "- म्हजें घरांत कोणीच नात. म्हजो धनी मरून तीन वरसां जाली. म्हज्या देराल्या घरांत रावताले जाल्यार ताणे लेगीत म्हाका घराभायर काडले. म्हजे लागी एक पैसोय ना. तीन दीस जाले हांव उपाशी आसा... सिंगोली गांव खूब पयस आसा...थंय वचू कशें..." वगैरे तिणे एकूच धपक्यांत सांगले.

सादीच पूण तांबडे थिबक्याची साडी ती न्हेशिल्ली. तांतून ती बरी उठून दिसताली. आंगाचो मूळ रंग गोरो आसच्याक फाव, जाल्यार आता सावळ्या रंगाची सया पातळिल्ली. एकवीस-बावीस वरसाची तरणीताठी बायल, आनी तिणें सांगिल्ले आयकून गुप्ताजीक तिचेंविशी कळवळो उप्रासलो. हेर कोणी आसताशिल्ले जाल्यार गजाल वेगळीतरेन घडताशिल्ली. गुप्ताजी म्हजें कांनांत फुतफुतलो, "हिका मजत करुंक जाय."

"हर तरेन मजत करूंक जाय", हांवे दोपटायले, "विधवा आसा बाबडी. जाल्यारुय रंग-रुपांत तशी दिसूंक काय वायट ना".

"खरेंच दुख्खी आसा बाबडी".

"आत्महत्येमेरेन तिचेर प्रसंग आयलो म्हणटकीर अजून वायट घडूंक शकता. ताचेसावन कशें काय मदत करची म्हूण विचारता?"

"हांवे मोटारीचो ब्रेक वेळेर दाबलो म्हूण बरें जाले. नाजाल्यार मरूनच वताशिल्ली". मातसो वेळ वोग्गी रावन गुप्ताजीन म्हळें, "कोणाले मरण चुकयलें म्हणटकीर आमचे कर्तव्य पुराय जालें म्हणप योग्य दिसना."

"समर्थ पुरुषांप्रमाण तिचे खातीर तू अजून बरेंच काय करुंक शकतलो."

"हिका शारांत घेवून वचूंया आनी खंयतरी बऱ्या नोकरीक लावंया."

"तुजेकडेनच कित्याक दवरून घेना?"

"हय, खय तरी तिची सोय करचीच पडटली. ती येवंक तयार जातली? तुका कितें दिसता?"

"विचारून तर पळय. पूण आरे, ती भुकेल्ली आसा. खावपा-पिवपाक जें कितें आसा ते तिका आदी दी खरें. अशा वेळार मेंदू काम करिना."

"ए बाय, आगे, आगे तुजें नांव कितें? हांगा यो, अशी हांगासर यो" गुप्ताजीन आपणाले

बोमलेपसून उलो मारलो. ते सरशी दुकां पुसत पुसत ती गुप्ताजील्या अगदी म्हज्यांत येवन रावली. ताणे कारीचो दरवाजो उगडलो. बन्सीनाथाल्या लग्ना वेळार भेट मेळिल्लो मिठायपुडो तिचें सामकार दवरलो आनी तिका उद्देशून म्हळें, ''गाडीत वचून बस आनी मिठाय खा.... दोन तीन दीसापसून तू उपाशी आसा न्हय?''

पयले मातशें ती अनमनली. उपरान्त कारिंत रिगून फाटल्या बसकेर निटायेन बसली. मिठायेचो तुकडो हाताबोटांत धरून उपकारान भरिल्याशा नदरेन ती गुप्ताजीकडेन पळेताली. गुप्ताजी मुमुरखो हांसलो; आनी म्हजेसर दिश्टी धुंवयली. हांवेय थारायले थोडे हासून दाखोवपाचे, गुप्ताजीन तिका म्हळें, ''चल आमच्या सांगातीन शारांत. थयसर तुका नोकरी दिता''. जाल्यार तिणें रोखडेच नाकारले. सारकें सारकें आग्रो करूनूय तिणें आपणालेच म्हणणे सोडले ना. तिचें एकूच सांगणे आशिल्लें ''म्हाका मामाले घरा वचपाचे आसा''.

गुप्ताजीलें सांगणे बरोबर आसलें. जसो दीर तसो मामा. तिचें सगळें जीवित पडून आसा. कामच करिनासतना कोण तिका पोसूंक शकतलो. आमचेबरोबर शारांत येवन राबपच तिका उपकारतले. एकवटेन ती गुप्ताजील्या विनंतीक पाळो दिनासली आनी दुसरेवटेन मिठाय खायतच सुटिल्ली. गुप्ताजी म्हजेकडेन त्रासिल्ल्या नदरेन परतें परतें पळेतालो आनी हांव रावलो मात गंभीर जावन- फकत ताचें दुख्ख समजून घेवंक यत्न करतालो. मिठाय पुराय खावन जाली म्हणटकीर ती आतां मातशीं सुखाविल्ली दिसली. अदींमदीं उलोवण्याचे वेळार तिणे आपलें नाव 'रुपा' म्हूण सांगिल्लें ते याद दवरलें. रुपा आतां आजूबाजूंक पळोवक लागली. मदेंच नदर थीट करून ती गुप्ताजीक नियाळटाली जशें काय ताणे मिठाय दिवन तिचेर खूब म्हळ्यार खूबच उपकार केल्यात.

गुप्ताजीन म्हाका आयकुंक येवपा सारके म्हळें, ''गाडी बेगीन चालू कर, ह्या अवदसेक मरचेच आसल्यार मरुंदी साली.'' हे आयकून ती अजून रडूंक लागली तशेंच गुप्ताच्या गाडीभायर येवंक नाकारत रावली. गुप्ताजील्या अशातरेचे भावविवश वागणुकीचेर हांव निरुत्तर आसलो. तो तिचे म्हज्यांत वचून बसलो आनी तिची दुकां निजाचे रुमालान पुसली. तिच्या फाटीर आनी खांद्यार थापटायल्लेशे केले. उपरान्त तिणे शारांत येवपाचे कितले योग्य आसा तेय समजायले आनी म्हळें, ''तू सुखांत रावतली.... तू शाणी आसा की पिशी तें तूच थारय....आमका आपणालीच मनशा म्हूण समज''...अशें आनीक कितें कितें. जाल्यार तिणे कसल्याकूच दाद दिली ना....आनी हुंडक्यावयर हुंडके दीत रावली.

हांवे गुप्ताजीक गाडी भायर यो म्हूण खुणयलें. गुप्ताजी ते बायलेसर बसून रावलो आनी अजापान म्हजेंकडेन पळयत म्हळें, ''कित्याक काय म्हणटा; कसलें खाशेले काम येवजलें.'' हांवे तिडकेन म्हळें, ''हांगा योतर खरो''.

गुप्ताजी कारीतल्यान भायर आयलो. म्हजेसर येतकीर हांवे समजायले, ''आरे इश्टा मामाकडेनच वचूंक ती हट धरून बसल्या जाल्यार थयंसर पावोवपाचे योग्य न्ही. तुजो घराचो नामो दी आनी चल पळोंवया. मामाकडेन लेगीत तिका त्रास जाल्यार ती आपशीच

तुजें घर सोदत येतली.''

काय वेळान ही म्हजी सुचोवणी गुप्तालें तकलेत रिगले म्हणपाचे. ताणे एक धा रुपयाची नोट काडून तिका दिली आनी निक्षून सांगले, ''आतां जीव दिवपाचें कारण ना, हे पयशे घे आनी मामाले घरां वचूं लाग. आनी थंय राबितो करचो नासल्यार सरळ उठून म्हज्या घरां यो. ह्या चिट्येत म्हजो पत्तो बरयला. त्या ठिकाणार यो आनी गुप्ताजी खंय रावतात म्हूण चवकशी कर. कोणीय सांगतले (साल्यान म्हजें नाव आनी घराचो पत्तो तिका दिलोच ना)

दोळे पुसत तिणे गाडी भायर पांय दवरलो. निरोपाचे वेळार बापूय स्वताल्या चलयेली कशी मोगान सांत्वणी करता ते तरेन ताणे तिच्या बागवल्ल्या मात्यावयल्यान हात भोंवडायलो, पोल्यार व्हांवपी दुकां पुसली. उपरान्त आपणाल्या गोपांत तिका सामावन घेतलें. मात्शे भावुकतायेन ताणे सांगले, ''हाचे मुखार मरणाचे विचार सोडून दी; केन्नाय संकटांत आसल्यार सरळ उठून म्हज्या घरा यो. मनीस मनशाखातीर कितें करूंक शकना?''

रोखड्यारोखडे घरा परथून वचपाची म्हज्या मनांत घालमेल कित्याक जाताली हे म्हाकाच कळनाशें जाल्ले. हांवे गुप्ताजीक म्हळें, ''पुरो जालें, आता तरी गाडी काड''

ताणे इंग्रेजीत जाप दिली, ''म्हाका भय दिसता ते म्हळ्यार आमी वचूं गेले उपरान्त ती परथून दुसऱ्या गाडी सकयल आत्महत्या करूंक सोदीत. देखून तिका आशावादी म्हळ्यार जिणेंत वायटांत लेगींत बरे पळोवपाची ओड अथवा बरें जातलें म्हणपाची आशा बाळगुपी वर्तणूक कशी आसता ते शिकयत आसा.''

''फटींगपणा करत राव म्हज्या भावा,'' हांवे म्हळें आनी एक लांब निश्वास सोडलो. आनी दुसरेवटेन पयस शेतांकडेन पळेयत थंयच्यान पाय काडलो. वीसेक मिनिट कारीपसून पैस अंतराचेर हांवे वेळ काडलो. तेदेवेळार म्हजें नदरेक जें काय पडलें ते वर्णूक म्हजी जीब अडखळटा. थंयसर एक सोशाची जोडी भियेवन धांवतना पळयली. भोंवतणी काळोख पातळिल्लो आनी कोल्यालीं हुयेल दीत रडप कानार आयले. ओलसार हवेंत थंडाय भरिल्ली.

काय वेळान हांव कार उबी केल्ल्या जागेर परथून आयलो. गुप्ताजीन विचारले, ''आरे केदोळमेरेन तुजी वाट पळयतां; असो कसो दिसनासो जालो?''

''अशेंच जरा पाय मेकळे करून आयलो.''

''ती आता पुरायतरेन खुशीत आसा'' ताणेय खुशीत येवन ताची चत्राय दिली.

''म्हाका खबर आशिल्ले. तू तिचे समाधान करतलो'', आनी हांवे रुपाकडेन नदर घुवयली. अजून मेरेन ती दुखखीच दिसताली. पूण तिची खंत मात वेगळीच दिसताली; हय खरेंच वेगळी.

रुपा गाडीतल्यान देवन आतां शेतांवटेन ल्हव ल्हव चलूंक लागली...आनी तो शेतावाठार वलांडलो की तिचो गांव येता. गुप्ताजीन म्हाका उद्देशून म्हळे, ''भियेवपाचे कायच कारण ना''. आनी तिका परथें आफोवन आनीक एक नोट तिचें हातार दवरली. बाभळी झाडां

आडोशांत आनी दूर मेरेनच्या भोवतणच्या शेतार पातळिल्ल्या काळखांत ती दिसनाशी जाली. गुप्ताजीन आपणाली गाडी सुरू केली.

म्हज्या घरापावमेरेन तो म्हाका एकूच सांगतालो, अशा तरेचे बायलांविशी समाजाचें कर्तव्य कसलें आसता ते. काय सुचोवणी हांवेबी केली आनी अशेतरेन प्रवासांतलो वेळ घालयलो.

ह्या घटिचारा उपरान्त बरोच काळ सरकलो. जेन्ना केन्ना म्हजी आनी गुप्ताजीली भेट घडटाली तेन्ना उलोवण्यांत तिचो विशय येतालो. पयलें जल्मांत तिचें काय देणे आपणाकडसून फारीक करचे बाकी आसूंक फाव अशें ताचे मत तो दरवेळां उलोवन दाखयतालो. आनी एकाद्रो तत्वगिन्यानासारको मळबाकडेन पळेयतालो जशें काय थंयसरच्यान एक नखेत्र निखळून सकयल धर्तरीर पडला.



बन्सीलालाले लग्न जावन आता आठ-धा म्हयने जाल्ले आसत. एके दिसा बन्सी म्हाका ताचे गांवात आनीक फावट ताचे कारीतल्यान घेवन वतालो. वाटे प्रवासांत म्हाका रुपाल्या नसतें उद्योगाची याद आयली. विचार केलो तो घटीचार सांगून ताका सादूर रावक सुचोवया, जाल्यार ते रावनच गेले. ताका कारण-बन्सीलाल म्हजेर सदाच एक आरोप करतालो. ताचे म्हणणे आसले, जेन्ना केन्ना हांव ताचे सांगातीन प्रवास करता तेन्ना म्हजी जिबेची टकळी सारकी चालू आसता आनी वयर नाकाशिल्लो विशय घोळेयत बसता.

आनी आमी आतां त्याच सुवातेर पावले; जय फांटी, रुपा जीव दिवंक म्हूण रस्त्यामजेगत न्हिदून आसली. आनी अचानक घडले तें सामके तशेंच. एक बायलमनीस शेतां वलांडून जोरजोरात धावत येवन काय खिणांतच गाडीमुखार येवन पडतली अशें म्हजें दिश्टीक पडले. गाडीभायर मान काडून बन्सीनाथ किळांचलो, ''एऽऽ खबरदार''. सामकार बन्सीलालाक पळोवन ती मातशी चरकली.

''हांगा तुजो धंदो चलपाचो ना. चल, वाट सोड. दुसऱ्या कारीची वाट पळय'' अशें सांगून बन्सीलालान कार मुखार व्हेली. हांवे मागशी पळोवन नियाळ्ळे. ती रुपाच आशिल्ली.

''हरामजादी, अजापाचो धंदो करता म्हणपाचे!''

''आरे बन्सीलाल, जालें कितें'', हांवे विचारले.

''ही बायल चालू गाडी सामकार अचकीत येता आनी आमचे कडून जबरीन पयशे वसूल करता. म्हणटा, ''हांव दुख्खी आसा, गाडीसकयल जीव दीन'' अशेंच कितें किते.''

फाटल्या प्रवासांत घडिल्ले सगळे घटिचाराचे चित्र हुबेहूब दोळ्यामुखार आयले. काय वेळान हांवे विचारले, ''पूण ही बायल असलो जिवावयलो खेळ कित्याक खेळटा?''

''पोटाखातीर हो सगळो बनाव... केन्ना सर्कस पळयला? ... जीव तळव्यार घेवन तारेवयली कसरत करतात ते... ही तर आनीकय सडसडीत.. दर दीसा एक ना एक नवो

कारवालो तिचें जाळ्यांत फसता..ट्रकवाले कितें कितें करतात ते विचार नाका.. बोंगो वाजोवन तिका आफोवन घेतात.''

वोग्गी  बसून हांवे सगळो प्रवास केलो.

घरां येवन हाचेर एक लेख वा कथा बरोंवया म्हूण चिंतूक लागलो. जाल्यार एके दुबावान मनांत घर केले. घडये दुसरो एकाद्रो लेखक त्याच मारगावेल्यान गेल्लो आसत, आनी ताणे म्हजे सारकेलोच मारगाच्या मजगतीत घडपी त्या घटिचाराचो अणभव घेतिल्लो आसल्यार ताचेर लिखाण करप थोडेच सोडून दीत? जाल्यार हांवे कोणाली चड पर्वा केली ना आनी काणी बरोवनच काडली.

एकूच सांगता - ही काणी तुमी तशी खंय वाचली आसल्यार, म्हाका 'कथाचोर' म्हूण समजनाकात, इतलेंच.



# देखदिणी तीन वानरां

एके उतार पिरायेच्या तत्वगिन्यानाक तीन तरणाटे चले आसले. तिगूय बरेच तवनास, चंचळ मनाचे आनी मस्ते आसले. बापायले म्हऱ्यांत राबुनूय तांचे आंगांत तत्वगिन्यानाची गंभीरताय जिरली नासली. आपणाले चले वायट वावरांत आनंद मानतात आनी तांचे तोंडात सतत गाळ्यो आसतात ते पळोवन तो तत्वगिन्यानी खंती पावतालो. एके दिसा ताणे तिगांकूय आपणासर आफयले आनी उपदेश केलो. ''तुमी माकडांवरी बेस बरें चंचळ, मस्ते आनी सैतानावरी जाल्यात. जाल्यार त्या तीन आदर्श वानरमूर्तीवरी देखदिणे मनीस घडताशिल्ले म्हणटकीत साबार जणांक खोस भोगतासली.''

पयलें तिगांकूय कायच ध्यानांत आयलेना. खंयचीच गजाल ते गंभीरतायेन केन्नाच घेनासलें म्हणा. जाल्यार निमाण्या चल्यान नवलायेन विचारले, ''ती तीन माकडां कशीं दिसतात ते दाखयात!''

तत्वगिन्यानी बापायन त्या तीन आदर्श माकडांली लाकडीबावली दाखयली - तांतून एकान कसलेच वायटाचे पळोवपाचे नजो म्हूण दोळे दोनी हातान बंद केल्ले, मदल्यान कायच वायट आयकुपाचे नजो म्हूण दोनी हाता तळटानी कान धांपून घेतिल्ले आनी तिसऱ्यान चुकून लेगीन वायट उलोवपाचे नजो म्हूण एका हाता पोशात वोठ बंद केल्ले. बापायन उपदेश केलो. - ''ह्या देखिवंत वानरावरी तुमची वागणूक दवरल्यार कितलें बरें जातासलें. म्हजो आत्मो धादोसकाय पावतासलो.''

तिगांय भावंडांनी बापायक प्रणाम करून थंयसरच्यान पाय काडलो. कोणी कोणाकडेन उलयलो ना. एके न्हय देगेर बसून उदकाल्हारांर फातोर मारत बरोच वेळ ते बसून रावले. निमाणे धाकट्या भावान म्हळें, ''बापायल्लया विनंतीक पाळो दिवन हाचे फुडल्या पिरायेत कसलेच विचार उलोवन दाखोवपाचो ना म्हूण हांवे आत्तांच थारायले.'' कितलेंय खरें आसूदी पूण वायटाचे अजाबात सांगपाचो ना. दुसऱ्या भावान म्हळें, ''आयजपसून भविशेंत कोणालेय कसलेच आयकुपाचो ना'' जाल्यार तिसऱ्या भावान नित्शयान सांगले, ''येवचे जिणेंत सदाच दोळे बंद करूनच जगांत वावरतलो''.

तिगांनीय देखदिणी वानरांवरी देखदिणे जावन जगचे थारावन न्हयेदेगेवेल्यान उठून सडसडीत बापायकडेन हाजिर जाले. प्रत्येकान आपापणालो नित्शय कळयलो आनी नोकरी

चाकरी सोदूंक रवाना जाले. तिगूंय चलता चलता एके तिट्यार येवन पावले. आपणाल्या प्रतिज्ञेप्रमाण जगपाचे परथे एक फावट आपापसांत थारावन ते तिगूंय भावंडा एकमेकालो निरोप घेवन तीन वाटानी रवाना जाले.

तत्वगिन्यानी बापायन बरोच काळ तांची परथून येवपाची वाट पळयली. जाल्यार तांची कायूच खबर मेळ्ळीना. तो दुख्खात दीस धुकळत रावलो. ग्रंथ वाचून ताका उबग आयली. एके दिसा ताका अचकीत तिडक मारली आनी ती तीन माकडाची बावली तांचे जागेवेल्यान कडसरायली. हाचेसावनूच म्हजें चले पयस गेले. उपरान्त तो चिंतूक लागलो, "आरे, म्हजें सांगणे प्रमाण धरून पयस गेल्ले चले हांगा आसतना इतले कांय वायट नाशिल्ले. जाल्यार म्हज्या उपदेश करपी संवयीन मात अशा दुराव्याक कारण जाले. ही उणविकाय आमच्या समाजाची." आनी अचकीत ताची बुद्द फिरली. तो जाय तागेल्या वायटाचे उलोंवक लागलो. उणविकाय दाखोंवक लागलो. सुरवेक तत्वगिन्यानी जे काय सांगतालो ताचेर सामान्य जन मान दिताले जाल्यार आतां ताचेर तुटून पडूक लागले. तत्वगिन्यानीन एक अणभव घेतलो - आयजच्या काळांत वावरपी मनीस आनी समाज हांचे संबदांविशी ताचे गिन्यानांत नवी भर पडली - म्हज्या चल्यांक तेविशी जाणीव आसली. खरें म्हळ्यार हालीच्या काळाक धरून ते तशे वायट नाशिल्ले हे ताचे ध्यानात आयले.

काय वर्सांउपरान्त तिगे भाव घरा परथून आयलें. तांचे रूप, आंगलोट आनी भेसांत फरक दिसलो. तशें हरशी कोणाक तांची वळख मेळची कठीण आसली. बापायल्या दोळ्यांक दुकां भरून आयली, ताणे म्हळें, "तुमी हाली कितें करतात, खंय रावतात?"

सगळ्यांत व्हड भावान सांगले, "दोळ्यानी कसलेच वायटाचे पळोवचो ना म्हूण सपूत घेतिल्लो ताका पाळो दिवन जगता. हांव सरकारी प्रचारक जाला. सदाच दोळे बंद करून भोंवता. कानार जे सरकारी हुकूम पडटात तेच तोंडान सांगून भौसांत प्रचार करीत आसता."

दुसऱ्यान सांगले, "हांव फुडारी जाला. कोणालीय विनंती वा वायटाचे आयकना, देशभर भोवंडी मारीत आसता, आनी तोंडान भाशण दिता."

निमाणे तिसऱ्यान सांगले, "तुमी दोगांयजणान बेस बरें केलें. तोंडान कसलेच वायटाचे उलोवपाचो ना म्हूण थारायिल्ले. आता हांव सरकारी सेवेत कारकून जाला. दोळ्यान पळयतां, कानान आयकता जाल्यार तोंडातल्यान 'ब्र' काडीना."



# रिकाम्या जागेची पुर्ती

- कवी, कवी. एके प्रश्नाची जाप दी. कवी जाल्ल्यान तुका कसलो फायदो जालो?

- म्हाका घरकान्न मेळ्ळी, - लग्नापयली ती म्हजेर भाळिल्ली. म्हजेकडेन तिचें लग्न जालें.

- घरकान्नीक कितें मेळ्ळें?

- हांव मेळ्ळो. तिचेर म्हजो मोग जडिल्लो. अजुनूय आसा. तिचे पसून भुरगीं मेळ्ळी.

- कवितेपसून तुका आनी कितें मेळ्ळें?

- नोकरी मेळ्ळी - कविता करतालो देखून.

- कवितांचे जालें कितें?

- तांचो एक झेलो केलो ....छापलो आनी उजवाडाक हाडलो.

- उपरान्त कितें घडले?

- ते झेले विकले; बक्षीस मेळ्ळें - मानमरातब मेळ्ळो - भासाभास करूंक मेळ्ळे.

- एकांदर सांगपाचे म्हळ्यार, कवितेक लागून - लग्नाची बायल मेळ्ळी -नोकरी पदरांत पडली-शाबासकी घेतली - आदर, दबाजो मेळ्ळो - भासाभास करूंक मेळ्ळे.

- आनी अदीक कितें मेळ्ळें?

- चर्चेत भाग घेवकं मेळ्ळे - खाशेल्या प्रसंगार म्हज्या नावाचो संबंद येवंक लागलो - म्हजी तोखणाय हेर लेखकांल्या लिखाणांतल्यान वाचूंक मेळ्ळी - फकत म्हजेरच बरयिल्ले खाशेले लेख प्रकाशीत जाले - एका नेमाळ्याचो संपादक जालो.

- ह्या सगळ्यांतल्यान आनी कितें फायदो जालो?

- एक व्हड नोकरी मेळ्ळी - आनी एक फावट व्हड बक्षीस मेळ्ळे - वेगवेगळ्या समितीचेर वांगडी जावंक मेळ्ळे - पयसो, मानसन्मान अजून चड मेळूंक लागलो - आकाशवाणी, दूरदर्शनाचेर, कार्यक्रम मेळ्ळे - आनी एक मोगिका जिणेंत आयली.

- कवी जाल्ल्यान पयली लग्नाची बायल मेळ्ळी आनी उपरान्त मोगिका मेळ्ळी?

- अकादमीचे अवॉर्ड मेळ्ळे - पुस्तक संपादनाचो वावर मेळ्ळो -साहित्यिक मेळाव्यांत

उलोंवक संद मेळ्ळी - पाठ्यपुस्तकांत सुवात मेळ्ळी -विश्‍वविद्यालयांत सोदकामा शिवाय 'डॉक्टरेट' पदवी पदरांत पडली - काम करिनासतना फेलोशिप (विद्यावेतन) मेळ्ळें.

- आनी कितें कितें मेळ्ळे?

- 'पद्मश्री' किताब मेळ्ळो - राज्यसभेचो सदस्य जालो - हेर भाशानी म्हज्या कवनांचे अणकार घडले ताचे सावन नाव जाले - आनीक बक्षीस मेळ्ळे - म्हजेर एक म्हायतीपट तयार जालो - म्हणटकूच हांव 'दर्शन दिवपी' योग्य जालो तशें निमंत्रण पात्रतेचो जालो - खासा अतिथी म्हूण आफोवन व्हरपी लायक जालो - लोकांनी जल्मदीस - बड्डे सुवाळो-मनोवपी इतलो नामनेचो जालो ताचे सावन अभिनंदनाक पात्र जालो - पुस्तकांचे अर्पण पत्रिकेर नांव येवपी इतलो आवडीचो जालो - भौसान पायापडपा इतलो म्हालगडो जालो - आशीर्वाद दिवपी इतलो जाण्टो जालो - आत्मचरित्र बरोवन उजवाडा हाडपी इतलो योग्यतायेचो जालो - हेर विश्वविद्यालयांवरवी मानाची पी.एच.डी. पदवी प्रदान करपी सारकेलो जालो - दीक्षांत समारंभात भाशण दिवपी इतलो मानमरातबाचो जालो - राष्ट्राक उद्देशून संदेश दिवपी इतलो म्हान फुडारी जालो - साठवर्सांपूर्ततायेचो सुवाळो मनोवपी भोमानेस्त जालो - परबी मेळूंक पात्र अशा पुस्तकांच्या लायकीचो जालो आनी दिसाळ्यांत फोटो छापून येवपी इतलो भौसाचो आवडीचो जालो.

- कवी जाल्लो कारणान हे सगळे, सगळे मेळ्ळे खरें...आनीकूय मेळ्ळें, युनिव्हर्सिटीत मानमरातबेची खुर्ची मेळ्ळी...ताचो पगार अदीक अवांतर येवणावळी आनी सवलत्यो मेळ्यो. भलायकी इबाडिल्ली वेळार केल्ल्या उपचाराचे पयशे मेळ्ळे - उत्तम तरेचो इलाज मेळ्ळो - म्हज्या भुरग्यांक उत्तम पयकी नोकरी मेळ्ळयो - ते कारणान श्रीमंत, बऱ्या घराण्यांतल्यो सुनो मेळ्ळयो - म्हज्या चलियेक बरो घोव मेळ्ळो - वेळेवेळेचेर पयशा आडक्याची मजत मेळ्ळी; थैली मेळ्ळी - रेल्वेचो फुकट पास पदरांत पडलो. ताकालागून संबंद देशांत कोनशाकोनशानी भोवंडी मारली - परदेशानी प्रवास घडलो तेन्ना तरेकवाराचो सोरो पिवंक मेळ्ळो - रुचकर खाणे मेळ्ळे - दोळ्यांत सुखदिणी देखावे पळोंवक भाग्यांत आयले - म्हजें भवतणे गर्दी-खेट जमोंवक जमले - मैफिलीक हजर रावंक मेळ्ळे - लोकानी म्हजेविशी केल्ली तोखणाय आयकूंक मेळ्ळी - मनाक सुखावपी हांयसाळेंत भाग घेवंक मेळ्ळें - पदां, गाणी गुणगुणपाक मेळ्ळें - रुचकर पानविडे खावक मेळ्ळे - सोबीत चेरे धिटायेन नदरलावन पळोंवक मेळ्ळे - काय थोडी नवी गजाली निर्मणी केल्ल्याचे दाखोंवक संद मेळ्ळी - गळ्यांत वळेसर घालून मिरोंवक मेळ्ळे - आरामात बसून भोवंक मोटारगाडी मेळ्ळी - फकाणा मारपाक समसमा तशें तोंडपुजें बी मेळ्ळे - छापून उजवाडा हाडूंक दिसाळें मेळ्ळे.

- जिणेंत यश मेळ्ळे - अहंकार गाजोंवक मेळ्ळो - धोंग करूंक जमले - भासाभास करुंक मेळ्ळे - मूल्यांकन तशें पुनर्मूल्यांकन करूंक मेळ्ळे - चिकित्साय करूंक मेळ्ळी - टिका करूंक मेळ्ळी. हे सगळे मुळांत हांव एक कवी आसलो ताका लागून घडत गेले.

- खरेंच, कवी आशिल्ल्या निमित्तान जायते पदरांत पडले - अधिकाराचो दबाजो, मानसन्मान, पैसो, यश, प्रवास, एकांदर उत्तम जिणे. आतां एके प्रश्नाची जाप जाय, ''कवी, न अंनमानता ह्या सगळ्यांतल्यान खोशी मेळ्ळी?''

- ''मेळ्ळी. जाय ती खोशी मेळ्ळी!''

- आतां अखेरचो प्रस्न - ''कवी जाल्ल्यान जगांतली जायती भौतिक सुखां मेळ्ळी, जाल्यार खरें सांग कविता, म्हळ्यार काव्याची अनुभूती मेळ्ळी?''

- कवी वोग्गी रावलो.

- कवी आशिल्ल्यान जगांतलें जें जाय ते मेळ्ळें. दुसरे फावट तोच प्रस्न विचारतां, - ''कविता-काव्याची अनुभूति मेळ्ळी?''

- कविता मेळ्ळी ना.

- कविता वा काव्याची अनुभूति मेळ्ळीना आनी तू उपाट धादोसकाय पावला. एक जाणून घेवपाची इत्सा जाल्या. तू खंयच्या भाशेचो कवी जाका कविता मेळ्ळी बगर जगांतले सगळें कितें मेळ्ळें!! जाका कवितेतल्यान सगळी कितें खोशी मेळूंक जाय ताकाच कविता मेळ्ळीना. अजापाचे म्हणपाचे! जाका सगळें कितें मेळळा आनी अजून कविता बरोवपाच्यो बाकी आसात - जो कवितेशिवाय कवी घडला आनी ताका कवी म्हणटात कारण ताचे लागी अधिकाराचो दबाजो आसा, मोगिका आसा, पैसो आडको आसा, मान मरातब आसा ताचे नावाची चर्चा जायत आसा आनीक कितें कितें,....जाल्यार कविता मातय ना, अशे आसुनूय तू कवी आसा !!

- म्हजी जाणून घेवपी इत्सा म्हाका सतत सतायत आसा. तुमी खंयच्या भाशेंत बरोवपी कवी आसात काय म्हूण विचारतां?

- वयली रिकामी सुवात भरुन काडात. धा गूण मेळटले.

- हांव राष्ट्रभाषा हिंदी भाशेचो कवी आसा. हांव स्वताच वयल्या रिकाम्या जागेची पुर्ती करपी असो लायक आसा.

- जाप सामकी ज्युस्ताजुस्त दिली......... चला तर वीस गूण दिले.



# शरमेल्लो




ते स्वताचेरच शरमेल्ले जावन बसल्यात अशे तांचे प्रायव्हेट सेक्रेटरीन (म्हळ्यार चमच्यान) म्हाका हळूच कानांत सांगले. जाल्यार म्हजें खरेंच जरूरीचे काम आसल्यार भितर वचून मेळपाक म्हाका कसलेंच आडमेळें नात अशीय सुलूस दिली. ताणे अजून एक शिटकावणी दिली - जेन्ना केन्ना ते स्वताच लजेन खंती जावन बसतात तेन्ना कोणेय जांव तांची मनाची शांतताय इबाडिल्ली तांका आवडना.

''खयंच्या गजालिची तांका लज दिसली? '' हांवे चवकशी केली.

''खबर ना. खंयचे तरी कारण घडिल्ले आसूंक फाव. विद्यार्थ्यांल्या बेशिस्तीची तांका काल लज दिसली. आनी ते खंती पावले''.

''म्हाका मुजरत मेळपाचे आसा. हांव एक लेखक आनी म्हाका दिसता ह्या वेळेर तांका जायत्या विशयांचेर भासाभास करूंक आवडटले!''

''जरूर भेट घेयात. ते जेन्ना केन्ना खंती जावन बसतात त्या त्या वेळार कवी जनाली याद काडीत आसतात. तीन चार दिसापयली एक कवी भेटून गेलो. तो म्हऱ्यांत बसून आसामेरेन ते शरमेल्ले जावन रावलें.''

हांव भौमानेस्त मंत्र्याल्या कक्षांत घुसलो. पळयता तर ते खादीं वस्त्रान लपेटिल्ल्या सोफाचेर आंगार खादी कपडे घालून दोनी पांय आंखडून बशिल्ले. तांची मान आनी दोनी हात सदळ पडिल्ले. म्हाक मात ते सामके हुमकळिल्लेवरी दिसताले. हांवे नमळायेन नमस्कार केलो. कसलीच जाप मेळ्ळी ना; म्हाका बसूंक बी सांगले ना. जाल्यार हांवच जावन लागसार वचून बसलो.

''हूँ....'' ताणी हुंकार दिलो.

''लज दिसपाक जाय ती तुमचें दुस्मानांक. तुमी कित्याक म्हूण लजेन खंती जावन बसल्यात'', हांवे सुरुवात केली.

''आरे बाबूल्या तशें ना तें. म्हाकाच लजिल्लेंशे जालां''

''तुमी खंयच्या गजालीर अशें मान सकयल घालून बसल्यात?'' हांवे धिटायेन विचारले.

ते अजाप पावले. खंयच्या गजालेर आपूण लजिश्ट जाला ताची याद करूंक लागले.

जाल्यार कायच उगडास जालो ना. गेल्ले एकदोन तास ते सतत खंती रावन, निर्शेल्लेशें जावन पडिल्ले. ते देखून तांका आपूण तूर्ताक खंयचे कारणाक लागून लजेक रेवडावन बसल्यात ते नकळशें जाल्ले. जाल्यार मंत्री आशिल्ल्यान अशें तरेन विसरून गेल्यार ह्या देशाची कामां कशीं काय जातलीं? ताणी स्वताली दिसपटी उगडली आनी ताची पानां परतवूंक लागले.

"आयज तारीख खंयची" ताणी विचारले.

"णव...."

"आक्टोबर म्हयनो, बरोबर? हय, आक्टोबरुच. आरे, गेल्या आठवड्यांतच तर म्हात्मा गांधीजीलो जल्मदिसाचो सुवाळो साजरो केल्लो न्हय?" ताणी दिसपटीत पळोवन सांगले, "आयज म्हाका औरंगाबादेतल्या घटिचाराचेर लज दिसता". उपरान्त वितरागान ताणी म्हळें, "आज काल यादी रावनाशें जाला."

"वावरांबी अदीक वाडतूच आसात," हांवेय मातसो नेट लायलो.

"व्हय तर... साबार कामा पडून आसात. जाल्यारूय वेळांत वेळ काडून एक दोन तास शरमेल्लो जावन मान सकयल घालून बसचे पडटा."

"तुमका अहमदाबादेंतल्या गोंदळाचेर लज दिसली काय ना?"

"आरे, तुका म्हूण सांगता. अहमदाबादच्या गजालीर दोन तीन दीस लजेंन खंतीत काडले. फाटलें कांय दीस कसलेंच खंय वायटाचे घडले ना ते देखून शरमेल्लो जावंक कांयच विशय मेळ्ळो ना. तेन्ना परथें परथें अहमदाबादेचो घटिचार लजून खंती रांवक मुखेल जालो. पूण अशे तरेन कितले दीस काडयेत होय एक प्रस्न सतायता. खरें सांगता, सद्यांक एक तरेचो वितराग आयला."

"खरें आसा ते..." हांवे म्हळें.

"कितेंय करुंक पावना. आमचो देश इतलो विशाल आसा, हांगा इतलें प्रस्न - समस्या, संकश्टां सदाच उप्रासत आसतात, देखून अशी दशा जाल्या. काय वेळा एके दिसांत दोन तीन पेंच प्रसंग वा उपाद्रे घडतात ताचे सावन फुडाऱ्यांलीं जापसालदारकी वाडटच आसात. आनी घडिल्ल्या वायटाचेर शरमेल्लो जावन रावचे शिवाय दुसरो उपाव ना."

"म्हजें म्हणणे इतलेंच.... तुमी तुमचे वाठारापुरतेच लजिश्ट जावन खंती रावपाचे आंगार घेयात. हेर कोण मंत्र्याल्या इबडिल्या कामाचेर लज दाखवप तुमका कित्याक काय गरज आसा म्हूण विचारता? कॅबिनेटांत दरेकाक वेगवेगळे विभाग वाटून दिल्यात न्हय?" हांवे सुचयले.

"बरोबर सांगले.... जाल्यार?" ते उलोवचे थांबले.

"जशें रब्बात संमेलनाक आमका आफयले ना. हे खरें म्हळ्यार लज्जास्पद म्हणपाचे. म्हजें म्हणणे इतलेच.... ताचे खातीर विदेश विभागाचे मंत्र्याक लज दिसूंक जाय. तुमी कित्याक म्हूण स्वत:लो किमती वेळ इबाडटात?"

“तू सांगता तेंय खरेंच... जाल्यार म्हज्या भावा, हांव ऑल इंडियाचो फुडारी आसा. म्हजे पसून लोक कांय आस्त बाळगून आसात. म्हजीय काय कर्तव्या आसात. फक्त म्हजें विभागापुरतेच पळोवन कशें काय चलतले?”

“अशे तरेन तुमची स्वताची भलायकी इबाडटली !”

“देशाखातीर जीवित सोंपयले आनी तू म्हजे भलायकी विशी हुसको करता?”

“तुमचे मत म्हाका मान्य ना... तुमचेकडेन दोन तीन विभाग आसात. तांतूतय तुमी वयल्या पांवड्यावेले फुडारी आसात. लजेविशी एक सीमा आसा, ताका एक स्तर आसा. जायत्या गजालीची तुमका लज दिसूंक जाय अशांतले ना. देखीक दिवचेच म्हळ्यार - तुमचेकडेन कृषी विभाग आसा. आनी देशांत पीक कमी कमी जातेर आसा - परदेशांतल्यान धान्य आयात करचे पडटा -फकत ह्या आनी ह्याच गजालीचेर तुमका लज दिसूंक जाय.”

“म्हजेकडेन कृषी विभाग ना होच विचार आदी मनांत सुदारून घे. परदेशांतल्यान धान्य आयात करचे पडटा हाचेर म्हाका कसलीच लज दिसना. तो एक सरकारी नीतीचो भाग आसा. तांतूत लज ती कसली” मंत्री गरजले.

ते तिडकल्ले पळोवन हांवे मातशें नमळायेन घेवचें थारायले. जाल्यार चर्चेतलो मुखेल विशय कडसरायलो ना. हांवे म्हळें, “मंत्री महोदय, आमच्या देशांत परक्या देशांतल्यान धान आयात करप ही कितली शरमेची बाब. जाय ते फुडारी लोक ती गजाल आपापल्या भाषणांतल्यान वा उलोवणेंतल्यान उकते करून सांगताना हांवे खूब वेळां आयकला.”

ते जोरजोरांत हांसूक लागले.

“हे पळय, लज आनी लजिशट रावपांत खूब फरक आसा. कांय गजाली सांगता सांगता फुडारीजन भौसाक लजूंक लायतात -उदाहरणार्थ - जशें धान्य. चड उगविल्लें ना म्हूण आनी सामके ताचे उरफाटें पीक कमी काडले म्हूण अथवा भुरगी जास्त जल्माक घाली म्हूण. काय लोकाल्या करणीन आमचे सारकेल्या फुडाऱ्यांक लजेन मान सकयल घालची पडटा. केन्ना केन्ना भौसाक आनी फुडाऱ्यांक दोगांकूय लजेन वेटाळिल्ले आसता.”

“तें कशें काय”, हांवे नकळ जावन विचारले.

“जशें म्हात्मा बापूजीन सांगिल्ली वाट ना आपणावप. हाचेर लोक आरोप करतात ते म्हळ्यार फुडाऱ्यांक लज दिसूंक जाय. जाल्यार आमी लोकांक हिणयतात ते तांका भीडमुर्वत आसूंक जाय. खरें म्हळ्यार दोगांल्यो मानो शरमेन बागवल्ल्यो आसतात. अशेतरेन सगळो देश लजेन आस्पावून गेल्लो आसता. निमाणे देश-देश म्हळ्यार कितें? भौस आनी फुडारी मेळूनच देश जाता न्हय?”

“कितलें मोलादीक तुमचें सांगणे. आरे व्वा, नेता आनी जनता एकवटले म्हणटकीर देश जातां”, उपरांत मनातूंच म्हळें “व्वा व्वा. कितली तोखणाय करूं म्हाराजा!”

“आनी भौस हो कितें आसता? खऱ्यानी सांगपाचे म्हळ्यार मुळावेंत फुडारीकूच देश

म्हणपाचे. जेन्ना फुडारी लजेन खंती पावता तेन्ना आख्ख्या देशाक शरमेन मान सकयल घालची पडटा.''

''.....म्हजें एक सांगणे आसा''.

''आरे सांग, न आडखळटा सांग.''

''दर दिसापरस तुमी आठवड्यांतल्यान एक दीस लजेन खंती जांवक थारायात. ते दिसा तुमी राष्ट्रीय, प्रांतीय, स्थानीक आनी तुमच्या पार्टीभितल्ले वादावादीक घेवन जितलें म्हूण शरमेल्ले जावंक जाय ते वर्तणुकेत दाखयात. येवजणी कशी आसा? दर दिसान तकलेक अजिबात तकालस ना.'' म्हजें विचार स्पश्ट मांडले.

''हाचे पयली हांव अशेंच करतालो. फकत आयतारा दिसा मात हांव लजेन खंती जावन रावतालो. आयताराक चड लोक भेट घेवंक येताले. हांव तांचे कडेन उलयतासतना शरमेन जाल्ल्या खंतीची उक्तावणी करतालो. लोकांक कशें उचांबळून येतालें. हांव खरोच राष्ट्रीय पांवड्यावेलो नेता आसा म्हूण सगळेच तोखणाय करताले. ताका कारण हांव जायते वायटाचे गजालीर, प्रस्नाचेर, घटिचाराचेर म्हाका लज दिसत आसून म्हजें मन कशें कोरांतून गेल्लेविशी कळवळून सांगतालो आनी सगळो दीस लजेंतच बुडून वतालो.''

''हांतून कायच दुबाव ना'' हांवे तांका उबारी दिली.

''हेर फुडाऱ्यांक फटींग लोक समज. निर्लज्ज खंयचे,'' रागान तापून ताणी म्हळें, ''दरेक वायट गजालीर हांव जितलो लज्जित जाता ताचे एकचतुर्थांश लजेकूय हे फुडारी थारो दिनात. अशांक कितें म्हणपाचे तें तूच सांग.''

''तुमचे सांगातान तांची बराबरी जातलीच कशी? तुमी लजेंत बुडून मरतात. जाल्यार ताची मातय चिंता हे करिनात. खरेंच ही शरमेची बाब आसा.''

''तू लजेक मानता?''

''हयतर....'' हांवे नेटान सांगले.

''तुजें कसलेंय काम आसल्यार सांग. हांवे ते केलेच म्हूण समज.''

''सद्यांक कायच ना. जाल्यार म्हाका एक सांगात - आठवड्यांतलो एक दीस लजेन खंती जावन रावपाचे कित्याक बंद केले?''

ते मातशे गंभीर जाले. ताणी पाख्यांवयल्या पंख्याचेर नदर लायली. मान सांभाळत ताणी सांगले, ''अशें पळय,....आमचो देश सतत उदरगती करत आसा. ताका लागून जायती संकश्टां येतेर आसतात. एकाद्रो फुडारी फकत एकाद्रया दिसा शरमेन त्रासिल्लो जावन रावतलो आनी बाकीचे दिसानी आरामांत वा सुसेगाद पडून रावतलो असो काळ केन्नाच मागशी पडला. आतां घडणुक्यो सारक्यो बदलत आसतात. हालीसर साबारजण उमेद वा आस्त बाळगून आसतात. ते म्हळ्यार फुडारी लोकांनी जास्तीत जास्त शरमेन खंती जावन पिरंगप. आनी तशें आमका मुजरत करचे पडटा.''

''खंय मेरेन... हांव विचारता खंय मेरेन काय म्हूण? आरे, देशाचे अशा दशेचेर खंय मेरेन तुमी शरमेल्ले जावन रावतले, मंत्रीसायबा. कितेंय उपाय करात, येवजणी थारायात वा पक्को निर्णय घेयात आनी पटापट हातपाय चलयात. म्हाका तर तुमच्या भलायकीची चिंता लागून रावल्या. चुकून तुमच्या काळजार घालो पडूंक नजो इतलेच.''

''ह्या कुडीन जीवितभर....खरें सांगता.... आयजमेरेन जाय थंय भोवंडी मारल्या. सगळो देश, परदेश भोवन आयला. एक भोवंडी काळजारूय पडूंदी'' इतले म्हणटसर ते तकली बागोवन गळसणिल्लेवरी जावन वोग्गी बसले.

''ना, ना, हांव अशें जांवक दिवचोना. तुमी कितें ते रोखडे थारायात. पार्टीत एकवट करात, कठीण प्रस्नांची, हेर कुवाड्यांची सोडवणूक करात आनी व्हड पावलां उखलात''

''हांव शरमेल्लो जाला....'

''फकत अशें म्हणून कामा जायनात. कितें गरजेचें आसा ते आत्तां करात.''

''म्हाका लजेन पिडला अशांत आनी कितें करूं?'' अशें धेंगसत ताणी म्हळें, ''पार्टीत एकता ना. प्रस्नाची उकल जायना, कडक पावलां उखलूंक आमका जमना, आमी कायच करूंक शकनात, हाचेर म्हाका म्हजीच लज दिसता. अशें आसताना म्हजेकडसून कसली आस्त बाळगिता काय म्हूण विचारता?'' हे सांगतनाचो तांचो आवाज बरो व्हड जाल्लो. ते आयकून ताचो चमचो - तुस्त करपी मनीस- जो म्हाका पयले फावट दरवट्यार मेळिल्लो - धांवतच भितर रिगलो. ताणे म्हज्या दोनी भुजांक धरून ओडत म्हळें, ''उठा, उठा हांगाथान, भायर वचात; तुमी आमच्या मंत्र्यांक विनाकारण उचांबळीत करीत आसात. ही वेळ तांची लजेन खंती जावपाची, ताचे खातीर तांका शांततेची गरज आसा.''

''तुमी कोण हांगाचे?''

''हांव मंत्रीजीलो चमचो - प्रायव्हेट सेक्रटरी, कळ्ळें!''

''ना सायबा, हांवे तांचे कामांत आडमेळे घालें नात'' - अशें म्हणत फुडाऱ्याले दिकेन पळयत तांका उद्देशून म्हळें, ''आयएम सॉरी, मंत्रीजी; म्हाका माफ करात. तुमका तकालस दिवपाची अजिबात इत्सा नासलीं. आतां हांवूच शरमेल्लो जाला.''

''आरे म्हज्या - हाचेपसून म्हाका कसलोच त्रास जांवक ना. बसू दी ताका म्हज्या म्हऱ्यांत,'' मंत्री महोदयान चमच्याक फर्मायले. म्हजेकडेन दोळे फुलोवन पळयत तो थंयसरच्यान -खोलेभायर गेलो. आतां थोडो वेळ थंय शांतताय पातळली. उपरांत ताणी म्हळें, ''तुकाय केन्ना लज दिसता काय ना?''

''हय तर, लज दिसता. काय वायट घडणुकी पळोवन, वा तसल्या वायटाचे आयकून म्हजी तकली लजेन बागवता. देखीक दिवपाचेंच म्हळ्यार - आमचे सुस्त जांच्याकडसून कायच कामा घडनात अशा फुडारी मंडळींक पळोवन. आनी मजेचे म्हळ्यार आमीच तांका प्रत्येक वेंचणुकेत आमची कामा करतले ह्या विश्वासान वेंचून धाडटात.''

"तुंवे बरोबर सांगले. तो आयचो राष्ट्रीय गुण आसा. तो आमचो धर्म आसा. हाचेर प्रत्येक भारतवासीयांक शरमेल्लो जांवक जाय - तेंच खरें."

ताणीं परथून आपली मान हुमकळायलीवरी बागवयली. आंवळून आयिल्लो पाय अजून आखडून घेतलो आनी एक बऱ्या नेत्या प्रमाण भिडेस्त जावन ल्हव ल्हव दोळे धांपून ते सोफ्याचेर पडून रावले.



# संकश्ट - घातमारीचे

इल्लेंशेंच कारण पुरो जालें आनी दोगेय झुजूंक लागले.

रामेश्वरान म्हळें, ''x x x, तू स्वताक समजतां तरी कोण? एका खिणांत तुजी मान मोडून हातांत दीन. हांगाथान भायर सरप कठीण जातलें! चल फूट.''

''पुरों जालें, तुजें सारकेलें खूब पळयल्यात. जे मनांत येता ते करून घे. आफोवन हाड जाय ते आपल्या मनशांक. हरामी सगळे..... एकजात नालायक.'' गणपतान जाप दिली.

''तोंड सांबाळून उलय. ना जाल्यार जीब कापून उडयन. हरामी तुजो बापूय.''

''बापायले नांव काडल्यार तकली फोडून दवरीन...'' अशें म्हणटा म्हणटा गणपत मारामारीक चड हातघाईर आयलो. जाल्यार आजुबाजूच्या लोकांनी मदीं पडून दोगांकूय आवर घालो. धरिल्ल्यालो हात बाजून काडत तो रागारागान आड्डलो, ''तुमी मदीं मदी येव नाकात. आजूच सांगून दवरता ह्या काण्याक, ताच्या हाडांची पूड करून दाखयता, कशें ते पळेयात.''

रामेश्वर मात्सो मोटों आंगलटीचो, केस भरपूर लांब वाडिल्ले पूण ताचे तिरशें दोळें मात लिकलिकताले. आपणांक 'काणो' म्हळ्ळें आयकून तो आनिकूय तिडकलो, ''व्वारे बारक्या....पातळ सालीचो....तोडांवयलो मूस उडना आनी म्हज्या हाडांची पूड करपाची भाशा करता?''

''आऽरे x x x, आत्तां तुजें मढें मसणांत व्हरन घालता की ना पळय''. गणपतान म्हळें.

''तुजें रगत पिवन दाखयता,'' रामेश्वराले दोळे तारवटिल्ले आनी तो तरातरा गणपताल्या आंगार धावन गेलो.

हे मेरेन थंय भोंवतणें भौस जमिल्लो. दोगांलो एकमेकांक व्हड आवाजांत दिवपी गाळींचो शिवंर आयकून गदळ वाडलो. देखून दोगूंय जणांनी हात फाटल्यान घेतलो. जाल्यार तोंडान सवप चालूच रावले. मदींच एक घोड्यातांगों आयलो. ताका लागून रस्त्या मदलो गर्दीचो आकार तुटलो. एकवटेन लोकानी तिरळ्याक समजायले, ''आरे भावा, मातशें शांततायेन घे, बऱ्या लोकांनी अशें वागप सोबना.'' दुसरेवटेन पानवाल्यान बारक्यालें

गळ्यांत हात घालून दोन म्होवी उतरां सांगली, ''आरे पाप्या, अशें तरेन झुजून कोणालो फायदो जाला? तुका कश्ट जातले आनी तोय त्रासांत पडटलो. सगळेंच उपकारनाशिल्लें अशें.'' गणपतान रुमालान आपल्या कुडीवयली हूम पुसली.

बरोच वेळ रामेश्वर आनी गणपत एकमेकाकडेन पळयत गुरगुरत रावले. उपरान्त लोकांनी तांका आपापल्या घरां वचूंक उपदेश केलो. रामेश्वर थंयसरच्यान पयलो भायर सरलो. पूण वतसतना परथें मागशी फिरून ताणें म्हळें, ''x x x हाचे मुखार तुका जिवंत सोडल्यार म्हजें नांव रामेश्वर न्हय.'' ते आयकून गणपतान त्याच आवजात आव्हान दिले,''x x x तुजें कुडकेकुडके करून ना उडयल्यार हांवूय आवयलो पूत न्हय; याद दवर.'' आनी वोग्गी जालो. भौस सगळ्यावटेन पांगलो.

गणपत घरां आयलो आनी न्हिदून रावलो. भर दनपाराची वेळ. ते वेळार गणपत आपणाले घरकान्नेकडेन फकाणा मारत बसपी आनी धाकट्या चल्याकडेन खेळपी. ताचे बायलेन ताका जागोवपाचो यत्न केलो तशें तो तिचेर धेंगशेलो. ती बाबडी वोग्गी रावली. तिचो ल्हान चलो ताच्या आंगार पडून खेळूंक लागलो. जाल्यार गणपतान ताकाय एक थापट मारले. तो रडटारडटा ताचे पसून पयस गेलो. निमाणे ताच्या बायलेक वोग्गी रावंक जालेना. ताच्या लागसार येवन ती आड्डली, ''अशें जालें तरी कितें? म्हाका सांगपाचे सारकेलें ना काय म्हणटा?''

गणपत न्हिदूनच रावलो. पडिल्लेकडच्यानूच ताणे म्हळें, ''कायच जाले ना''.

''अशें कशें म्हणटात, तुमका म्हजी सोपूत.'' अशें लाडें लाडें म्हणत ती ताच्या म्हऱ्यांत येवन बसली. आनी ताचे फाटीर आनी केसावयल्यान हात भोंवडायत रावली.

गणपतान कूस बदलली. चेऱ्यार केस पातळिल्ले. बायलेल्या दोळ्यांत भय एकवटिल्ले ताणे पळेंले. आनी हरशेंच ताणे म्हळें, ''उदक पिवंक दी''.

मडकेंत पेलो बुडयिल्ल्याचो 'डुबुक्' असो आवाज आयलो, आनी दोन खिणांतच घरकान्नीन उदका पेलो ताचे हातांत दिलो.

''मारामारी जाली, हरामी x x x''

''कोणा सांगात...?''

''रामेश्वरा वांगडा.''

''तेच विशयार?''

''हय...''

''उपरान्त....''

''सांगतालो, म्हका जिवंत दवरल्यार आपलें नांव रामेश्वर न्हय म्हूण.''

''बरें, हांतूत तुमचो गुन्याव तो कसलो काय म्हणटा?''

‘‘देवाकूच खबर’’.. गणपतान पाख्याकडेन दाखयत हात वयर केलो. ताचो उतरिल्लो चेरो बायल पळयतूच रावली. तिणे परथून विचारलें, ‘‘अजून उदक जाय?’’

‘‘नाका....’’

ती उठली आनी धाकल्या देराक आपल्या भावाक आफयला म्हूण निरोप दिवंक धांवडायलो. तिचो भाव भांगर आनी रुप्याचे दागिने घाणवटाक घेवन सराफाचो वेव्हार करपी. रोखडेच तो भाड्याचे सायकलीर बसून भयणील्या घरा पावलो. जाल्लो घटिचार सगळो भयणीन सांगलो, आनी ताणे कान दिवन आयकलो. तकलेवयली निसरिल्ली तोपी ताणे एक फावट नीट बसयली आनी भितल्लें कुडांत वचून भावोजीक नमस्कार करीत म्हळें, ‘‘जाले कितें भावोजी?’’

‘‘रामेश्वरान दमदाटी केल्या.’’ गणपतान सरळ सरळ सांगले.

‘‘त्या काण्यान.....?’’

‘‘व्हय....’’

‘‘तुकां जिवें मारूक उठला म्हूण आयकलें.’’

‘‘व्हय...तेंय खरेच.’’

‘‘बरोच हरामी दिसता’’, गणपताल्या मेवण्यान जनेलांतल्यान भायर थुकेची एक पिचकारी मारली, ‘‘हांव ताका कितेक वरसांपसून वळखतां,’’ ताणे नदर सकयल केली आनी मातशें चिंतून मुखार म्हळें, ‘‘जाल्यार भियेवपाचे मातूय कारण ना. आमचेय अशें काय लोक आसात... एक इशारत पुरो आनी दुसऱ्या दिसाकूच ताचे तकलेर मलमपट्टी दिसतली.’’

गणपताक थोडी आशा दिसली. अजापाचे नदरेन तो आपल्या मेवण्यांक नियाळत रावलो.

‘‘नाजाल्यार अशें कित्याक करनयो? हांगाथान आनीक खंय तरी वचूं गेल्यार चड उपकारतलें...... सगळेच हुसक्यांतल्यान मेकळे कशें,’’ मेवण्यान धीर दिलो.

‘‘हाचो अर्थ कितें?’’, गणपतान विचारले.

‘‘अशें पळय, तू काय दिसाखातीर इंदौर सोडून वच. आमी ताका खलास करपाची येवजणी करूं. ताचे आदीच जर ताणे तुका मारून उडयल्यार ते आमकाच चड म्हारग पडटले.’’

‘पूण वतलो खंय?’’ घरकान्नेन दरवट्याबगलेन रावन विचारले.

‘‘उज्जैनशारा वच’’, गणपताले मेवण्यान सुचयले. मान सकयल करून गणपत चिंतूक लागलो.

सांजमेरेन गणपताले नात्यागोत्यांतले सगळे जण ताचें घरां एकठांय झाले. साबार जाणाले

एकूच मत पडले. काणो बरोच तवनास मनीस - देखून हांगाथान पयस वचप हेच बऱ्याक पडटले.



राती दीडवरा उज्जैन वचपी रेल गाडीत गणपत बसलो. ताचे सांगातीन आयिल्ल्या मेवण्यान ताका गाडीत वयल्या बर्थाचेर सुवात करून दिली. रोखडेच गाडीन स्टेशन सोडले.

डब्यांत वोग्गी पडून गणपत एकूच चिंतितालो - हे भय कितलें दीस रावतलें? धा-पंदरा दिसांत सोंपल्यार कितलें बरें जातासलें. आनी आपणाक थंडपणान घरां परथें येवपाक मेळतासलें. ताचो मातसो दोळों लागलो मात मदींच तिकीट तपासनीसान ताका उठयले तेन्ना तो सामको काचाबूल जालो. उपरान्त जाय तो वेळ तो दोळें शेकान शेक उकते दवरून डब्यांतल्या दिव्या भोंवतणीं भिरभिरपी पिसोळ्यांक पळेयत रावलो.

फांतोड जावचे पयलीच गाडी उज्जैन स्टेशनार पावली. मानायाल्या मात्यार सामान दवरून गणपत मुखेल दरवट्या दिकेन चलूंक लागलो. अचकीत ताणे नकळतशें मागशी पळेले आनी ताचे लागसारच्या डब्यांतल्यान रामेश्वर देवंतना दिसलो. ताची तिरशें दोळ्यांची नदर गणपताल्या नदरेक भेदून गेली. आनी रामेश्वर दोळे फुलोवन गणपताक पळेत पळेत स्टेशना भायली सोपणां देंवलोबी.

''हाका आनी कोणे सांगले?'' मनांतल्या मनांत गणपत जशें जशें चिंतूक लागलो तशें तशें ताची भिजूडताय वाडतेर रावली. स्टेशनावयल्या यात्रेकरू विस्रांती घरांत ताणे थोडो वेळ उसरपत घेतली आनी उपरान्त स्थानकाभायर येवन तांग्यांत बसलो. नसकाच्या काळखा उजवाडांत ताणे स्टेशनाच्या आजूबाजूक नियाळले आनी आपणाल्या फाटल्यान कोणीच ना हाची खात्री करून घेतली. तांगेवाल्याक ताणे फर्मायलें, 'फ्रीगंज वस्तीक घेवन चल''.

पुलामेरेन ताचे फाटल्यान खंयचोय तांगो नाशिल्लो. ताकालागून ताणे एक खोशयेचो उस्वास सोडलो. आपल्या गांवांत रावचें धोक्याचें आसलें खरें, पूण आरे देवा, तो रामेश्वर हांगासरूय येवन पावला काय कितें?

सबंद दीस तो सोयऱ्याल्या घरांतूच पडून रावलो. दनपारा घरांकडेन तारकचेरीतल्यान एक तार धाडून दिवपाची वेवस्ता केली. आनी दुसऱ्या दिसाकूच ग्वालैर वचूं गेलो. रातजांव मेरेन रेलगाडी ग्वालैर स्टेशनार पावली. ताणे तांगो केलो आनी थंयसरच्या दालबाजाराच्या वाठारांत आपणाल्या इश्टांले घरां मुक्काम दवरलो. आपूण येवपाचे कारण ताणे गुमानीत दवरले आनी फट सांगून वेळ मारून व्हेली. उपरान्त तो मस्त न्हिदून रावलो.

गिमाळ्याचे दीस आसलें. लश्कराचे वाठारांत हवेंतली हुनसाण कडक जाणवताली. ते कारणान जनेलाक आनी कवडांचेर खसाच्यो मांदऱ्यो हुमकळावन तांचेर उदकाचो शितोडो मारून घरांत थंडाय हाडपाची एक रीत आसली. अशा कुडांत दीसभर पंखो लावन, गणपत बेठोच पडून रावलो. मातसो काळेख पडटकीर केन्ना केन्ना तो हांगाथंय भोवन येतालो. जाल्यार चड करून ताणे स्वताक घरांतच कोंडून घेतिल्लें. कोणापसून आतां भय ना म्हूण

ताका खोस भोगताली.

एका तिनसांजयेर दुकानांत बसून तो लस्सी पितालो. त्याच वेळार ते दुकानावटेन बारीक नदरेन नियाळत रामेश्वर वताना ताचे दिश्टीक पडलो. आपणाक ताणे पळयले काय ना अशा दुबावांत पडलो मात आपणे ताका निटायेन पळयलें तें ध्यानांत घेतलें. थोडो अदीक वेळ बसून तो दुकानाभायर आयलो आनी चोयवशीन नदर घुंवयली जाल्यार थयसर रामेश्वर दिसलो ना. आपल्या इश्टाल्या घरांदिकेन तो ताकतिकेन चलूंक लागलो.

मुखारच्याच रस्त्याचौकांत एके पानागादी बगलेन कोनश्यांत रामेश्वर ताटकळत उबराविल्लो ताका अकस्मात दिसलो. तो लस्सी दुकानादिकेनूच नदर लावन आसलो. गणपताले नशीब बरे म्हणपाचे. थोडो वेळ रामेश्वरान आपणाली नदर दुसरेवटेन केली. आनी तीच वेळ सादून गणपत ताठ मानेन परंत रामेश्वराकडेन मदीं मदीं पळेत लांब पावलां घालीत ताका वलांडून सरळ मुखार गेलो. उपरान्त ताणे मागशीं हळूच पळयले तेन्ना रामेश्वर आपणालो फाटलाग करतसो ताका दिसले. बाजार आनी घरांच्या हाळीतल्यान वाट काडीत तो एक फावट आपल्या इश्टाल्या घरां येवन पावलो. ते वेळार ताचो जीव खासावीस जाल्लो आनी कुडी हुमेन चिंब भिजिल्ली.

‘‘आयज चड गजगजता.’’ ताणे इश्टाले बायलेक उद्देशून म्हळें.

‘‘व्हय, व्हय.....’ तिणेय हयकार दिलो, आनी पंखो चालू केलो.

आतां ताका ग्वालैरांत राबीत करप उपेगाचे नाशिल्लें. रामेश्वर आपूण आसता थंय केन्नाय येवन पावयेत म्हूण तो धास्ताविल्लो. देखून त्याच राती आग्रा शारांत गुपचूप पळून गेलो. थयसरून जें काय घडले तेय अजापाचे म्हणपाचे - एके दिसा तो राजमंडी स्टेशनार अशींच भोंवडी मारूंक गेल्लो. फलाटार रामेश्वर आवळिल्ल्यो हातामुठी फाटीचेर दवरून हेवटेन तेवटेन पासय मारतालो तो दिश्टीक पडलो. गणपत भियेवन कसो गुळी जालो. पोलिसांक खबर दिवची येवजणी केली जाल्यार तें ताका बरें दिसले ना. तशें करप म्हळ्यार परगांवांत येवन बेठेच तकालस आंगार ओडून घेवप. देवाल्या नांवाचो धांवो करत तो आयिल्ल्यावटेन तसोच ल्हव पावलानी परथलो. रामेश्वरान ताका चुकून लेगीत पळेंलें नासलें.

गणपताली आतां तकली घुंवक लागली. म्हळ्यार शारांतूय दगो फटको उप्रासला. रामेश्वराली नदर चुकोवन वचूंक वेगवेगळे मार्ग आसात. ताच्या कचाटांतल्यान एक फावट निसटल्यार रामेश्वर एक तर दिल्लीक वतलो अथवा कानपुराक पावतलो अशें ताणे हिशेब केलो. ताणे लखनौचे तिकीट काडले आनी रातोरात आग्रा शार सोडले. लखनौ शार ताणे केन्नाच पळेलें नाशिल्लें. रिक्शावाल्यान ताका इंडियन हॉटेलामुखार देंवयलें. हॉटेल बऱ्यापयकी आसलें. दीसभर तो सुसेगाद न्हिदलो. ताका जाग आयली तेन्ना तिनसानचो काळोख पातळिल्लो. ताणे च्या मागयली. उपरांत तोंड आनी केस स्वच्छ धुयले आनी भायर मेकळे हवेंत भोवंडी मारून आयलो. सुसेगाद जेवण केले; आनी निमाणे पानगादीवयल्यान पानाविडो

मागोवन घेतलो. आतां हुसक्यांतल्यान तो मेकळो जालो आनी खुशेंत हांतूळणार पडून रावलो. जाल्यार दीसभर न्हिदून आशिल्ल्यान ताका न्हीद अजिबात पडना जाली. उठून ताणे घरां धाडूक एक चीट बरयली. तांतूत ताणे कळयले, ''आपूण आतां घातमाऱ्याचे भायर आसा, आनी हांगासरचो आपलो नामो गुमानीत दवरप.'' इतलें सोंपवून तो हांतुळणार परतो आडवो जालो.

बरोच वेळ हांतूळणार पडिल्लेकडच्यान तो पाख्याकडेन पळेत विचार करत रावलो. अचानक उठून तो वासरींत आयलो. ताका आपणाली बायलभुरग्यांली याद सतावक लागली. इन्दौरच्या तोपखानो वाठाराचो उगडास झळकून गेलो. तो एकटोच त्या लांब व्हारांद्यात आपणाल्याच तनरीत गुल्ल जावन पासय मारतालो. आताशें ताका ध्यानांत आयलें, ''आरे आता भिवपाचे कायच कारण ना. आपूण रामेश्वरालो घातमार करूंक शकता इतली तांक आपणाकडेन नित्शीत आसा'' ताचे तकलेत विचार घुवंक लागले. पावलां कणकणी तो आपणाली मुठी घट्ट आवळटालो, सैल करतालो आनी त्याच वेळार तोंडान एकसारको बडबडटालो. स्वतालेच दांतवोंठ चाबतालो. ताका भास जातालो जशें काय रामेश्वर येवन अचानक ताचेर घुरी घालत काय म्हूण. ते देखून तो सामको भयभीत जावन हुसक्यांत पडिल्लो. या अर्द उजवाड अर्द काळोख पडिल्ल्या व्हरांद्यांत तो येरादारी घालीतच रावलो, केन्ना ल्हव पावलांनी तर केन्ना सडसडीत पावलानी, अशा वेळार शेजारच्या कुडांतल्यान भायर सरिल्ल्या एके व्यक्तीर तो नेटान आपटलो.

''कोण आसा?'' त्या धास्ताविल्ल्या व्यक्तीन आवाज दिलो. गणपतान दोळें विस्फारून पळयलें. सामकार साक्षात रामेश्वर उबो आसलो. अर्द काळखां उजेडांत ताची रुंद छाती, लांब केस, आनी लिकलिकपी तिरशें दोळें दिश्टीक पडले. गणपताल्ल्या आंगात भयान हुडहुडी भरली, ताची जीब थंयचेथंय ताळवेक चिकटली.

''हांगासर पावमेरेन तुवें म्हजो फाटलाग सोडलो ना म्हणपाचे?'' रामेश्वरान ल्हव आवाजांत नमळायेन म्हळें, ''आरे म्हज्या भावा, म्हजो जीव घेवन तुका कसलें काय मेळटले म्हूण निमगिता?''

गणपतान ताचेकडेन अजापान पळेले. रामेश्वराल्या कुडींतूय कांपरें भरिल्ले. आनी भिरांतेन ताचें दोनूय हात जोडिल्ले.



# सोयऱ्यानू, तुमी केन्ना परथें वतले?

तुमका येवकर दिवन घरांत घेतिल्ल्याक आयज चौथो दीस. तेन्नाच्यान एक प्रस्न भोवनभोवन सतायतेर आसा - सोयऱ्यानू हांगाथावन तुमी केन्ना वतले?

सुसेगाद बसून हुसक्याशिवाय तुमी सिगरेटीचो धुंवर तोंडातल्यान भायर काडीत आसात, थंय सामके तुमचे नदरेमुखार एक कॅलेंडर आसा. ते तुमी पळेतात काय ना? तांतूतली दरेक तारीख आपापणाले मर्यादेत रावन तुमका नमळायेन सांगत आसात. गेल्ले दोन दीस त्या त्या दिसांची तारीख तुमका मुजरत दाखोवन हांव म्हज्या मेजावयले कॅलेंडराचेर बदल करीत आसा. तुमका जर हिशेब लावंक कळत आसल्यार - तुमी जाणा जावंक जाय - आयज तुमचो पावणाराचो चौथो भरताडी दीस. जाल्यार तुमी परथें वचपाचे अजून नाव काडिनात. लाखो मैलांचो प्रवास करून दोनी अवकाशयात्री चंद्रिमार थोडो वेळ रावले, आनी तुमी....? ल्हानशी यात्रा करून म्हजे कडेन पावले उपरान्त गेल्ले चार दीस ठाण मांडून आसात. तुमी आपणाली 'चरण कमळा'ची छाप म्हज्या घरा जमिनीर उठोवन जालें, आपणालो एक अंतरंगी संबंद म्हजेकडेन जुळोवन जालें, म्हजें आर्थिक बळगें लागसारच्यान पळेंलें, आनी म्हज्या पायांसकयली जमीन बरीच खणुनूय दवरली. सोयऱ्यानू, आतां खरेंच तुमी परथें वचात. ती वेळ केन्नाच सरून गेल्या म्हळ्यार आतां 'हाय-टाईम' जाला . आरे, तुमचो संवसार तुमका आफयना कशें काय म्हणटा?

ज्या दिसा तुमी म्हज्या घरांत पांय दवरलो, तेन्नाच म्हज्या मनांत एक पाल चुकंचुकिल्ली. त्या अशुभ चिन्नात म्हज्या हड्ड्यांत धडधडपाक लागले. भितरले पैशा पाकीटात कापरें भरलें. अशें आसुनूय आपुलकेन मुमुरखे हांसत तुमकां वेंगायलें. आनी म्हज्या घरकान्नीन आदरासयत नमस्कार बी केलो. तुमच्या पावणाराक लागून आमचे रातीचे जेवण अचानक वयल्या मध्यमवर्गांत मोडपी 'डिनर' ह्या सदरांत बदलले. दोन भाजी अदीक रायता; शिवाय ते दिसाक गोड धोड लेगीत केल्ले. ह्या सगळ्या सोपस्कारांत आमी एक आस्त बाळगून आसलें. तांतून एक उमळशीकाय आनी आशा सामाविल्ली. आनी ती म्हळ्यार बरो पावणार केल्ल्यान धादोसकाय पावन, मनांतले मनांत घोळयत तुमी दुसऱ्या दिसा भायर सरतले. तुमी रावपाचे खातीर आमी आग्रोव करतले जाल्यार तुमी ते नमळायेन नाकारतले. अशा तरेचे बऱ्या वागणुकीचे सोयरे जावन तुमी वेगोवेग परथें वतले हीच आमी अपेक्षा केल्ली.

पूण घडत आसा ते उरफाटेच म्हणपाचे. दुसऱ्या दिसाकूय तुमी सोयऱ्याप्रमाण नमळायेन म्होवें हांसत हांसत घरांत बस्तान बसयले. आमी दोगांनी आयिल्ल्या संकश्टाक काळजांत दडपून दवरले आनी आनंदी मुखवटो चडयलो. येवकार, सत्काराचो वयल्या पावंड्यावेलो पावणार जसो काल घडयलो तसोच मुखार व्हेलो आनी दनपारच्या जेवणाक 'लंच' हाची सर हाडली. रातीक सिनेमाबी दाखयलो. हे सगळें करतना आमचो जीव कासावीस जालो आनी हाचे मुखार कोणाकूय अशा तरेचो पावणार करुंक फुडाकार घेवपाचो ना म्हूण नित्शय केलो. खरें म्हळ्यार हाचे पयलीच तुमी परथें वचपाचे थारायतसले जाल्यार निरोपा वेळेचो तो थतरविथर जावपी खीण येतासलो आनी तुमका स्टेशनामेरेन पावोवपाक आमी येतासले. पूण तुमी तशें थारायले ना.

तिसऱ्या दिसा तुमी नमळायेन विचारले, 'म्हाका लाँड्रीत कपडे धुवंक घालपाचे आसात.'' हो आघात अफर्की - मन खुबळावन सोडपी आसलो. आनी तो नेटान म्हज्या काळजाक खोंच लावन गेलो. तुमचो राबीतो रबरा भशेन सामको ताणत वतलो हे म्हज्या ध्यानी मनी लेगीत आयले ना. सोयरो सदाच देव नासता; थोडो मनीस आनी कायं वेळा तोच राकेस बी जाता हाचे पयलेफावट अणभव मेळ्ळो.

''खंयच्याच लाँड्रीत दिवंया, जंय बेगीन धुवन मेळटले'' हांवे म्हळें. कशेंय करून तुमी बेगीन वतले असो एक विचार मनांतल्या मनांत येवजून त्या भरवशार रावलो.

''लाँड्री खंयसर आसा?''

''चलात, दाखयता.'' अशें म्हणत हांवे आंगावेल्या बनयानाचेर एक सादो सदरो चडयलो.

''खंयमेरेन भायर सरले?'' घरकान्नीन विचारले.

''हांगेलें म्हेळ जाल्ले कपडे लाँड्रीत दिवंक'' हांवे जाप दिली.

म्हज्या घरकान्नीले दोळे अचकीत फुलिल्ले दिसले. कांय वरसांपयली तिच्या सोबीत दोळ्यांच्या ओडलायणीन म्हजी एकटे एकसुरीपणाची यात्रा सोंपयली आनी हांव घरगिरेस्थीक लागलो. जाल्यार तेच दोळे मोटेमोटें जाल्ले अशें पळोवन म्हजे मन मात मोटवें आकार घेत रावले. सोयरो अजून कांय दीस अदीक राबीतो करतलो असो दुबाव आनी भय दोनी एकूच वेळार तिका पिडताले. आनी तिचो दुबाव फट नासलो. सोयरो म्हज्या घराक घट्ट चिकटून बशिल्लो. लाँड्रीतल्यान धुयिल्ले कपडे घरां हाडले. हांतुळणावेली ताची हुमेन भिजिल्ली-चादरां बदलून जाली. तरीय सोयरो भायर सरपाचे नांव काडना. तुमका पळोवन लक्कन फुटपी मुंगुरशें हासप ल्हव ल्हव फिकें पडून हालींसर ते शेणुनूय गेला. कालमेरेन ह्या कुडांत व्हड व्हडान आयकूंक येवपी आनी मळबामेरेन हुपपी हांसप आयज खंयचे खंय दाबून रावला. भासाभास करतना आपले सांगणे नेटान सांगपाखातीर आनीकूय वयर चडयिल्लो आवाज जसो एकाद्रो चेंडू सगळ्यावणटीर चौशीन आनी कोनशाक आपटून आपटून वासरेंत

मदोमद येवून एके जागेर सामको निपचित आनी वोग्गी जावन पडता तसो आतां जाला. ताका ना तू हालयता ना हांव धोलयता - सगळे कशें निर्जीव जाला. कालपसून हांव कादंबरी वाचीत वेळ घालयता आनी तुमी फिल्मी म्हयनाळ्याची पानां उलटायतेर आसात. एकमेकामदली उतरांची देवाणघेवाण सोडात भासाभासेचे विशय लेगीत सोंपल्यात. घर संवसार, बायल भुरगी, नोकरी, सिनेमा, राजनीती, नातलग, बदल्यो, जाष्टे इश्टजन, परिवार नियोजन, म्हारगाय, साहित्य इतलेच कित्याक आमच्या जुवानीतल्या मोगिकांविशीं दोळ्या इशाऱ्यान सांगपाची तरा अशें जायते उलोवन मेकळे जाले. आनी आतां फकत एक नकळशी शांतताय आस्पावन रावल्या. आपुलकी आतां ल्हव ल्हव उबगणीचे रूप घेत आसा. सगळ्यो भावना संतापांत आनी संवपात बदलूंक लागल्यात. इतले घडुनूय तुमी परथें वचपाचे कायच चिन्ना दिसनात. साध्या दोळ्यांक न दिसपी अशा कशेतरेचो गोम लागिल्ल्यान तुमचे व्यक्तित्व ह्या घराक दसून रावला देवाकूच खबर! हांवूच कित्याक म्हज्या कुटुंबातल्या कोणाकलेगीत हाचो अजून अदमास घेवंक जमले ना. रावन रावन एकूच प्रस्न घरांतल्यांक दीसरात सतायत आसा - ''सोयऱ्यानू, तुमी केन्ना परथें वतले?''

कालचीच गजाल -

''कितलो दिसांचो सोयऱ्यालो मुक्काम आसतलो?'' घरकान्नीन विचारले.

''हांव कशें सांगू?'' हांवे म्हजे खांदे उडयले.

''आज हांवे खिचडीची येवजणी केल्या, पोटाक मातशें हलके रावतले.''

''तेंच कर,'' हांवेय स्पश्ट सांगले.

भोवमान, आदराच्यो गजाली सोंपून गेल्यो. 'डिनर'पसून केल्ली सुरुवात आतां खिचडीर येवन पावली. अजुनूय तुमी प्रवासांतले सामान गुंडाळले ना जाल्यार आमी उपासामेरेन पावतले. आमचें दोगांलेय संबंद आतां एक वायट अशा मोडणीर येवन थामल्यात. तुमी रोखडे भायर सरपाची ही अखेरची वेळ आसा. आरे सोयऱ्यानू, हांगाथान सटसटीत पांय काडात म्हळ्यार उपकार जातले.

तुमका हांगा रावचे मानवले न्हय! म्हाका खबर आसा. हेरांल्या घरां राबीतो करप बरें दिसतलेच. जमता जाल्यार जाय ते दुसऱ्याल्या घरा वचून सोयरे म्हूण रावताशिल्ले. घराची तुस्त करतात आनी ताका 'स्वीट होम' म्हूण संबोदतात. तेन्ना म्हत्वाचे आसता ते कोणेय दुसऱ्याल्या घरा राबीतो करून थंयसरची गिरेस्तायेतली गोडसाण वाटेक ना लावपाची. तुका आमचे घरां राबप सुखाचे जाल्ले आसत. पूण म्हज्या इश्टा - गिरेस्तपणा म्हूण कांय गजाली आसात काय ना? तशें 'गेट आऊट' म्हूण इंग्रजीत एक उतर आसा. ताचो प्रयोग वा पारख करूंक तशें कठीण नासता.

तुमच्या खाशेल्या घोरपी आवाजाच्या गाजान आनी एक रात घालयली उपरान्त फांतोडेक तुमी हांगासार राबीत केल्ल्याच्या पांचव्या दिसाची सूर्याली किरणा हांतुळणार पडिल्ली

दिसतली. ती तुमचो उमाव घेतली. तेन्ना तुमी मानमर्यादेन तुमच्या घरा परथून वचपाचो निर्णय खात्रीन घेतले अशी आस्त बाळगितां. म्हज्या भोगवटीची ती अखेरची सकाळ आसतली. आनी ताचे उपरान्त म्हज्यान सोंसूंक जावपाचे ना. ताकालागून उबो रावंक जमचेना आनी पांय लटपटतले हे नित्शीत. आगा सोयऱ्यानू, हांव जाणा अतिथी हो देवासमान आसता. निमाणें सांगचे म्हळ्यार हांवूय मनीस आसा; देव न्हय. एक देव आनी एक मनीस सांगातीन चड वेळ रावनात. देव कसो दर्शन दिले म्हणटकीर सटसटीत नदरे आड जाता. म्हूण सांगता सोयऱ्यानू, तुमी परथून वचात. तांतुतूच तुमचे देवपण सुरक्षित आसा. हो मनीस आपणाल्या रक्षण करतल्यारुच तिडकेन आंगार धावन वचपाचे आदीच तुमी हांगाथावन सुडसुडीत भायर सरात.

"आरे म्हज्या देवा, हो सोयरो केन्ना परथून वतलो!"



# जागेलो हांव मामा

एक गिरेस्त वाराणसीत (श्री क्षेत्र काशी) पावलो. रेल्वेस्टेशनार देंवलो ना देंवलो, ताचे लागसार एक भुरगो धांवत धांवत आयलो.

''मामा आयलो, म्हजो मामा आयलों,'' म्हणत त्या भुरग्यान म्हऱ्यांत येवन बागोवन नमस्कार केलो.

ताका वळख मेळ्ळी ना; ताणे विचारले, ''आरे तू कोण?''

''हांव मुन्ना. म्हाका वळखलें ना? अशें कशें?''

''मुन्ना?'' तो गिरेस्त चिंतूक लागलो.

''व्हय मुन्ना. मामा इतलो बेगीन म्हाका विसरलो म्हणपाचे. आसूंदी कांयच हरकत ना. इतल्या वर्सांनंतर येत आसा. ''

''तू हांगा कसो पावलो?''

''हाली म्हजो राबीतो हांगाच आसा.''

''बरो आसा मरे?''

''व्हय, व्हय,''

मामान आपणाल्या भाच्याक घेवन वाराणसी शारांत भोवंडी मारली. बरें जालें एक जण तर मेळ्ळो! केन्ना ह्या देवळांत जाल्यार केन्ना त्या देवळांत. भोंवत भोंवत दोगूंय गंगा न्हंयच्या घाटार पावले. मामान विचार केलो हांगा न्हावन घेंवया.

''मुन्ना, गंगेत बुडकी मारून येवचेशें दिसता.''

''मुजरत आंग धुवून घे मामा. वाराणसीक आयलो आनी पवित्र गंगेत न्हायनासतना गेलो ते बरें दिसपाचे ना.''

मामाजीन गंगेंत बुडकी मारली आनी तोंडान म्हणत रावलो, ''हर हर गंगे.'' उपरान्त थोड्या वेळान मामा उदकातल्यान वयर आयलो. घाटामेटार आपणाली आंगावेली वस्त्रां दवरिल्ल्या सुवातेर येवन पावलो. जाल्यार थंय मुन्ना दिश्टीक पडलो ना. आनी न्हेसपाचे कपडेय शेणिल्ले. ताणे व्हडान उलो दिलो, ''मुन्ना, आरे मुन्ना!''

जाल्यार मुन्ना थंयसर हाजिर आसल्यारूच जाप दितलो न्हय? कमरेक वालो गुंडाळून मामा थंयसर बरोच वेळ उबो रावलो, आनी आयिल्ले गेल्ल्यांकडेन विचारपूस केली, ''आरे म्हज्या भावा, हांगा आसपास मुन्नाक पळयला?''

''कोण मुन्ना?'' उलटो प्रश्न.

''आरे, हांव त्या मुन्नालो मामा!''

''म्हाका समजना, तुमी कितें विचारतात ते!''

''म्हळ्यार म्हजो भाचो हांगा खंय दिसना. ताचे नांव मुन्ना!''

आता कमरेक वालो गुठयिल्ल्या अवस्तेंत मामा हेवटेन तेवटेन भोंवलो. मुन्ना खंयूच दिश्टीक पडलोना.

आरे म्हज्या इश्टानो, आयज भारतीय नागरिक आनी भारतांतल्या मतदारांची हीच अवस्था जाल्या. वेंचणुकेवेळेर कोणतरी येता आमचे पायां पडटा, - म्हाका वळखलो ना काय म्हूण विचारता. ''अशें कितें जालें वळख ना मेळपाक? हांव ह्या वेळचो उमेदवार वेंचणुकेक उबो रावला. एम. पी. म्हूण फाल्या निवडून येवपी आनी म्हाका वळखनात?'' तुमी लोक प्रजातंत्र राज्य शासनाच्या गंगेत बुडकी मारतात आनी भायर येवन पळयतात. ज्या मनशान तुमचे पायांसर लोटांगण घाल्ले तोच तुमचे वोट घेवन दोळ्यांआड जाल्लो दिसता; इतलेच न्हय वोटांची पुराय पेटीच घेवन नाच्च जाल्लो आसता. उपरान्त जाय ती आडमेळीं, संकश्टां, पिडा हांचे घाट पावंड्यार आमी फकत वालो गुठलावन उगड्यार उबे आसात आनी अयिल्ले गेल्ल्यांकडेन सारके विचारीत आसतात ते म्हळ्यार तो मनीस खंय नदरेक पडला काय म्हूण - आरे तोच मनीस जाचे आमी मतदार आसले. आनी ताणे आमका मामा केलो न्हय?

अशा वालो गुंडाळिल्ल्या अवस्तेंत घाटार उबेराविल्या दशेंत पांच वरसां केन्नाच सरतात.



# यादस्तिच्यो खुणो

हां, हूं... हूं, हां करीत राणी देवा घरां गेली.

बाबड्या राजान जायते इलाज केल्ले. जाल्यार एक म्हण आसा - घडचे ते घडटच रावता. ती राणी ताका खुबूच आवडटाली. आनी तिगेल्या मरणाचे कल्पनेनूंच तो अर्दमेल्लो जातालो. ताणे दोतोर, वैद्य, हकीम आनी प्रार्थना करतल्यांक राणीक भलायकी मेळ्ळीना जाल्यार तांचे तकलेंत भुसो भरून दवरीन म्हूण धमकी दिल्ली. जाल्यार तशें कायंच घडले ना. राजा निर्शेणीत हुसक्यांत पडलो. राणी अखेरचो स्वास मेजताली. मात तिका आंक मेजपाचे अजून पुरायतरेन येनासलें. गीता वाचन करीत बशिल्ल्या जोश्याक राजान ल्हव ल्हव वाचूंक सांगले. आनी तो स्वता राणील्या तकले वटेन वचून बसलो. कायमचे बंद जावपी निस्तेज दोळ्यानी ल्हव ल्हव पळयत मोगान तिणे राजाक म्हळें, ''मरचे पयली म्हजी एक इत्सा आसा. म्हाका उतर दी.''

''सांग, आगे सांग म्हजे राणीये,'' राजान म्हळें.

''म्हजें यादस्तीक अशें एक काम कर जे धर्तरेर अमर जावन रावतलें. सगळे जण म्हजें नांव सदाच जिबेर घोळयत रावतले.''

''अशें...? म्हज्या ध्यानांत आयले ना'' राजान विचारले.

''जशें एक सोबीत महाल म्हजे यादस्तीक बांधून घेवप; आनी तो महाल पळोवन सगळे जण म्हजी याद काडटले.''

''जरूर, जरूर'' राजान उचांबळून म्हळें.

''म्हाका पयले उतर दी....?''

''दिलें, उतर दिलें.....'' राजान खात्री दिवन तिचें समाधान केले.

आनी राणीली मान एका कुशीन लवंडली. राजा दुख्खावेगान आड्डलो, ''हो, हो, हो!'' आनी ताका लागून थंयसरचो दिवो व्हड जालो. सेवेकार 'लँप' हाडूंक धांवलो पूण ताचो पाय सुण्याल्या शेपटार पडलो तशे सुणों जोर जोरान भोकूंक लागलो. वातावरण अशें कांय तयार जालें जशें हेर मयता वेळार घडटा.

तेरा दिसा उपरान्त राजान आपलो दरबार भरयलो. जमिल्ल्या सगळ्यांक संबोदून ताणें

म्हळें, ‘‘सर्गेस्त म्हाराणीली यादस्तीची खूण म्हूण कसलेंय एक म्हत्वपूर्ण काम करपाचे आसा.’’

‘‘जरूर, जरूर करात म्हाराजानू’’ दरबारांत जमिल्ल्यांनी एकसुरांत म्हळें, ‘‘जेन्ना जेन्ना महाराण्यो देवाघरां गेल्यो तेन्ना तांच्या घोवानी राणील्या नांवान व्हड व्हड वास्तुशिल्पां तयार केल्ली. ताजमहालाची काणी तुमका म्हायती आसूंक फाव. मुगल राजवंशांत शहाजहान म्हूण एक बळिश्ट बादशहा जावन गेलो. ताची म्हाराणी....’’.

‘‘पुरो पुरो वोग्गी राव... तुजें तोंड बंद कर....’’ राजान मोट्यान दटावन त्या भाटकाराक तापयले आनी म्हळें, ‘‘म्हाराणीली याद कशेतरेन अमर करपाची हाचेर तुमी विचारपूस करतले अशी आमी आस्त बाळगून आसात इतलेच. उपरान्त राजान म्हामंत्रीक आज्ञा केली, ‘‘दरबारांत हाजिर आशिल्ल्या सगळ्यांल्या हांतार एकेक मूठ भुयमूग दवरात. ते खावन तांच्यो तकल्यो विचार करूंक लागतल्यो!’’

भुयमूग खावपांत आनी येवजणी करपांत पांच मिनिटां केन्नाच सरून गेली. उपरान्त मध्यमीक शिक्षण अदीक फ्रीस्टाईल खुस्ती आनी बंदखण विभागाचो मंत्री उबो रावलो. ताणे दरबाराक उद्देशून म्हळें, ‘‘....... म्हाराणील्या नांवात विद्यार्थ्यांत भाशणचातुर्याची सर्त दवरून जैतवंताक फिरतो करंडक वा खुस्तिगिरांत खुस्ती खेळोवन विजयी वीराक दिवपी ढाल चालू करपाची शक्यताय......?’’

‘‘जालें सांगून.....गाढव खंयचो. भलायकेन बरो आसा... मेट्रिक पास आसा आनी गुन्याव केल्ल्याक बंदखणीत रावनूय आयला..... ताका लागून मध्यमिक शिक्षण, फ्री स्टायल खुस्ती तशेंच बंदखण विभागाचो तुका मंत्री केला. ताचो अर्थ असो न्हय अशें तरेचे किरकोळ - म्हत्व नाशिल्ल्यो सुचोवणी करपी तकलेत भुसो भरून दवरीन.’’ तो मंत्री बाबडो भिवन आपणाल्या बसकेर बसलो.

आता रस्ते, गटार बांदप अदीक अनाथ आस्त्रम विभागाचो मंत्री उबो रावलो. ताणे राजाक विनंती केली, ‘‘-महाराज जिवाची खात्री दिल्यार एक सुचोंवूं......?’’

‘‘हय, एक कित्याक दोन सुचय....?’’

‘‘दुसऱ्या सुचोवणी विशी अजून येवजणी केलीना म्हाराज. आनी एक मूठ भुंयमूग मेळल्यार, घडये, विचार करूंक पावतलो.’’

‘‘ते रांव दी, सद्याक एकच खंयची ती सांग.’’

‘‘शारांत मदोमद एक रस्तो. जो लांब, रुंद आनी सोबीत आसा - ताका म्हाराणीले नांव दिल्यार कशें? .... तशें केल्ल्यान दोन फायदे जातात.....!!’’

‘‘खंयचे, खंयचे,’’ राजान उत्सुकतायेन विचारले.

‘‘एक म्हळ्यार तो रस्तो कायमचो रायमार्ग जावन रावतलो. आनी ताका लागून राणीले नांव अमर जातलेंच’’

''सामके बरोबर सांगले, आतांच घोशणा करात - आजपसून तो मार्ग म्हाराणील्या नांवान वळखुपाचो. जो कोणी पयलेच्या नांवान वळखतलो वा आफयतलो तो जिवानिशी गेलो म्हूण समजा.'' राजन दम भरलो, - ''आनीकूय सुचोवणी मनांत आसल्यार उकते करात.''

तेन्ना टपाल विभाग अदीक पोन्ने पुस्तक (पुरातन) विभागाचो मंत्री उबो रावलो. ताणे म्हळें, ''जिवाचो आलाशिरो मागता म्हाराज.'' -

''हां, सांग तुजो प्रस्ताव,'' राजान आतां नमळायेन घेतले, ''आरे, तुमी सतत 'जिवाची राखण', 'जिवाचो आलाशिरो', कित्याक मागतात? हांवे केन्नाय तुमका फांशी दिल्या?''

''म्हाराज, म्हाराणील्या नावान टपाल तिकीट काडल्यार कशें? ते कायम उरतलें'',

''बरी बेस सुचोवणी, आमी खूश जाल्यात. तू टपालपेटी आनी पोन्ने पुस्तकाचो मंत्री न्हय? जाल्यार आयजपसून शाळा भुरग्यांली पाटी पेन्सिली विभागाची जापसालदारी तुजेर दवरता,'' राजान खुशेंत येवन सांगले.

''म्हाराज तुमचीच कृपा'' म्हणत तो मंत्री आपणाल्या जागेर बसलो.

राजाल्या कृपेन आतां मंत्री जाल्लो एक दरबारी उठून उबो रावलो. ताका एक ते शंबर पर्यंत गणटी करूंक येताले. हीच ताची मंत्री जावपाची लायकी आसली.

''सांग मंत्रीजी, तुमका कसलें सुचलें?''

''एक बुनयादी सुचोवणी आसा म्हाराज. ह्या शारांत विद्यार्थिनींल्या वसतेघराची सामकी गरज आसा. म्हाराज थंयसर रावन शाळा, कॉलेजच्या विद्यार्थिनींक अभ्यास करूंक बेस बरे जातलें. म्हाराणील्या नांवान ते घर उबारल्यार उपकारतले?''

''शाब्बास, आनी अशेंय थारांवक जाय, म्हज्या रयतानों, ह्या राजधानीत ते सगळ्यांत सोबीतशें सिमेंट कॉंक्रीटचे घर आसताले. आनी ते म्हाराणील्या नांवान वळखतले. राजान उचांबळीत जावन सांगले, ''जाल्यार, मंत्रीजी, सिमेंटात रेतीची खदोळ करतल्यांक जिवंत दवरपाचोना इतलें ध्यानांत दवरांत. भौसानो, अजून विचार करून अदीक सुचोवणी करात.''

''म्हाराज एकाद्री सुचोवणी वा सुदारणा तुमीच सांगात. अखेरीक तुमचीच राणी सर्गेस्त जाल्या, बरोबर न्हय?''

''अगदी बरोबर. म्हजी राणी देवाघरा गेल्या. आनी यादस्तीच्यो खुणो हेरजनच करीत आसात. ही लजेची गजाल म्हणपाचे. हे इतिहासकारांक कळल्यार ते कितें म्हणटले? '' इतले सांगून राजा उठून उबो रावलो. आनी सगळ्यांक संबोदून ताणे म्हळे, ''म्हज्या मोगाच्या प्रजाजनानो, तुमका खबर आसा सर्गेस्त म्हाराणीक जळक्रीडा आनी पेंवप खुबूच आवडटाले. ती दरदिसा न्हाताली बी. तिच्या नावान एक 'स्विमिंग पूल' - जलतरण तलाव तयार केल्यार तिची याद कायमस्वरूपी रावतली.''

‘‘व्हय म्हाराज, मुंबयत असोच एक जलतरण तलाव आसा. तशाच तरेचो हांगा बांदून घेवंक जाय.’’

‘‘आरे पिशा, तो बरोच व्हड आसा. तांतून माचवे, फातेमारी, व्हडल्यो तारु येतेर वतेर आसतात. आमी एक ल्हानसोच ‘स्विमिंग पूल’ - पेंवपाची तळी बांदून घेंवया. शॉर्ट एण्ड स्वीट.’’

‘‘धन्य, धन्य म्हाराज.’’ सगळ्यानी एकूच आवाजांत हयकार दिलो, ‘‘जरूर अशेंच घडूंदी.’’

‘‘चला तर. हेंय नित्शीत जाले. इतल्या चर्चे उपरान्त म्हाका राणील्यो यादयो सतावक लागल्यात. तेन्ना आता दरबार आटापलो समजा.’’ रोखडेच दमदाटीच्या आवाजांत राजा आड्डलो, ‘‘आनी हां, घरा वयचे पयली एक ध्यानांत दवरात. सगळ्यानी एकठांय जावन भुयमुगा सालां पुंजावन भायर पयस व्हरून एके जाग्यार जमोवन दवरप. हांगासर इल्लोय कोयर दवरपाचो ना.’’

कांय दिसा उपरान्त स्विमिंग पूल, विद्यार्थिनीले वसतेघर तयार जाले तशेंच रायमार्गाक राणील्या नामकरणाचो सुवाळोय घडलो. टपाल तिकिटां छापून उजवाडाक आयली. आनी शौसान उपेगांत हाडली बी. तांका टपाल तिकीट लायतना, रायमार्गवयल्यान चलतना, वसतेघर वा पेंवपातळये लागसारच्यान वताना सगळ्यांक राणील्या यादीन रडूंक येतालें.

अशे बरेच दीस गेले.

एके दिसा राजा आपणाल्या महालाच्या ‘टेरेसाचेर’- छताचेर उबो रावन चोयबशीन पळेतालो. ताची नदर अचकीत पैसल्या पेंवपाच्या तळयेर पडली. थंयसर एक सोबीत पेंवपी चली स्पिंग्रबोर्ड फळ्यावेल्यान काय ओखळ वा विस्रांती उपरान्त उदाकांत उडी मारताली आनी पेंवताना तरेकवार जळक्रीडा करताली. ते पळोवन राजा भुल्लसल्लोसो जालो. त्या सुबेज, तरतरीत चलियेक पळोंवक तो उतावळो जालो. आनी ताकतिकेन तो छतावयल्यान देंवन सटसटीत स्विमिंग पुलादिकेन गेलो. थंयसर पावलो म्हणटकीर त्या विद्यार्थिनीली ताणे म्हायती घेवंक यत्न केलो. बऱ्याच चवकशी उपरान्त गुप्तचरावरवी ताका कळ्ळे ते इतलेच, म्हळ्यार थंयसरच्या राणील्या नावान बांदिल्ल्या वसते घरांत रावपी ती विद्यार्थिनी आसा.

राजान आपणाले इश्ट आनी भाटकारांक एक ठांय केले आनी म्हळे, ‘‘म्हजें बरें मागणाऱ्यानो, हांव एक सुंदरील्या मोगांत पडून पिसो जाला. सांगात, हांव कितें करूं?’’

‘‘थोडे दीस मोग करीत रावात; उपरान्त मनांत आसल्यार तिचे सांगातीन लग्न करात.’’

‘‘जाल्यार तिच्या मोगांत हांव पडला हे त्या गोमट्या चलियेक अजून खबर ना,’’ राजालो हुसको.

‘‘अफवा मुजरत पसरायात. तिचे मेरेन आपशीच पावतली.’’

‘‘मूर्ख खयचो. तुज्या तकलेंत भुसो भरूंक जाय. म्हज्या मोगाची नालस्ती घडूंक जाय

अशीच इत्सा दिसता.''

''...वसंतरुतू येतलो तेन्ना मोगाची उक्तावण करात.''

''वसंत रुतूक अजून आठ म्हयने आसात. तो मेरेन....आनी 'समर व्हेकेशनात' - गिमाळीसुटींत सगळे जण आपापणाले घरां वतले. ते वेळा मोगा उक्तावणी कशी करूं. हे तुज्या तकलेंत कशें घुसना?''

''तुमी रोखडीच एक मोगाचीट धाडांत. ती 'एक्सप्रेस डिलेव्हरी' - बेगीन पावतली अशी तुमी वेवस्ता करात. तांतून एकमेकांक मेळपी सुवात आनी वेळेची नोंद करुंक विसरनाकात.''

राजान ताकतिकेन एक चीट बरयली, ती पाकीटांत दवरली. वयर सर्गेस्त राणीले टपाल तिकीट चिकटयले आनी धाडून दिली. त्या सुबेत चलियेक ती चीट मेळ्ळी तेन्ना तें अजापीत जालें. आनी ताणे 'रॉक - एन - रोल' नाच केलो. उपरान्त भांगडा नाचावरी उचांबळपी उड्यो मारल्यो आनी तिचे हातपांय थकले. तिणें बरेंच उसासे सोडले. ते वेळार मदींमदी शिळोणीय घाली. हेर विद्यार्थिनीलागी उलोवपाचे बंद केले आनी कॉजेजांत वचपाचे सोडून स्विमिंग पुलाचेर पडून रावली.

राजान आपणाल्या खजिनांतल्यान म्हाराणीले दागिने भायर काडले आनी जलतरणावयल्या गोमटीक एकेक करून भेट दिली. आतां सकाळ सांज आपणाल्या पयले राणी नावान मोगान तयार केल्ल्या जलतरणाभोंवतणी तो भोवंडी मारुंक लागलो. एके बऱ्या म्हूर्तार दोगांले लग्न बी जाले.

जे दिसा राजाराणीली मिरवणूक भायर सरली तेन्ना ताच्या पयले राणील्या नावान तयार केल्ल्या रायमार्गार भौसाली खेटा-खेट जमिल्ली - नवीन राणीक पळोंवक.



# संशयात घुसपल्ली सभ्यताय

जिणेंत शिकून घेवंक बरेंच उणे यत्न केले. थोडे शिकलो जाल्यार तशें काय जमलेना. बसीत चडप हीय गजाल तांतूतलीच. बरी सफळताय मेळ्ळी. बस आयली म्हणटकीर धा फावटींत णव फावट चडूंक शक्य जाता. ताचो अभ्यास करप गरजेचें जाल्यार तेय शिकून घेतले. आयज ईश्वराल्या दयेन, गुरुजनाल्या आशीर्वादान अशा स्थितींत येवन पावला. आरे म्हज्या भावानो, सांगपाचे म्हळ्यार, तशीच वेळ आयल्यार हुमकळत रावचे पडले तरीय बसींतल्यान खरोच प्रवास करुंक शकता. मात थोडे धाडस अदीक थोडें शाणेपणान वावर करचो पडटा. हेर प्रवाशांल्या पोटांत हाता कोंपरान मारचे पडटा आनी तुमका खबर आसा अशा खेटाखेटींत मुखार सरपाक दुसरो इलाज म्हाका दिसना. थंय सभ्यताय उपकाराक पडना.

हांवे बरेंच भोगला. वराची वरां थांब्यार उबो रावन जाय ताका बसींत चडून वताना पळेत रावलां आनी निमाणे अशा निकालाचेर येवन पावलां - ह्या जगांत न्याय ही गजाल खंयूच ना; जो यत्न करता ताकाच जैत मेळटा. म्हज्या इश्टानों, खरेंच सांगता जेन्ना केन्ना बस येता हांव झपाटून गेल्ल्यावरी जाता आनी तुमचे कृपेन बसींत रिगप सफळ जाता.

अशाच नित्यनेमाक धरून एके दिसा हांव बस प्रवाशांल्या खेटाखेटींत घुसलो, दोग-तिगांक धपके मारले, आनेकाक हाताकोपरान धुकळ्ळे आनी बसीचो भितल्लो दांडो घट्ट धरलो. अशेतरेन भितर घुसपाचे यत्न करतसतना अचकीत कोणतरी किळांचलो, ''म्हजें पाकीट मारलें.''

केन्ना केन्ना अशें घडटा खरें. बसींत चडटना खेंटीत बॉल्स कापून पाकीट मारतात. शारांत 'सिटीबसीस' चालू जाली आनी ताचे सांगातीन धपके, धुकळपाची संस्कृताय वाडीक लागली. पाकीट मारप एक वेवसायबी जालो जाची सफळताय फकत खाशेल्या हातचलाखीर निंबून आसता. एकादलो धंदेवाईक 'खिसेकापू' प्रवाशाली पर्स मारपाच्या इराद्यान सावज नियाळत बस थांब्यार उबो आसता आनी बस येवन थांबता ते वेळच्या घुमशेणांत एक बरे पुराय भरिल्लें अशें बॉल्स हातसफाईन सामके रिकामें करता. व्हड शारांतल्या जिणेत हालीं एकतरेची ताकतीक उप्रासल्या आनी तांतूत मनीस कायं मेळयता बी आनी कांय शेणोवन वताबी. अशा घुस्पागदळांत पाकीट शेणिल्याचेर ध्यान दिनसतना बस प्रवासी मेळिल्ल्या

त्या बसकेर झोपय मारन बसून घेता. कंडक्टरूय तसलें कसल्याचेरं ध्यान दिनासतना प्रवाशांक बसीत भितर घेवन शिटी वाजयता.

''आरे सायबा, म्हज्या दोळ्यांदेखत पाकीट मारले. हांव बसीक मुखार वचूंक दिवपाचो ना. आत्ताच तपास करूंक जाय.'' जागेले पाकीट मारून व्हेल्ले तो बसींत चडलो आनी उपरान्त व्हडान आड्डलो.

''कितले रुपय गेले?'' कोणेतरी विचारले.

आतां ही एक मजेची गजाल. जागेले पाकीट चोरीक गेला ताचे विशी चिंता परगटावपाचे आदीच सहप्रवासी ताची कितली रकम शेणिल्याविशी चवकशी करतात. ताका कारण एकूच म्हळ्यार रकमेप्रमाण खंती जावपाक, वा खंत दाखोवपाक बऱ्याक पडटा.

''चाळीस रुपय आशिल्ले; कमी न्हय, पुराय चाळीस रुपय'', ताणे सांगले.

ही बस कचेरीक वतल्या 'सफेत कॉलर'वाले बाबू लोकांनी भरिल्ली. ती रोख रकम तांका चड दिसली देखून साबारजण चड खंती जाले.

''हांव ही बस फुडें वचूंक दिवपाचो ना. हांव त्या पाकीटमाराक वळखता. ताणे चड लांबीचो खोमीस आंगार घाला आनी ताणेच म्हज्या 'बॉल्सार'' हात मारला,'' तो किळांचत रावलो.

तेच वेळार कंडक्टरान शिटी वाजयली, अचकीत ताणे कंडक्टराल्या तोंडातल्यान शिटी पटकन काडून आपणाल्या हातांत घेतली आनी अदीक वयल्या आवाजांत तो आड्डलो, ''कंडक्टर बऱ्यान सांगता बस थांबय - हांगाथावन ती इल्लीय मुखार हालचो ना.'' ताच्या बोल्सातल्यान पाकीट मारिल्ल्यान तो उचांबळीत जाल्लो. भारतीय संस्कृतीची एक खासा रीत आसा. जाका जबर मार पडला ताणे स्वतालेच केस ओडत रावंक पूराय मेकळीक दिल्या. म्हजे बॉल्स कापलें जाल्यार हांव ह्या बसीतूच तांडव नाच करतासलों.

''कसल्याक असो आड्डता''. कंडक्टरान तिडकेन विचारलें. तोंडातली शिटी काडून घेतिल्ल्यान ताचो अपमान जाल्लोसो दिसले. बस ताचीच आसली. आनी ताच्या शिटी आदेशाप्रमाण बस धांवताली. जाल्यार आताची परिस्थिति वेगळी आसली. एके बस प्रवाशाले चाळीस रुपय बसीतूंच चोरीक गेल्ले देखून धुमशेणां घालूंक किळांचूक तोय हकदार आसलो.

''कोणेतरी म्हज्या पातलूणाच्या बॉल्सांतल्यान पाकीट मारला. आतां एकेकाली तपासणी घेन म्हणटा.''

''कोणाचेर संशय आसा?'' पुलीस ठाणेदाराल्या भाशेंत कंडक्टरान विचारलें.

''लांब खोमिस घाला ताणें,'' अशें म्हणटना ताची नदर म्हजेर थीर जाली. हांवे आयज लांब खोमिस आंगार चडयिल्ले. रागान धगधगपी नदरेन पळेत राविल्लो तो अचकीत म्हजेसर येवन ताणें म्हज्या खोमीसाची कॉलर धरली आनी खर आवाजांत म्हळें - ''सांग आतां

मिस्टर, पाकीट परत करता काय ना. ना जाल्यार बस पोलीस ठाण्यार घेवन वचूंक सांगू?''

हांवे हातान जोराचो एक धपको दिलो आनी कॉलर सोडोवन घेतली, ''आरे, पयस राव, आनी मानमर्यादिन उलय.''

हरशें वेळार म्हज्या उलोवण्यांत अशे तरेचो धेंगसो केन्नाच आसना. परंत अशा धक्काबुक्कीच्या वागणुकेंत तशाच तरेच्या भाशेचीय गरज आसता. आनी ती उलोवण्यांत आयली म्हणटकीत ताचो प्रभाव सरभंवतणी पडटा.

''दोन मुस्काटार पडले उपरान्त सगळी पाकीटमारी उकती जातली. बऱ्याभशेंन पाकीट दी,'' त्या व्यक्तीन म्हळें , जागेले रुपय चाळीस चोरीक गेल्ले आनी फकत उतरां तितली राविल्ली.

''पाकीट मार आसतलो तू आनी तुजो बापूय'', हांवे ताच्या नाकामुखार सामकी घट्ट आवळिल्ली मूठ धरली आनी खर आवाजांत सांगले, ''हाचे फुडे म्हजेर आरोप करशीत जाल्यार तुजें मुस्काट फोडून दवरीन.''

''ऊठ, उबो राव - तुजी तपासणी करुंदी म्हाका'', ताणे सरळ विशयाकूच हात घालो.

''म्हजीच तपासणी कित्याक काय म्हूण विचारतां,'' म्हाकाय तिडक मारिल्ली.

''पाकीट मारून वेल्यान म्हाकाच उलट प्रस्न करता!'' ताणे तितल्याच जोरान प्रति प्रस्नान जाप दिली आनी प्रस्न विचारपाचो म्हजो अधिकार आपणाकडेन घेतलो.

''उरफांटे-सुरफांटे कितेंय आयकून घेवपाचो ना, परथें सांगता मुस्काट फोडून दवरीन. एका खिणांत खिरवड बांदपाक लायन.'' हांवे एके म्हणीचो उपेग करून म्हज्या उत्तम भाशा गिन्यानाचो नमूनो दाखयलो तेचवेळार म्हजी फुडारची येवजणी कितें आसा ते स्पश्ट केलें.

''अशें इमानी आसात तर झडटी घेवंक कित्याक दिनात?'' एके बुनियादी तत्त्वाचेर ताणे दुबाव दाखयलो आनी तीच म्हजी मुळावी तांक आसली.

''कित्याक म्हूण म्हजीच तपासणी करुंक दिवूं?'' हांवे नित्शयी न्हयकार दिलो.

''आरे गिरेस्ता, मातशें थंडपणान घे. हाका तुजेर दुबाव आसा आनी तो पयस करप आत्तातरी सामके गरजेचें जालां. खोमीस आनी पातलूणाची सगळी बोल्सां उलटी करून दाखोवंक आडमेळे कित्याक?'' एके सज्जनान चत्राय दिली. तो जाण्टो आसलो आनी ताणे जाण्टयावरीच उपदेश केलो. ह्या देशांत जाण्टच्या लोकांक आपणाले जाण्टेपण दाखोंवंक वाज येना. तशांत आमचेसारकें तांचो भोवमान दवरूंक सदाच बांदिल्ले आसात.

''मंजूर आसा'' हांवे म्हळें, ''जाल्यार एक सर्त आसा. म्हजेकडेन हाचे पाकीट मेळ्ळे नासल्यार हांगा - ह्या बसींतल्या सगळ्या प्रवाशा सामकार ह्या सायबाल्या कानसुलार जोत्याचे धा फटके मारतलो. म्हजेसारक्या सज्जनाक विनाकारण गुन्यावकार धरिल्ल्याक ताका ही ख्यास्त भोगपाची पडटली. आसा तयारी?''

म्हजे कुशीन बशिल्लो एक प्रवासी जाणे निळो शर्ट आंगार घाल्लो - उठून उबो रावलो

आनी सगळ्यांक आयकुपी आवाजांत ताणें सांगलें, ‘‘धाकधपटशान कसलें मेळपाचे आसा व्हय! हो एक सज्जन मनीस - ताचें तोंडावेल्यान ते स्पश्ट दिसता. आनी ताणे पाकीट मारलें म्हूण गुन्यावाचो ‘चार्ज - आरोप - लायतात म्हळ्यार कितें? अखेरीक प्रत्येकाक मानमर्यादा वा अब्रू म्हूण कितें आसा काय ना? हे चल्ला तरी कितें?’’

तो जसो अचकीत उबो रावलो तसोच म्हजें कुशीक पटकन बसलो. तो एक नोकरदार मनीस अप्रत्यक्ष कित्याक आसना पूण म्हजी बाजू घेवन उलयतलो अशी म्हाका उमेद नाशिल्ली. जाल्यारूय म्हज्या चेऱ्यावेल्यान हांव सज्जन दिसता हाचे बसीतल्या साबारजणांक ध्यानांत आयिल्ले अशें दिसलें. कुशीक बशिल्लो प्रवासी गिरेस्त मातसो वयस्कर दिसतालो जाल्यार ताचो कसदार तोंडावळो ते मान्य करिनासलें. जाल्यार तो उलयतना मात ताच्या ओठांकडे कडेन तोंडातली लाळ मदीमंदीं भायर येताली.

‘‘पाकीट म्हजें चोरीक गेला. भोवमानेस्त तुमी कांयूच सांगपाची गरज ना.’’

‘‘व्हय, व्हय. तुजें पाकीट मारलें ताका लागून आमी सगळे पाकीटमार जालें. हांगा जे सगळे बसल्यात ते उखलेंगिरीच. म्हणटल्याक लज दिसूंक जाय,’’ म्हज्या कुशीन बशिल्लो प्रवासी ताचेर धेंगशेलो.

‘‘बरें, बरें, झडती घेवंक दिता. परथे आनेक फावट सांगता म्हजेकडेन पाकीट मेळ्ळे ना जाल्यार जोत्याचे मेजून मेजून धा फटके खावचें पडटले’’ हांवे आयकयलें आनी म्हजें हर्ड्डें अजून अदीक फुलयलें. खरें म्हळ्यार बुशशर्टाचे माप घेतांनां दर्जी सामकार तशें फुलोवपाचे गरजेचे आसता.

‘‘तुमीच कित्याक आमीय ताका पांयतणान मारतलें. निमाणें आमचीय अब्रू हांतूं आस्पाविल्ली असा. जशें तुमका पाकीटमार म्हळें तशें आमकाच कित्याक कोणाकूय तो म्हणपाक शकताशिल्लो. हाचो कसलो भरवसो?’’

थोडो वेळ शांततेत गेलो. कंडक्टरान शिटी वाजयली. आनी ड्रायव्हरान बस चालू केली. पाकीट जाचे वगडयिल्ले, ती व्यक्ती म्हजे सामकार आसली. जाल्यार मातशें दबून, दुबावांत पडिल्लो असो तो म्हाका दिसलो. हांव चिंतितालो हाका अजून दाबल्यार कशें जायत? हो तर आर्य चाणक्यालो खात्रीचो ‘फॉर्म्युला’ - सांचो. हांवे म्हज्या आवाजार ताबो दवरून, तेच वेळार साबार जणांक आयकूंक येवचेशें व्हडान म्हळें, ‘‘हांव तर पुराय गळसणून गेल्लो. चोराक सोडून निमाणे सन्याशाक खिसोकापू म्हूण थारावप? भोव त्रासांत घालें.’’

‘‘जीब उखल्ली आनी टाळ्याक लायली, आनी पाकीटमार म्हूण तुमचेर किटाळ दवरलो. मनशान उलोवपाचे पयली काय विचार करुंक जाय काय नाका?’’ म्हजे कुशीक बशिल्ल्या निळ्या बुशशर्ट वाल्यान म्हज्या म्हणणेक धिगी लायली.

‘‘हेर कोणी आसल्यार पुराय आयकून घेवपाचे आदीच जोत्यान बडोवन काडताशिल्लो.’’

हांवे मनालागसारको थोमणो मारलो. अशा वेळार जी एक रीत आसता ते प्रमाण हांवे जागेले पाकीट मारिल्ले ताचेकडेन ध्यान दिवन नियाळ्ळे. जशें काय तो तिडकेन जाप दितलो आनी हांव पायतणान ताका धाडायतलो.

बाचाबाची तंट्यांची हुनसाण निवळिल्ली पळोवन हेर प्रवाशानी लेगीत आपापलें तोंड उगडलें. एकट्यान विचारलें, ''आरे भावा, मातशें याद कर. वांगडा पाकीट हाडिल्ले काय घरांतूच विसरून आयलो?''

''काय वेळा अशें घडटा तेंय खरें'' एक प्रवासी.

''आनी जाणे कोणे पाकीट मारले तो बसींत कित्याक चडटलो? हे मेरेन खंयचे खंय पळून नाच्च जाल्लो आसतलो. '' आनी एक प्रवाशाली चत्राय.

''तू त्या बसथांब्यार सोद घेतासलो जाल्यार घडये त्या चोराक पकडूंक पावताशिल्लो. एक मात नित्शितायेन सांगूक शकता - पाकीट मारले उपरान्त तो पाकीटमार केन्नाच बसींत चडपाचो ना!!'' पयल्यान दुसऱ्याक साथ दिली.

''जेन्ना पाकीट चोरीक वता तेन्ना मनीस सामको भियेवन वता. ताका कसलेच ध्यानांत येना.'' आनेक प्रवाश्यान आपणाले म्हणणे आयकयले.

अशा तरेचे भासाभासेंत एकूच विशयाची आवतिकाय तयार जाता. अचानक म्हज्या कुशीक बशिल्ल्या निळ्या शर्टवाल्यान उज्यांत तेल वोतलें - ताणे म्हळें, ''जाल्यार कोणाचेरूय पाकीटमार म्हूण आरोप करपाचें आदी मातसो विचार करूंक जाय.''

हांवे ताचेकडेन आभारी नदरेन पळेलें. एक थांबो आयलो आनी बस थांबली. काय प्रवासी बसींत चडलें तशें देंवले बी. पूण जे कोणी बाकी बसून आशिल्ले तांची चवकस बुद्धी अजून शांत जाली नासली.

''येवपी थांब्यार तू देव आनी फाटल्या थांब्यार वचून यत्न कर. घडये चोर अजून थंय आसत बी.'' एक सज्जन प्रवाशान 'पेटंट' -सगळ्यांक खबर आशिल्ल्या - भाशेंत सांगून उपदेश केलो.

''आतां तो मेळ्ळोच म्हणून समजा.''

''म्हाका सामके याद आसा ते म्हळ्यार म्हजें पाकीट मारून तो बसींत खात्रीन चडला.''

''ताका तेन्नाच घट धरुंक जाय आसलें.''

''तो म्हजें पाटलूणाचेर हातां कोंपरी मारीत चडलो.''

आतां हे मात खरें. हांव बसीत चडतना कोंपरान धुकळत चडिल्लो. हाकाच धपको लागिल्लो आसूंक फाव. मात हांव सहप्रवाशांल्या भासाभासेतल्यान भायर आसलो. सुमारानशी सगळ्यानीच पाकीटमार हेर कोणतरी आसूंक फाव अशें मान्य केल्ले, आनी खात्रीन हांव तो न्हय हाका पाळो दिल्लो. जाल्यार म्हज्या कुशीक बशिल्ल्या निळ्या बुशशर्टवाल्यान

विनाकारण म्हाका जबरीन चर्चेंत ओडले. ताणे म्हळें, ''ह्यो सगळ्यो गजाली आपापल्या जागेर बरोबर आसात. तुजें पाकीट चोरीक गेल्ले विशी आमी खंती आसात. पूण ह्या - म्हजेकडेन बोट दाखोवन - व्यक्तीचेर सरळसरळ आरोप करप बरें न्हय. हेर कोणी आसल्यार ही ख्यास्त भोगिल्ल्याक तुजें हातपांय निखळावन दवरतासलो.''

''म्हाका जाचेर संशय आसा ताचेरूच आरोप केलो.''

''जोत्याचो असो काय मार पडटलो, सांगून दवरतां. तुजी भलायकी ठीकठाक जातली,'' हांवे तिडकेन म्हळें. आनी त्याच दादागिरीचेर हांव बसप्रवाशांल्या गर्दीत घुसून बसींत चडटा. ताचो रागाचो पारो चडलो तशें ताणें अचकीत म्हजेर नेटान घुरी घाली. तितल्याच चपळतायेन म्हज्या कुशीक बशिल्ल्या निळ्या बुशशर्टवाल्यान ताका घट्ट कंबरमिठी घाली. आनी दुसरे वटेन धुंवयलें. ताचो तोल वचून बसींत पडपाचो बाकी आसलो. कंडक्टरान शिटी वाजोवन बस थांबयली. मात सव्यांची, लाखोलीची भोवन भोवन उक्तावणी जाली आनी थंयसर एक भारतीय खासा भोंवतण उप्रासलें. कंडक्टरान पाकीट कापिल्ल्यान खंती आनी पिडेस्त जाल्ल्या व्यक्तीक धुकळत धुकळत मुखार व्हरून बसीच्या पयल्या बसकेर बसयले. उपरान्त शिटी वाजयली तशी बस सुरू जाली.

''एक नंबरचो तवनास - गुंड म्हणू येत. बॉल्स - वोल्स कांयूच कापले नासत जाल्यार वोग्गीच फटींगपणा करतात.'' म्हज्या दुसरेवटेन बशिल्ल्या प्रवाशान निमाणेंच सांगून जालें.

''पुरो जालें, अशांक धा वेळा पळोवन जाला. जेन्ना बसीत चडटात, अशेंच नाटक करतात, आनी खिसो कापलो म्हूण हूल उठयतात. केन्ना चाळीस शेणतात. केन्ना वीस आनी काय वेळा शंबरूय चोरीक वतात. सगळो तमाशो इतल्या खातीरूच आसता कशेंय करून तांका बसी तिकीट काडपाचे नासता. कंडक्टर दयावान जावन चिंतता, -आरे म्हज्या भावा सोडून दी हाका. हातचलाखीन हाचे पाकीटार हात मरिल्ल्यान हाचे कडसून तिकिटाचे पयशें कशें काय घेवपाचे. वयले पांवड्यावेले फटींग आसतात; हांव तांका वळखून आसा.''

''कमाल आसा म्हणपाचे''.

हाचे फुडे आनीक अजापाचे घटिचार घडले. ओळीनशें घडलें आनी तेय वेगान. तो मेरेन म्हाका जय देवपाचे आसलें तो बस थांबों आयलो. निळो बुशशर्ट घाल्लो प्रवासी बी म्हजें फाटोफाट देंवलो. हांवे नमळायेन आनी आभारी नदरेनूच ताचे उपकार मानले आनी मुखार चलूंक लागलो. पावलाकणकणी हांव चिंतूक लागलो. ह्या जगात कशेतरेन संकश्टां अचानक सामकार येतात आनी तेच वेळार मजत करतलेय मेळटात. म्हज्या रिवाजप्रमाण हांव बसीत धक्का बुक्की करीत चडलो आनी नकळत 'पाकीटमार' म्हूण थरलो आतां हे वेळार घडिल्ल्या सगळ्या घडणुकेर सावकासयेन फोडणिशी करून अणभवाचो अर्थानर्थ लावपाच्या बेस बरें अवस्तेंत आसलो. कुशीक बशिल्ल्या, निळो बुशशर्ट आंगार घाल्ल्या व्यक्तीक हांव देवदूत म्हूणच समजपाक तयार आसलो. कारण ताणे मारपिटयेतल्यान म्हाका वाचयिल्ले. धेंगसून उलयतालो खरो पूण मारामारी जातासली जाल्यार म्हजी हाडां खरीच

सदळ पडटासली.

बस थांब्यापसून मातसो पयस पावलो ना पावलो तेन्ना फाटलेच्यान कोणेतरी म्हाका उलो दिल्लेंशे आयकलें. मागशी पळेंले आनी निळो बुश शर्ट घाल्लो तोच दिश्टीक पडलो. हांव मातसो थांबलो. तो सडसडी म्हजें सामकार येवन उबो रावलो. हांवे नमळायेन म्हळें, ''तुमचे आभार मानतां. तुमी बरी मदत केली नाजाल्यार जबर मार खावचो प्रसंग आयिल्लो. कसले, कसले लोक मेळटात.''

म्हजेकडेन पळोवन तो मुमुरखो हासलो. कायच उलयलो ना. एक चमत्कारीक नदरेन म्हाका वयल्यान सकयल मरेन ताणे नियाळ्ळे. उपरान्त हळू आवाजांत म्हळें, '' मनांत आसल्यार सगळें बरे जातलें. आतां मातशें त्या पाकीटांतल्या रकमेची वांटणी जावं दी. चाळीस रुपय चोरिल्ले न्हय? वीस रुपय तुमी दवरून घेयात बाकी वीस म्हाका दियात.''

हांव गोंदळांत पडलो. मन सुन्न जालें. जाल्यार लगोलग म्हाका हांसूक आयलें, आनी म्हळें, ''तुमका कितें दिसता हांवे खऱ्यान पाकीट मारले?''

''कोणाकडेन फटींगपणा करतात म्हज्या भावानू? म्हजें उपकार मानात नाजाल्यार पायतणाचे मार तुमच्या तकलेर पडपाचे. पाकीट शेणिल्ल्या मनशान सगळ्यांमुखार तुमकाच गुन्याव करताना धरिल्ले.''

''आरे, तुमचोय म्हजेर दुबाव आसा म्हणपाचे?''

''म्हाका गरज आसली ती तुमका त्या झुजांतल्यान वाचोवपाची. पडूंदीत आशिल्ले मात्यार जोत्यामार. शिवाय हांवूय दोन चार दिवन हातांची खाज निवळावन घेताशिल्लो. आजकाल फुकटचे पयशे मेळल्यार कोणाक नाकात असोय विचार मनांत घोळतच रावलो जशें तुमका गरज पडटा तशें आमकाय आसा. म्हका शेंडी लावनाकात. चला वीस रुपय दियात.''

स्वताक सांबाळन आनी थंडपणान ताणे सांगले. हांवे पाकीट मारिल्ले आसल्यार खऱ्यानीच ताका वीस रुपय दितासलो. अशें कित्याक केले ना म्हूण खिणांत मनांत विचारूय लिकलिकून गेलो, आनी पयले फावट खंती पावलो. ताणे म्हाका धमकेपसून वाचयले जाल्यार उपकाराच्या उतरांशिवाय, आशेन पिडिल्ल्या ताका अर्दोभाग - वीस रुपय - दिवंक जमले ना.

निमाणे तिडकेन आनी अदीक तुच्छतायेन ताणे सांगलें, ''तुजसारको नीच, हलकट आनी निर्लज्ज मनीस पळेलो ना.''

हांवे रोखडोच ताका पाळो दिलो आनी म्हळें, ''आरे, खरेंच असलो मनीस तुवें पळेलो ना आसपाक फाव!''



# कोरे कागद

जे म्हाका आफयतात तांका नित्शीत खबर आसा हांव परथो थंयसर कित्याक येता. येवपाचे आसल्यारूय केन्ना येवपाक शकतलो? जाल्यार म्हजो मोगाचो इश्ट बाबूलालान म्हाका ताचे गांवाकडेन येवंक सांगले तेन्ना हांवे रोखडोंच हयकार दिवन येता त्या सप्तकांत पावतलो म्हूण कळीत केले. हांव गांवाकडेन वता म्हूण कळले उपरान्त म्हजें साहित्य पंगडांतले इश्टगण अजाप पावलें. हांवें तशें करप म्हळ्यार जल्मपत्रिकेर पायतणान मारिल्लेवरीच. हांवे सांगले, ''पुराय म्हयनो गांवांत रावन एक कादंबरी बरोवपाची आसा. लेखकालो भारतीय जीवनाविशी खोल संबंद आसाशें लोक योग्य वेळेर मान्यताय दितले. ताचो एक दाखलो रावतलो. हांवे एक रीम उत्तम प्रतीचे कागद विकत घेतलें. अदीक दोन खात्रीची पेनां घेतली. सिकंदरान बेबिलोन सोडले तेच तरेन हांव शार सोडून गांवची वाट धरली.

गांवाप्रमाण गांव आसलो. चोंयवशींन हांव भोंवलो आनी खात्री केली तो गांवूच आसा काय म्हूण. म्हाका ताची गरज आसली. एक बारीकशी न्हय, एक आंब्या बाग, थोडी गाय गोरवां, गावकार भौस, समज आशिल्ली थोडी सुणी, आपणालेच कलेचेर भुल्लसिल्लो मिठाय विकपी, अणभवान व्हड एक हजाम, एक चलतो फिरतो बातमीदार पुरोयत, सुबेत भोंवतण, स्वच्छ निळें मळब, काय तरतरीत तरनाट्यो चलियो, विधवेप्रमाण दिसपी विधवा बायलां, दोन चारू मेकळे गांव फुडारी, दोन बांयो तांतूतली एक तोखणायंक लायक अशी, हुशार कावळे, थोडी हेर सुकणी, एक मारूती देवूळ, एक भूत, पीराली एक समाधी, बाजारांत एक तिठो जंय गांवगजाली आयकूंक मेळटात आनी अशेंच कितें कितें. सांगपाचे म्हळ्यार गांवाचेर कादंबरी बरोंवक इतलें जिन्नस पुरो आसलें. भौस चुकीची वा गांवठी हिंदी बोली भाशा उलयतालो. म्हाकाय तेच जाय आसलें. कांय चुकीचे मुजरत हांवूच बरोवन घेतालो.

हांवे जनेलाकडेन म्हजे बरोवपी मेज लायले. ताचेर एक रीम इतले कागद वेवस्तीत दवरले. आनी कादंबरी बरोंवक सुरुवात केली. तेन्नाच उगडास जालो आनी हातबरपाचेर सान्न मारपानजो म्हूण कुडांत कोयर काडपी वावराड्याक हांवे स्पश्ट सांगले. आख्खो एक रीम कागद पळोवन ताचे मनांत प्रस्नाचेर प्रस्न उप्रासताले. एके व्यक्तीक इतल्या भोव कागदाची खरेंच गरज आसा काय म्हूण तो अजाप पावतालो. एकाच सुवातेर इतले कागद

पळोवन ताका अपशकुनाचो वास आयिल्लो आसपाक फाव. गांवकाराल्या जिणेंत कागद फकत जिनसा बंदिल्ल्या पुडेच्या रूपांत घरां येता. ते पतंगाचो कागद सगळ्यांत वयलो प्रतीचो समजतात. उरिल्या खंयच्च्याच तरेच्या कागदापसून तांका विजेचो धपको लागिल्ल्यावरी जाताले. देखीकूच दिवपाचे म्हळ्यार - उधारी खात्याचो कागद वा कोर्टाचे समन्स - हाजीर रावंक फर्मावणी, अथवा पयसल्या नातेवाईकांले पोस्टकार्ड. म्हजे टेबलार इतले कागद पळोवन, वानराल्या हांतांत पडलो काय आशें म्हज्या वावुरड्याक दिसतालें. एके दिसा ताणे म्हजेकडेन दोन कागद मागलें. हांवेय दयावंत जावन ते दिले. तो थंयसरच्यान पयस सटकलो उपरांत हांव परथें कादंबरी बरोंवक सुरुवात केली.

सांजेर गांवच्या म्हालगड्या जागीरदारान म्हाका जेवणाक आमंत्रण दिलें. तो थोडो शिकिल्लो सवरिल्लो. आपणातल्या शेतांक 'फार्म' म्हूण संबोदतालो. आज्या पणज्या मुस्तीर ताच्या घरा दरवट्यार हत्ती बांदिल्लो आसतालो. सद्यांक थंय एक नादुरुस्त 'ट्रेक्टर' कायमचो असो उबो आसा. म्हज्या व्यंग लिखाणाची ताणे जाय ती तोखणाय केली. जाल्यार ज्या लिखाणाची तो तुस्त करतालो ते म्हजे नासून हेर कोणाले आसले. पूण उलयतना मदीच आडखीळ नाका म्हूण भिडेन हांव वग्गी रावलो. येवजिलें - अशेंच चालूं रांव दी. हो कोण व्हडलो साहित्यकार लागून गेला? आनी आसल्यारूय म्हज्यांत काडीचोय फरक पडपाचो ना. तेन्नाय ताणे म्हळें, ''तुमचेकडेन बरो धवो फुल्ल कागद आसा म्हूण आयकला. तुमचो तो वावराडो अर्ज बरोवन घेवंक म्हजेकडेन आयिल्लो. ताका विचारले, आरे भावा, तुजकडेन असलो कागद आयलो कसो? तो तुमची म्हायती दिवन मेकळो जालो. एक दोन दिसांत कोणाक तरी कागद विकत घेवन येंवक शारांत धाडपाचें हांव येवजितालो.''

''तुमका कागद जाय?'' हांवे सरळसरळ विचारलें.

''अशींच आठ-धा कागदां पुरो जातलीं....!''

आनी दुसऱ्याच दिसा जागीरदाराक ताणे मागिल्ले तितलेच कागद धाडून दिले. उपरांत कादंबरी बरोवपांत गुल्ल जालों.

गांवांत दनपारची वेळ ही रातीवरीच वितराग हाडपी आसता. अशें आसुनूय ही गजाल म्हज्या कादंबरीत आस्पावन घेवंक म्हजे मन तयार नासलें. अशेंच एक दनपारा दोन तरनाट्यो आंकवार चल्यो म्हज्या कुडांभंवतणें पासय मारताल्यो. हांवे पळेलें म्हणटकीत मुमुरखे हांसताल्यो पूण खिणांतच थंयसरच्यान नाच्च जाताल्यो. केन्ना केन्ना वसरेतल्या खांबा फाटल्यान लिपून ती दोगांय म्हाका नियाळटाल्यो. हांवे कुलदेवतेक स्मरून विचारलें, ''आरे देवा म्हज्या, हे कितें घडटा काय म्हणटा? म्हजें कादंबरीखातीर मुखेल नट्यो धाडल्यात काय?'' अशा येवजणीत हांव आसतनाच त्यो दोगांय स्वताजावन आपणाले आत्मिक बळकटाय एकठांय करून म्हज्या लागसार येवन उबी रावल्यो. एकीन दुसरेकडेन इशारो करीत म्हळें, ''हिका बरोंवक कागद जायशिल्ले.''

''आगो बाय, म्हाका जाय म्हूण कित्याक सांगता? तुकाच बरोंवक जाय आसले

न्हय?'' दुसरीन लटक्या रागान म्हळें.

''तुकाय बरोंवक कागद जाय आसलें न्हय?''

आतां दुसरी लजेली. हांवे म्हज्या जाड भिंगाच्या ओक्लांतल्यान मोगाळ नदरेन तांका विचारले, ''खरें खरें सांगात कित्या खातीर जाय?''

म्हजो प्रस्न आयकून पयलीन आपणाली मान अशी काय वळयली, आरे, ते तुमका कशें समजावूं? दुसरी लजेन भायरूच पळेत रावली.

''घेयात, घेवन वचात'' अशें म्हणत आसतना एकेक कागद दोगांकूय दिले. आपणाल्या हड्ड्यार धरून एकीन म्हळें, ''आनी एकेक जाय.''

''बरें, घे'' म्हूण आनी दोन कागद तांचे हातार दवरले. दोगांय हांसत हांसत, म्हजेकडेन भोवन भोवन मागशी पळेत ताकतिकेन भायर सरली.

दोन दिसा उपरान्त गांवातल्या आख्ख्या तरनाट्या पंगडाक म्हजेकडेन कागदां आसात अशी चत्राय मेळ्ळी. एक जुवान भुरगो आयलो आनी ताणें म्हाका निमगिलें, ''बायचेर पंप बसोवंक जाय - ताकालागून बँकेचे कर्ज घेवंक कितें भरपाचे आसता?'' हांवे ताका पुराय म्हायती दिली. रोखडेच ताणे नमळायेन मागणी केली, ''सायबानू, कागद मेळल्यार आत्तांच अर्ज दिवन येन म्हणटा!''

हांवे ताका कागद दिना जाल्यार गांवचो विकास थांबतासलो. ताका लागून कागद दिवचे पडले. हाचो परिणाम लगोलग दिसून आयलो. म्हळ्यार अजून गांवांतले बरेच तरनाटे भुरगें म्हजें घरां ह्या ना त्या कारणान येवन गेले. म्हाका दिसलें आत्मोन्नतीचें स्वताले उदरगतीचे - ल्हार आयला. कोणे अर्ज विनंती, जाल्यार कोणे सरकारी, विंगड विंगड विभागानी तक्रारी वा मागणी धाडल्यात आनी तांकां गरजेचे कागद हांवूच एकटो पुरयत आसा हे ध्यानांत आयले. परंत हांव जेन्ना केन्ना मातशें बेपर्वायेन वागलो तेन्ना काय गांवकार म्हजेकडेन तुटकपणान वागले पूण कागद मागचे काय सोडले ना. जेन्ना हांवे हेर जनांक पेपर दिले तर आपणाक कित्याक म्हूण दिना हो तांचो तर्क आसलो.

अशात गांवात एक दंगल घडली. चवकशीखातीर आयिल्ल्या सरकारी मनशान म्हज्या कुडाभायल्या वासरेंत बसून सगळो वावर केलो. आनी थंयसर हांवे सुवाद दिना जाल्यारूय कागदाचो पुरवठो करपाची जापसालदारकी म्हजेरूच आसली. हांवे दिल्ल्या एके कागदार गांवचे सरपंचान जोरदार चत्राय दिली, आनी ती गांवभर दवंडी दिवन भोवंडायली. उपरान्त विरोधी पंगडाचे फुडाऱ्यान सरपंचाली सगळी कारस्थानां म्हजेकडसून घेतिल्ल्या कागदाचेर बरोवन उक्तावणीक जळींमळी चिकटायली. सरपंचान म्हजेकडेन आनीक अदीक कागद मागून ताचेर नेटान जाप तयार केली. आनी गांवभर फिरयली. आख्ख्या गांवात म्हजेकडसून कागद घेवन चमत्कार घडोवपाची एक तरेची सर्त लागली. अदींमदीं वेळ काडून कोणतरी येतालो आनी केन्ना नमळायेन वा केन्ना दोळे वटारून म्हजेकडसून कागद घेवन वतालो.

आंकवार चलियो येताल्यो. पानां दुकानार उबे रावपी तरनाट्यांक त्यो मोगाचीट बरयताल्यो. तांचे बापायल्या हातांत चुकून एकाद्री मोगाचीट हातांत पडली म्हणटकीत ते सगळे म्हजेकडेन येवन तंटो उप्रासताले. हांवे चलियांक कागद दिलेच कित्याक इतलेंच तांचे म्हणणे आसले. जाल्यार हेच बापूय लोक तवनास भुर्ग्यां विरुद्ध तक्रार करूक म्हजेकडूनच कागद मागून व्हरताले. काय हिकमती गांवकार मदेरातीक म्हजेघरां येवन म्हाका न्हिदेतल्यान उठोवन कागद मागून व्हरताले . गांवांत आतां ताणतणाव वाडतच आसलो. आनी ताचेंमदी म्हाका पडपाचें नासलें देखून मागिल्ले मागिल्ल्यांक कागद रिमांतल्यान काडून दितालो. ताका लागून आतां कागद इतलें काय उणे जाल्यात म्हाका कादंबरी बरोंवक आता शक्यच ना.

गांवची वास्तविकतायेची जाणविकास करून घेवपाच्या ओड लायणीन हांव एके गांवसभेक हाजीर रावलो. सगळ्या भाशणांच्या मुळावेंत एकूच सूर दिसलो - म्हळ्यार, आमच्या गांवाची उदरगत करून घेतल्यार विकास करूंक फकत उरिल्लो भारत आसतलो. आनी तो कांय खासा चडसो ना. बऱ्योच येवजण्यो मार्गी लागल्यो. देखीक म्हळ्यार न्हयचेर बांध जाय, माध्यामिक शाळा बांदून घेवप, सरकारक अर्ज विनंती,भाशणातल्यान अशेंय कळीत केल्लें, - ''आमचे सगळ्यालें बरें नशीब समजा, एक व्हड लेखकान आमचे गांवांत येवन राबीत केला. अर्ज, विनंती, तक्रार करूंक जेन्ना केन्ना कागदाची गरज पडटली. तेन्ना ती म्हजेकडसून भागोवन घेयात. कागदाचे अजाबात उणे ना. उणाय आसा ती आमगेल्या एकतेत, तशेंच मन लावन काम करपांत आनी ते रोखडे पयस करुंन गांवाक प्रगती वटेन व्हरुंक जाय.''

कोणतरी सांगून गेलो - देशांत जर नवयुग येवपाचे असा तर ते पयले गांवात येतले. जाल्यार तो कितलें खरें सांगता हे ध्यानांतूच घेतले ना. नवयुग येवचे तेन्ना येवं दी जाल्यार म्हजेकडेन आतां एकूच कागद बाकी राविल्लो. ताचेर कादंबरी बरोवपाचे शक्य नासलें. निमाणे ताचेर एक म्हजीच कविता बरोवन काडली.

आनी निर्शेल्ल्या मनान त्याच सांजेर गांव सोडून शारांत आयलो.

म्हजो इश्ट बाबूलालान म्हायती दिली ती अशी - गेल्या दोन म्हयन्याच्या काळांत सरकारान गांवच्या तीन नवीन निर्माण कार्याक मान्यताय दिली. दोन दंगल माऱ्यामाऱ्यो जाल्यो, चार आंकवार तरनाट्यो चले - चल्यो घर सोडून पळून गेले, आनी हाचें मुळावेंत हांवे मेकळ्या हातान दिल्ल्या कागदाक लागून. म्हज्या इश्टानो, सांगपाचे म्हळ्यार, बरयिल्ल्यान जे कांय घडटा ते तुमका खबर आसा. जाल्यार न बरयिल्ले कोरे कागद समाजांत वाटल्यार ते चड गोंदळ घालूंक पावतात. लिखाण करून जी सेवा हांवे केली ताचे परस कितली चड सेवा हांवे कोरे कागद फुकटांत वाटून केली.



# सोयरीक

गजाल सामकी स्पश्ट आसली. चलियेक अपुर्बायेन वाडयिल्ले. ताका हळद लावन बेगीन लग्न करून न्हवऱ्याल्या घरां धाडून उपरान्त तें फकत आयदना घासत रावतलें. आनी बाळंटेर काडीतच रावतलें. अशेंय घडपाक नजो. कांयूच ना म्हणपाचें परस आमी चांदीचे वाळें आनी हातांत भांगरा कांकणा नित्शित दितलें तेय खरें. चड कर्जबाजारी जावपाचे नाका. आमी थोंडे भोंव जे काय दिले ताणे कितें जातलें? पूण ताच्या भाग्यांत आसल्यार परमेश्वराल्या कृपेन जंय पडटा थंय उपाट भरून मेळतबी. कोणे सांगचे? चलियेल्या आंगार लाखभर मोलाचे दागिने चडोवपाचे दीस केन्नाच मागशी पडले. आनीक समजा चली दोळ्यान काणी तिरळी आसा वा व्यंग आसा जाल्यार कर्ज मातशें चड घेवचे पडटा. आमची चली तर बेस बरी आसा. चड व्हड घरांची गजाल सोडून दी परंत आमच्या जातीत अशी सोबीत चली मेळपाची कठीण समजा. घरांतलो सगळो वावर तें एकटेंच सांबाळटा. पूण मायेन आमी ताका सगळीच कामां करुंक दिनात ती गजाल वेगळी. शिक्षणांत सदाच वयल्या क्रमांकार रावलें आनी चल्याल्या काना फाटल्यान येवन मुखार वतालें. इंटराक मात उणे गूण मेळिल्ल्यान पयलो वर्ग चुकलो. कपूरसायबाल्या चलियेली सर्त हाचे वांगडा लागिल्ली. जाल्यार ताणे बोर्डात वशीलो लावन तिका पयलो वर्ग मेळचेशें यत्न केले आनी आमचें बाय मात फाटल्यान पडलें. तें मातशें छंदिश्ट आसा आनी मनात येता तेच करत रावतलें. ही चली आसा काय मशीन अशें साबार जण सांगत आसतात. आमी तर हाका कसलेय काम सांगनात. एकद्रच्या वेळां काम हारतले जाल्यार हे अपेशी जावपाचे ना. ज्या घरांत पडटलें तांचे नांव वयर हाडले बगर रावचे ना; आवय बापायले नाक सकयल करूंक दिवपाचे ना. सांगपाचे म्हळ्यार, म्हज्या भावानो, तुमचे घर जशें आसा ते तरेन ताका जुळोवन घेयात. आमी हाका फॅशन करूंक शिकयले ना कारण ताका 'मेमसाब' करपाचें नासलें. सामके सादी चली पूण तकलेन मात जबर हुशार. एक फावट ताणे शाळेंत संभाशण करपी चडाओडींत भाग घेतलो - विशय आसलो "स्त्री स्वातंत्र्य" - तेन्ना मास्तरिणीन तोखणायेत म्हळें, "आगो तू उलोवपात इतलें हुशार आसा ते आमका खबर नासलें."

अंतर्शालेय वक्तृत्व स्पर्धेंत दुसरे शारांत धाडून दिवपाचे शाळे वेवस्थापनाकडसून थारायिल्ले पूण आमीच ताका न्हयकार दिलो. कारण ताचो अभ्यास आनी भोंवप शाळेपर्यंतूच शीमित दवरपाचे आसले इतलेच. आयज ह्या शारांतून आफोवणे आयलें, फाल्या परदेशांतून निमंत्रण

आयलें जाल्यार आमी धाडून दिवंक पावचे नात. नमळायेन सांगचे म्हळ्यार, म्हज्या भावानो, आमका फकत खावन पिवन सुखी, कमावतो चलो ताका घोव म्हूण मेळ्ळो आनी ताचें घरचें लोक बरे मायेस्त आसात म्हणटकीर आमीय खूश जातलीं.

गजाल सामकी स्पश्ट आसली. आनी विमलाले आयव - बापूय ही सगळी गजाल वाड्यावेल्या सगळयांक सांगताले आनी तेच चिट्येतल्यान जाय ताका कळयताले.

ना म्हळेंतरी ताचो प्रभाव पडलो तसो विमलाक स्थळ सांगून येवपाक लागले. तांतूत एक आसलें ते आवयल्या आत्यालो देर. ह्या आतेलो राबीत आसलो इटावा शारांत जाल्यार तिचो देर मात कानपुर शारांत रेल्वेत टी. टी. आसलो. तांचेकडून चीट आयिल्ली. तांतून इटावावालीन सोयरिकेक चड जोर दिवन तांचे घराणे कशें बऱ्यापैकीं आसा, चलो कसो स्वतंत्र बुद्धीचो आसा आनी ताचो पगार अदीक वरकड येणावळ वा आर्थिक उत्पन्नाविशी कळयिल्ले. तुमची विमल झोपळ्यार बसून कशी झुलत रावतली हाचीय सुलूस दिल्ली.

दुसरे स्थळ आयलें तें आग्रा शारांतले. तांच्या वेणबायेल्या भावाविशी पत्रांतल्यान कळयिल्ले - चलो एम. ए. पदवी मेळोवन हालीच कॉलेजांत लेक्चरर जाला.

तिसरे स्थळ सांगून आयले तें बरेलीतल्यान भोवमानेस्त रामस्वरूप कडसून. ताचो चलो दोतोर जाला आनी वेवसाय बेस बरो चल्ला. रामस्वरूपान पत्रांत बरयिल्ले ते अशें, ....''जो कांय पयसो आसलो तो चल्याल्या डाक्टरी शिक्षणाक खर्चीक पडलों. आतां तुमची चली आमच्या घरांत आयली म्हणटकीर तिका लक्ष्मीवरी दवरूं. ताचे खातीर आमची झोळी तुमचेमुखार पसरायतात. आनीक कितें सांगू?'' अशें कितें कितें सांगणे आसलें.

सोयरीके संबंदान सांगून आयिल्ल्या तिनूय बाबतीत एक गजाल मात समान आनी स्पश्ट आसली. आजकालच्या रिवाजानुसार ती आसली - म्हळ्यार - आमगेल्या चल्याक तुमच्या चलियेक व्यक्तिशा पळोवपाचे आसा. विमलाक ताच्या आवयबापायन समजायलें. आमच्या चलियेंत खुसपट काडूंक मातूय सुवात ना, देखून भिवपाचें कायच कारण ना. जाय तेन्ना ते येवं दीत आनी उलोंव दीत. चल्याक पसंत पडलें उपरान्त फुडली उलोवणी करूंक येतात. जन्मकुंडली जुळोवन वा हेर सल्ल्यानी लग्न जमोवन हाडपाक जातले. हालीचो जमानो बदलिल्लो आसा आनी ताचे वांगडा चल्ले ना जाल्यार कामा जावपाची नात.

जानेवारी म्हयन्याची पांच तारीख आसली. दनपारा तीन चिट्यो हातांत पडल्यो. एकांत रामस्वरूपालो चलो आठतारखे दिसा येतलो म्हूण कळीत केल्ले आनी तो रेल गाडीन सांजेर येवन पावतलो अशें. रोखड्या रोखडो चलियेली भेट घेवन उपरान्त रातगाडीन परथें वतलो. दुसरी चीट आसली इटावावालील्या देरा कडसून. ताणे भेटीची धा तारीख दिल्ली. आनी तिसरेंत आग्रा शारांतल्या वेणबायेलो भाव म्हळ्यार लेक्चरर सायब अकरा तारखेक येतलो अशें कळयिल्ले.

''हे मात बेस बरें जालें. सगळे एका फाटोफाट येवन वतलें.'' विमलाच्या आवयन

उस्वास दिवन म्हळें.

"बरें जाले, बेगीन मामलो सोंपून वतलो." विमलाल्या बापायन म्हळें, "आनी आत्ताच येतात तेच उपकारतलें. म्हयन्या अखेरीक येतासलें जाल्यार आमका त्रासाचे घडटासले."

आवय बापायली आपसांतली उलोवणी विमलाच्या कानार पडली. तशें ताणे जीब भायर काडली आनी लजेंलें. बरे जालें, त्या वेळार त्या कुडांत कोणूय नाशिल्लें. तें चिंतूक लागलें - जेन्ना ते आंकवार चले भेटीक येतलें तेन्ना कितें जातलें? धावीत शिकतना मोगांत पडून लग्न करपाची सपना तें पळतालें. आनी त्याच दिश्टीन तें वर्माल्या दोतोर चल्याकडेन सपनेलेशें जालें. तोय त्याच रुळावेल्यान धांवतालो - म्हळ्यार ताका दोळे मोडटालो. जाल्यार कल्पना विश्वांत दोतोराली बदली जाल्ल्याकारणान गजाल अदूर्यारूच थांबली, उपरान्त ताणे नदर वयर करून म्हूण पळेले ना. आयज ताचे मन उचांबळिल्लें. आपणाक पळोवपाक येवपी आंकवार चल्याविशी ताच्या मनांत विचार येतूच रावले तशें ते सोबीत सपनांत शेणून गेले, कोणतरी येतलो, ताचे सांगातान बागेंत उलयत बसतलें. ताची बोटां आपणाल्या बोटांत घालीत सोपूतां घेतलें. उपरान्त आवय बापायन हयकार दिलो, आंगार दागदागिने चडयले. आनी निमाणे लग्न जालें - आनी अशेंच चेरे परतें परतें पळोवन ताका दिसलें ते म्हळ्यार स्वताकूच एकादल्या सिनेमांत आपूण पड्ड्यार दिसत आसा अशें वा खंयच्यातरी म्हयनाळ्यांत छापून आयिल्ल्या कथानकाचे मुखेल पात्र आसा. तें बशिल्लेकडेनूच वग्यावग्गी लजत रावलें. आनी तेन्नाच आपणाल्या कुडीक कोणालो तरी स्पर्श जाला असो ताका भास जालो तशें ते ताकतिकेन उठलें आनी कपाटाच्या हारशामुखार उबे रावन स्वताकूच नियाळत रावलें.

आठ तारखेक सकाळी सकाळीच आवयन ताका न्हिदेंतल्यान उठयलें. न्हाणी घरांत न्हावपाक गेल्लें ते बऱ्याच उसीरान भायर आयले ते धुविल्ली नवीन साडी न्हेसूनूच. बापायन दिसाळ्यांतल्यान नदर मातशें वयर करून पळेंलें तेन्ना तें ताका सोबीत दिसलें.

तिनसांजेर रामस्वरूपालो दोतोर चलो हाजिर जालों. भायर वरांद्यांत बरोच वेळ बापायकडेन उलयत बसलो. आवयन येवन विमलाक सांगलें, "ही च्या ट्रे घेवन वच. लजोवपाचे कारण ना. कितेंय विचारल्यार नमळायेन जाप दी. कितें?" विमल च्या ट्रे घेवन ल्हव ल्हव पावलानी वासरेत आयलें.

"ट्रे हांगा दवर, अशें ह्या टी पॉयचेर दवर" बापायन म्हळें आनी दोतोर चल्याक संबोदून म्हळें, "ही म्हजी बाय विमला."

विमलान च्या ट्रे बागोवन दवरचें मेरेन दोतोर चल्याक पळेले ना. जाल्यार आत्ता सरळ उबे जातासतना मात चल्याकडेन ल्हव ल्हव पळोवन आपणाली नदर कुशीक केली. तो मात विमलाक एकटक नियाळत रावलो.

"आगो, बस मातशें," बापायन सांगले तशें ते थंयच बसले.

"अंदू हिणे इंटर पास केले."

‘‘हं...’’

उपरान्त च्याचो कोप दी, खाण्याची प्लेट मुखार कर, अशें तरेचे नाटक करतां करतां पान खांवचे निमित्तान थंयसरच्यान बापूय उठून गेलो. वासरेंत आतां दोगांच आसली - विमल आनी रामस्वरूपालो आंकवार चलो.

‘‘म्हळ्यार तूच विमल आसा तर!’’

विमलान लजून मानेनूच हयकार दिलो. आनी त्याच वेळार ताका निरखून घेतलें.

‘‘आगो, लजेता कित्याक?’’

‘‘ना, ना...’’ विमलान म्हळें.

‘‘हाचेपयली खंयतरी तुका हांवे पळेला.’’

‘‘घडये .....आसूंक फाव.....’’

‘‘आगो, हांव गेल्ल्या जल्माची फकाणां करतां’’ ताणे हांसत म्हळें.

आतां मात ते खरेंच लजून रावले. तो उठून ताचें लागसार आयलो. विमलालो हात आपणाल्या पोशांत हळूच धरून ताणे म्हळें, ‘‘आमचे दोगाल्ल्या लग्नाची उलोवणी चालू आसात. हे तुका खबर आसा?’’

विमल दुबावांत पडले - ‘हय’ म्हणू काय ‘ना’ म्हणू?

‘‘लग्न करतलें मूं? तुवें हयकार दिल्यार हांवूय ‘हय’ म्हूण कळयन.’’

भायर बापायल्या पांयतणाचो आवाज आयकूंक आयलो तशें लगोलग दोगांय आपापणाल्या जागेर कायच घडले ना अशें दाखयत नुलयत बसले. थोडे वेळान विमल घरां भितर आयले आनी आपणाल्या कुडांत पावतकीर धादोसकायेन तशेंच न्हेशिल्या साडींतच बाज्यार सुस्त पडून रावलें. बोटांचो मोव स्पर्श आनी गेल्ल्या जल्मांतल्या मोगा गजालीचो आठव करीत रावले.

आयिल्लो सोयरो भायर सरलो आनी विमलाल्या आवयन घोवाक विचारलें, ‘‘पसंद पडली काय ना?’’

‘‘आगे आत्तांच कशें कांय सांगतलो? रामस्वरूपाली चीट येतली तेन्नाच कळटले.’’



विमल दीसरात एक सपनजगांत वावुरतालें. धा तारखेक इटावावालीलो देर येवपाचो जालो. विमलान विचार केलो जरा सटसटीत न्हावन धुवंन तयार रावया. जाल्यार ते दिसा सकाळी तें बेगी उठलेच ना. ताणे मनांत नित्शीत केल्ले हांचे फुडार चड सजोवप धजोवप करपाचे ना. पूण उठून हारशामुखार उबे रावले तेन्ना आपणाल्या मुखामळार लजेची सय झळकली अशी ताकाच जाणीव जाली. घडये येवपी आंकवार चल्याचेरूच विचार करतालें ते देखून आसत.

ते दिसां तें पयलेवरीच च्याट्रे घेवन गेले. ट्रे हांगा दवर, थंय दवर म्हण्ण दाखावन जालं. ही म्हजी चली म्हूण वळख करून दिल्या उपरान्त मातशें बस, ह्याच वर्साक इंटर जाला म्हूण सांगून जालें. पान खावपाच्या निमित्तान बापूय उठून गेलो आनी आंतां वासरेंत फकत दोगांय आसप हेंय पयलेवरीच घडलें.

"तुजे नांव विमल....?"

"हं......"

"नांव बेस बरें आसा," तो लागसार आयलो. ताणे म्हळें, "कानपुर शारांत आनीक एक विमल मेळटलें - तुजें नणंद. दोन विमल एकूच घरांत. फकत लग्न जावपाचे बाकी."

विमलाल्या पोल्याचेर तांबसाणेची सया पातळली. इटावावालील्या देरान तिची हाताबोटां आपणाल्या हातांबोटांत रिगयली आनी हातार थापटत म्हळें, "फाटलें काय दिसापसून तुजेंच नांव कानार पडट आसा. चिंतितालो तू कशें दिसता आसत जाल्यार आयज तो दीस उजवाडलो."

विमलान ताचेकडेन एक म्होव्या नदरेन पळेंले. ताच्या कपड्यांर शिंताडिल्या अत्तराचो परमळ तें स्वासा-स्वासांत भितर घेत रावलें. तेन्नाच कानासर गरम उस्वासाचो ताका स्पर्श जाणवलो. तानेल्ली नदर आनी हावेसी वोंठ दिश्टीक पडले. जाल्यार तेच वेळार भायर बापायल्या पांयतणाचो आवाज आयकूंक आयलो तशें दोगांय आपापणाले जागेर नीट बसली.

कांय वेळान विमल उठून आपणाल्या कुडांत आयलें. हांतुळार पडिल्लेकडेन तें जोरान स्वासोस्वास करतालें. जिणेंत पयले फावट ताणे असोय एक अणभव आयज घेतिल्लो जाका कादंबरीत वा शिणेमांत 'रोमान्स' अशें नांव आसा. ताका दिसलें आपूण एक 'हिरोईन' आसा आनी इटावावालीलो देर हो 'हिरो'. आनी ते दोगांय कितेकवरां एकमेकांक गोपांत घेवन बसल्यात आनी मोगा फकाणां करीत आसात. खाशेली गजाल म्हळ्यार हे वेळार ताका रामस्वरूपालो चलो दोतोरालो पुराय विसर पडिल्लो आनी इटावावालील्या देराली पोटली जावन पडिल्ले.

बाजूच्या कुडांत ताची आवय शेजान्नीकडेन कांय खबऱ्यो करताली. "आगो आमचे चलियेक जाय त्या घरकामाक लायक केला. मेमसाब जावपाचे ना ताका, फॅशनांत ताका रूच ना. तें घरांत सून म्हूणच वावरतलें. जाल्यार सद्यांचो जमानो आर्विल्लो - झकपक चली-चल्यांलो. आजकालचे आंकवार चले चलियांक निटायेन पळेले-उलयलेबगर हयकार दिनात. आमीय थारायले, ते म्हळ्यार, आमच्या विमलांत खुसपट काडूंक इल्लीय सुवात ना, देखून पळोवन घेयात, उलोवन पळेयात. जल्मपत्रिका जुळोवपाचें तें नंतर करपाक येता. मनाक पसंत पडले म्हणटकीर हयकार मेळटा. तशें लग्न करपाचे चड ताकतिकेचे जाला अशेंय ना. एकूच कित्याक शेकड्यांनी आंकवार चले मेळटले."

विमल कान दिवन आयकतूच रावलें. ते आतां हुसक्यांत पडलें. एकान पसंत ना केल्यार फुडार शंबर आंकवार चले भेटीक येतले म्हळ्यार दोनशें ओठ, दोनशें दोळें, पांचशें

बोटां. ह्यो सोयरीक बांदपाच्यो, ताणी वळख करून घेवपाच्यो, मोगा उतरांच्यो आनी लग्न निश्तितायेच्यो गजाली म्हळ्यार, एकांदर म्हजी परीक्षाच. ताका रातीन सपनांत दिसलें ते - दादलो आनी ताची हाताबोटां. उपरान्त एका फाटोफाट घडिल्ल्यो त्योच त्योच घडणुकी - आपूण एक रेसमी वस्त्रां पोटली आसून कोणाल्यातरी बगलेंत घट्ट आवळून बांदिल्ले आसा, आनी त्या स्वप्नील जगांत वावुरताना ताका दिसतात तो टी. टी. रेलगाडी, मावाडो आनी ल्हानसान चोरडां........आनिकूय चोरडां. खंयचो तो दोतोर, आस्पत्री, मावाडो तांचे नातेवाईक आनी चोरडां....आनिकूय चोरडां.



दुसरे दिसां लेक्चरर येवपाचो जालो. न्हाणेघरांतल्यान सजून धजून येवंक तिका आजूय उशीर जालो. च्या ट्रे घेवन वचप - ही म्हजी बाय म्हूण वळख - अन्दू इंटर जाला म्हूण सांगप, आनी निमाणे नाटकांतल्या प्रमाण पानविड्याखातीर घरांतल्यान भायर सरून बापायन तांका एकांत मेळोवन दिवप हे सगळें पयलेवरीच घडलें.

"तूच विमल तर....!"

हय म्हणटसतना ताणें चल्याक पळोवन घेतलें. लजेन सामके आंखडिल्ले.

"इंटर नंतर अजून शिकतले न्हय..?" अशें सांगतना तो विमलाच्या लागसार आयलो. शिकून सवरून घडिल्लो ताचो सरळ सादो स्वभाव, भावार्थी चेरो, म्होव्या दोळ्यांची दिश्टीभेट मोगांत बुडिल्ल्या विमलाल्या दोळ्यांक घडली - आनी कळत नकळत हाताबोटां एकमेकांत धुस्पली.

"लग्नानंतर कॉलेजांत नांव घाल. शिक्षण बंद करू नजो."

विमलान मान हालोवन हयकार दिलो. आनी अचकीत ताची रेसमी पोटली जावन चल्याल्या गोपांत रिगली.

"तुजेकडेन बरेंच काय उलोवपाचे आसा. आयज हांगाच रावतलो तेय तुमचे सांगातीत. फाल्या कितें तें....." ताचे उलोवणे अर्दवट रावले कारण भायर बापायल्या पांयताणांचो आवाज आयकूंक आयलो.

दोगांयजण आपापणाल्या जागेर वोग्गी बसून रावली. कांय वेळान तें आपणाल्या कुडांत गेले. न्हिदिल्ल्याकडेन तें चिंतूक लागलें. ती शिकून सवरुन तयार जाल्ली दिश्टी - तो सरळ सादो चेरो, - आपणाले परथें कॉलेजांत नांव घालप - क्लासरूम, पुस्तकांची रास, मावाडो तांचे संबंदीक आनी चोरडां....आनी चोरडां. अचानक ताच्या सपनांत रेलगाडी धावन गेली. तांतून दिसलो तो इटावावालीलो देर आनी उपरान्त आस्पत्रीकडेन वचपी रस्तो.

भितरल्या कुडांत आवय कोणाक तरी सांगताली. "म्हज्या बायेक घरकामाक लायक केला. तिका मेमसाब जावपाचे ना देखून फेशनबिशन करना. पळोवपाचे आसा तेन्ना येवन पळेयात. आमच्या चलियेत क्सलीच खोड वा व्यंग ना. सोयरीकेची एक रीत म्हूण

आजकाल आंकवार चल्यांक सांगून आयिल्ल्या चलियेली भेट घेवपाची आसता. ताचे उपरांत जल्मपत्रिका जुळवप आनी लग्नाची उलोवणी. वेळ काळा सांगातीन चलूंक जाय का नाका?''

विमलान रातीन न्हिदेंत जें काय सपनांत पळेले ते अजापाचे आसलें. तें एके रेलगाडींत बसला आनी ती भरवेगान आस्पत्रींतल्यान धांवता. ताचो डबो म्हळ्यार क्लास रूम. थंयसर एक एम. ए. लेक्चरर व्याख्यान दीत उबो आनी विमलाक फकत ताचें हड्डें आनी हड्डेंच दिसताले, अदीक ताची हाता बोटां. लेक्चरर कितें तरी सांगत आसलो -

''विमला..... विमला..''

विमलाक जाग आयली. पयस खंयतरी रातीचे बारा वाजिल्ले आयकूंक आयलें, जशें काय ताची हालीची दशाच सांगताले. रात अशी ......आनी ते हांतुळणार पडून आसा अचकीत लेक्चरर ताचें म्हऱ्यात उबो. ते शिकिल्ले सवरिल्ले दोळें सांगताले, ''...चल विमल, वयर नखेत्राच्या वाठारांत वचूं या!''. ताणे म्हळें, ''तुजेकडेन खूबशें उलोवपाचे आसा.''

विमल सामके भियेलें. जाल्यार ताचीं हाता बोटां घुस्पल्ली आसली; आनी लेक्चरर आपणाचेर पुराय बागवल्लो स्थितीत ताणे पळेले. उपरान्त आस्पत्रींतल्या पिडेस्तावरी अशक्त वा रेलगाडीन प्रवास करून गळसणिल्यावरी, अथवा घरगिरेस्तायेंतल्या इंटरपास आंकवार चलयेवरी जावन तें लेक्चरराले सांगातीन नखेत्राच्या वाठारांत मार्गेस्त जालें.



# आमचो देश कितलो म्हान

आफीसर कदेलार बसलो कितें आनी न्हिदलो कितें प्रशासनाच्या वावरांत कायूंच फरक पडना. सरकारी अधिकारी बशिल्ले बशिल्लेकडेनच झेमेतात. ताचेखातीर तांका एक वोल्तेर दिल्ली आसता. सरकारी कचेरीत शिपाई लोक अशा विशयांत आपणाले अधिकाऱ्यांचेर ताण करतात. ते चारपायी ल्हानशा बांकार बशिल्ले बशिल्लेकडेनूच झेमेत आसतात.

आफीसराल्या न्हिदपाच्यो तरा दोन, - एक ती संवकळीची जेन्ना दोळे बंद आसतात आनी तकली शांत शांत. दुसऱ्या प्रकारांत दोळे उकते आसतात जाल्यार मेंदू न्हिदिल्लो आसता. ती एकतरेची सिद्धी आसता आनी अणभवानच मेळटा. सरकारी अधिकारी आनी 'स्लीपवॉकर' - न्हिदेंत चलप्यांत फरक थोडोसोच. म्हळ्यार 'स्लीप वॉकर' निदान न्हिदेत 'वॉक' तरी करता.

प्रशासकीय अधिकारी न्हिदून आसता तेन्ना फायली उशी म्हूण उपेगाक पडटात. सादारण मनीस आपणाले दुख्ख, पिडा विसरून न्हिदता. जाल्यार ऑफिसर मात आख्ख्या संवसाराचे हुसके, पिडा विसरून न्हिदता. सामान्य मनीस न्हिदताना ताका जाणीव आसता ती आपणाक उठचे आसा आनी तेय वेळेचेर उठून फाल्या सकाळी आपणाल्या कामाचेर वचपाचे आसा. परंत अधिकारी न्हिदतना ताका पुरायतरेन खबर आसता ती जाग येवपाची तशी कायंच गरज ना. सादारण हांतुळणार न्हिदप मात न्हीद आसता जाल्यार सरकारी न्हिदेंत एक नशा भरिल्ली आसता ती आफिसराली अहंकाराची. जेन्ना केन्ना ऑफीसराक न्हीद येता तेन्ना फायली विचाराधीन आसतात. प्रशासन न्हिदता आनी समस्या, प्रस्न येवजणीत अडकतात. उजो लागता आनी तो न्हिवोवपाचो विचार घुस्पागोंदळात अडकिल्लो आसता. लोक मरत आसतात तेन्ना दोतोराक आफोवणेचो प्रस्न विचाराधीन आसता.

'विचाराधीन' हे उतर तशें व्हड सुवादीक म्हणपाचे - सरकारी सुबेत 'न्हयकाराचो' तो एकतरेचो उपाय. न्हिदिल्ल्या शासनाची मेंगेपणाची कुरू दाखोवपी एक गंभीर तरा आसा. 'विचाराधीन' म्हणटकीर ताका कसलीच वेळकाळाची शीम आसना. खंयचोय कठीण प्रस्न विचारासुवादीन म्हूण चीट लावन कितलेंय लांबणीर उडोवंक येता. हांतूतले प्रस्न वा समस्या येवजणीच्या ताबेंत वतात आनी सेवक वा गुलाम जावन रावतात. अशा पेच प्रसंगाचेर राज्य सरकार विचार करता, तांका पांयासकयल घालून चुराडो करता आनी केन्नाच

तांका तकली वयर काडूंक दिनात. जेन्ना केन्ना तशें प्रस्न परथें उप्रासल्यार तशें तांका दामटून धरतात. खंयचोय गुंतो वा मामलो आयकीव बुदवंताल्या पाशांत फसून मुक्ती पावंक परवता वा धडपडटा ताकाच 'विचाराधीन' म्हणपाचे. फायलीच्या ताठ फाटीचेर घट्ट आंवळिल्ली दोन तांबडी फीत आनी तांच्या नागविळख्यात अडकिल्ले कागद फडफडट आसतात. बंधनाची हीच दशा 'विचाराधीन' स्थिती समजा. विचार एक अंकुश आनी प्रत्यक्ष परिस्थिती हो हत्ती म्हूण समजल्यार हत्ती अंकुशाचे भयान दबून आसता. न्हिदिल्ले प्रशासन वर्तमानातली समस्या भविश्यांत आनी भविश्यांतले अजून फुडाराच्या भविश्यांत धुकळून आपूण मात सुसेगाद न्हिदून पडटा. प्रस्न शासनाच्या 'विचाराधीन' आसा म्हूण भौसाक कळीत करतात.

आमचे देशाचे व्हड नशीब म्हळ्यार राजा भगीरथान गंगेक धर्तरेर हाडपाची कल्पना 'विचाराधीन' केली ना. आनी समाजवादी प्रस्ताव प्रमाण तेवेळार तो विचार खुटेर हुमकळावन दवरिल्लो आसल्यार गंगा भारतांत येनासली आनी आयज उत्तरप्रदेश असो खेटाखेटी जनवसर्तीचो जायनासलो. ऑफीसर आनी फुडारी लोक चैनीची न्हीद घेतात कारण गंगा निरंतर व्हांवतेर आसा आनी लोक रामायण वांचीत आसतात. हे ते दोगांय बेस बरें जाणून आसात. आतां म्हाका सांगात ह्या देशाचे भविश्याक कितें उणें?

ह्या देशांत नवीन नवीन सुचोवणी राजकुमाराल्या थाटान जल्म घेतात. परंत केन्सर जाल्या पिडेस्तावरी तडफडून मरतात. आख्ख्या देशांत येवजणी वळवळत, रेंगाळत पडून आसतात. कल्पना वा मांडणीचे लोणचे जाता, तशेंच प्रस्तावांचेर बुरशी चडटा. कांय काळा पयली एक सुख आसले - सगळो देश 'कार्निवाल - भौसिक मौजेची परब - हांतूत गुल्ल आसतालो आनी फुडारी लोक जादुगारावरी दिसताले. जाल्यार आतां तशें काय घडना फुडारी उलयलो वा ना उलयलो कांयच बदल घडना. ऑफीसर जागो आसा वा न्हिदला कायंच फरक जाणवना. कशेतरेची 'परम' म्हळ्यार वयल्या पांवड्यावेली सिद्धी मेळयल्या ह्या देशान. वर्तमान पत्रातलें माथाळें ल्हान काळ्या नागिणीवरी रावन रावन फडो आपट्टा जाल्यार खबऱ्यो सगळ्यो आपणाले सनसनाटीपण हळू हळू कडसरावन सारहीण वा सामक्यो अळणी जातात.

निवडणुको वाट चलतात. तेन्ना घरांची जनेलां बंद करतात. चाबकाचे फटके मारलेच जाल्यार कसलोच परिणाम जायना. व्हड उश्यो, नरम गाद्यो, आराम खुर्च्यो, पंखे, कूलर, आनी खसाचे पड्डे हांचे मदी आमी एक विलक्षण सिद्धी मेळोवन घेतल्या. खरेंच आमचो देश कितलो म्हान.



# दोन बुटांची काणी

दाव्या पायांतल्या बुटान उजव्या पायांतल्या बुटाक विचारलें, ''तू खंयच्या कंपनीचो?'' उजव्या पायांतल्या बुटान रोखडीच जाप दिली, ''हांव बाटा कंपनीचो!''

''खरेंच?'' हे अशें म्हणताना डाव्या पायाच्या बुटाक खोस भोगली, ताणेय म्हळें, ''हांवूय बाटा कंपनीचो''

दोनूय बूट बेस बरें तांक आशिल्ले. दिसूंक चकचकीत. दोगांय एकमेकाचेर मोग करताले. केन्नाय विंगड जालेनात. सदाच सांगातीन गवताले, सांगातीन भायर सरताले तशें साथीन परथून येताले. एकटो भायर सरलो आनी दुसऱ्यान ताका साथ संगत दिली ना अशें केन्नाच घडले ना. एक बूट घरां परथून आयलो आनी दुसरो खंयतरी शेणलो अशेंय केन्नाच जाले ना. दोगांचे एकमेकांर खूबूच मोग जडिल्लो.

दोनूय बुटांत प्रत्येकाकडेन एक एक पांयमोजो आसलो. एका बुटातलो मोजो दुसऱ्या बुटांत चुकून लेगीन वचपाचे शक्य नासलें. एकद्रच्या वेळार चूक जरीय जाली तरी ती रोखडीच सुदारून वताली. दोगांत परस्पर मन विटपाचें कायूंच कारण नासलें.

एक फावट दोगेंय रस्त्यान वताले. कठीण प्रसंग आसलो. एके बुटाक फातोराचो धपको लागलो, जाल्यार दुसऱ्यान लगोलग समजायले, ''भियेनाका, धीर धर, हांव तुज्या सांगातीक आसा.'' ते दिसापसून त्या दोगांकूय बऱ्याच संकश्टांक तोंड दिवचें पडलें. ताका लागून तांची धिटाय वाडली आनी अणभवय. आमी एकमेकांक मजत करून आनी मन लावन चल्ल्यार आमच्या आंगार आयिल्ली दरेक संकश्टांची चडाई परतून लांवंक शकतले हे तांचे ध्यानांत आयले.

दोनूय बुटांक तांचे पायांची एक मात गजाल नापसंद आसली. आनी ती म्हळ्यार देवळांत भितर वचप. दोगांचोय देवार विश्वास नासलो. जेन्ना केन्ना वाटेर देवूळ लागताले तेन्ना ते दोगांय भायरूच ताटकळत रावताले. तांचे पाय देवळाक भोवंडी मारून परथें येवं मेरेन वाट पळोवप इतलेंच तांचे काम आसताले. तेच पांय आमच्यांत रिगून आसामेरेन आमी मुखार वचपाचे कोणच थांबोवपाक शकचोना अशें तांचे म्हणणे आसलें.

अशें चालतसतना तांचीय शेवटाची वेळ आयली. एके बुटाक असो काय मार लागलो, तो पायांत घालून चलूंक फावोसो रावलोना. निर्शेल्लोसो जावन ताणें दुसऱ्याक म्हळें, ''आरे

म्हज्या भावा, आतां हांव कसल्याच कामाचो रावलो ना. म्हजी दशा तुका खबर जाल्या. म्हाकाच म्हजी पिडा सोसूं दी कशें! तुका जंय खंय वचपाचे आसा थंय वच. तुज्यांत अजून बळगे आसा, तुजी भलायकी बेस बरी आसा, ताका लागून जिणेंत बरेंच काय करूंक शकतलो. वच आनी कामाक लाग.''

दुसऱ्या बुटान म्हळें, ''ना, ते शक्य ना, तुका एकट्याक अशा दुख्ख्यात सोडून म्हाका खंयूच वचचें अशें दिसना. हांव तुज्या सांगातीन रावतलो. तुजें बगर म्हाका कसलेच गोड लागना. ना.... ना..... अशें जावपाचे ना. आमी सांगातीन जगले, आतां सांगातीतूच मरपाचे.'' हळू हळू तांची पिराय उणे जावंक लागली. इष्टागत आनी मोगाच्या दोरान बांदिल्लेवरी आसलें, आनी जीवित सोपे मेरेन तें तशेंच रावपाचे आसलें. जाल्यार अचकीत एक घटना घडली.

एके दिसा तांचे पायानी तांका भितर घालून ताकतिकेन भायर सरले. पाया सांगातीन ते बूटय घासत घासत चलत गेले. बूट चडयिल्ली व्यक्ती आतां एके राजकारणील्या सभेंक पावली. भाशण कायंवेळ कान दिवन आयकले उपरान्त एकाएक ताचे मनांत कसलो विचार उप्रासलो कोण जाणा! परंत तो बागवलो आनी उजव्या पांयांतलो बूट काडून ताणे तो फुडाऱ्याल्या दिकेन भिरकायलो. तो बूट हवेतल्यान, बाणावरी, वेगान सरळ गेलो आनी नेटान फुडाऱ्याल्या नाकार आदळलो, आनी दुसऱ्याच खिणाक एकूच गोंदळ माजलो. लोकांर लाठीमार जालो तशें तें सतर वितर जावन मेळटा त्या दिकेन पांगले. जाणे बूट मारिल्लो तोय मनीस आपणालो दुसरो बूट थंयूच सोडून नाच्च जालो.

कायं वेळा उपरान्त थंयसर शांतताय पातळली. माचयेर कोणीच नासलो. आनी भाशणाक आयिल्ल्या सगळ्यांनी थंयसरच्यान पांय उखळिल्लो. एक बूट मंचकार तर दुसरो सभागारांत जमिनीर पडिल्लो दिसतालो. माचयेवेलो बूट किळांचलो, ''आरे भावा, म्हजें जिणें सार्थक जालें. हांव आतां राजकारणांत उतरलो. आतां बाकी राविल्ली पिराय राजकारणांत घालीन म्हणटा.''

सभागारांत पडिल्ल्या बुटान म्हळें, ''आरे देवा, म्हजेकडेन कोणालेच लक्ष ना. तू फुडाऱ्याल्या नाकार आदळलो खरो. म्हाका कोणी उखलून भिरकायल्ले जाल्यार हांव ताच्या तकलेरूच धाडायतासलो.''

एके पोन्नो माल विकत घेणाऱ्यान ते बूट उखल्ले आनी एक भंगारवाल्याक विकले. हाली ते दोनय बूट ताचे गोदामांत पडून आसात. कोणी येवन हांगासरच्या धोंगी, भ्रश्टाचारी फुडाऱ्याल्या तोंडार मारूंक म्हूण घेवन वतले हाचीच ते वाट पळेत आसात. तांचे म्हणणे इतलेंच आसा, - आंता कोणाल्याय पायांत रावपाचे योग्यतेचे ते दोगूंय रावलेनात ही खंत आसा. जाल्यारुय कोणाल्यातरी तकलेर धाडांवक बेसबरे उपेगाचे जाल्यात हीय गजाल तांका तुस्तीची जाल्या.

सांगपाचे म्हळ्यार इश्टानो, जेन्ना केन्ना तुमची इत्सा आसल्यार, हातांत तांक आनी

भिरकावपाचो वेग आसल्यार, त्या बुटांचो उपेग करूंक शकतात. जेन्ना खऱ्यान मनापसून इत्सा उप्रासतली तेन्ना हेच बूट कित्याक खंयच्याय बुटांक तुमी मुजरत उपेगाक हाडात. भारतांत राजनैतिक बदलाव घडोवन हाडूंक ह्या देशांतले सगळे बूट तुमचे सेवेक सामके हाजिर आसात.



९.

# भोवमानेस्त अध्यक्ष

प्रत्येक शारांनी अध्यक्ष वर्गवारीचे कांय लोक सहजशें मेळटात. कितल्या अध्यक्षांची गरज आसा हे त्या शाराच्या आकार, विस्तारावयल्यान अनुमान काडयेत. ल्हान शारानी एक वा दोन व्यक्ती अशोय मेळटात ते जंयखंय अध्यक्षतायेत घुस्पल्ले आसतात. ताका कारण, घडये, दरेक मनीस 'शेरवानी' - पायघोळ सदरो शिवूंक शकना आनी जे शिवून घेतात ताची अध्यक्षता हुपून वता. शेरवानी एक तर नवव्याखातीर शिवतात वा अध्यक्षांखातीर. धंदेवाईक अध्यक्षांली बऱ्याचवेळां दोन शेरवानी शिविल्ल्यो आसतात. तांतूतली एक मुजरत काळी आसता. दोन लांब पायघोळ सदऱ्यांचो फायदो म्हळ्यार एक धुंवच्याक पडल्यारूय ते अध्यक्ष जावपाचेपसून न्हयकार दिवंक पावनात कारण दुसरो आंगार चडोवन सभेक वचूंक शकतात. अशा अध्यक्षांक शेरवानी धुवंक वेळ मेळना अशें म्हणटात. म्हज्या शाराच्या जुन्या जाणट्या अध्यक्षाल्या शेरवानीतल्यान एक तरेचो घाणवास मारता - तो म्हळ्यार अध्यक्षपदाची दर्बटाण - ती फुलांवळेसरांचो पर्मळ आणि सिगारेट धुंवराचो वास मेळून भरसल्ली आसाशें ध्यानांत येता. तो वास शेरवानीतल्यान येत आसूनूय हे अध्यक्ष कस्तुरी मृगावरी आपणांतूच गुल्ल आसतात.

अध्यक्षांबाबत इतलेंच सांगूक येता - म्हळ्यार एकतर ते वेंचणुकेतल्यान आयल्यात वा तयार केल्ले आसतात. जाल्यार खरोखुरो अध्यक्ष ना वेंचणुकेतल्यान निवडून येता ना ताका तयार केल्ले आसता. एका अध्यक्षालें वा तीन चार अध्यक्षांली भाशणां आंगार घेत एकाद्रे शार जितें आसता. लोक मरण पावतात आनी अध्यक्षलोक जितेरावन दुखवट्याची सभा सोबयत आसतात. अध्यक्ष हो गंभीर प्रकारांतलो प्राणी अथवा आपूण गंभीर आसा अशा तरेचो भ्रम तयार करपाची तांक आशिल्लो आसता. सांजेर ज्या वेळेर अध्यक्षपद सांबाळपाचे आसता ताच्या दोन तीन वरां आदीच तो गंभीर जावन रावता. कायं जण सकाळी णव वाजल्यापसूनच गंभीर जातात. अशा गंभीर जाल्ल्या व्यक्तीलें मुखामळ राती आठ वरार अमंगळशें जातां आनी तशें दिसप हेच उत्तम अध्यक्षपद सांबाळपाची पयली सर्त आसता. सांगपाचे म्हळ्यार बऱ्या अध्यक्षालें मुखामळ अमंगळ दिसता वा अमंगळ चेऱ्याची व्यक्ती अध्यक्षपदार सोबता.

अध्यक्ष जावपाचो हावेस हो एक दुयेस आसा. एक फावट लागले म्हणटकीत कायमचे

चिकटता. खरो धंदेवाईक अध्यक्ष खंयच्याच सभेंत तांका अध्यक्षं म्हणून थारायिल्ले आसता तेन्नाच वतात. ते पब्लिकांत बसनात. निमंत्रित केल्ले आसता तेन्ना आपूणच त्या सभेचो अध्यक्ष आसाशें समजूत करून घेतात. ज्या सभेचो अध्यक्ष कोण म्हूण कळीत केल्ले नासता तेन्ना हे येतात आनी पयल्या रांगेत भोळेबाबडे जावन बसून रावतात - जशें काय प्रेक्षक. जेन्ना तांचे नाव सुचयतात तेन्ना ते अजाप पाविल्लेशे दाखयत, त्रास घेतिल्ल्याचे थोडे अशें दिखावटी प्रदर्शन करीत उपरान्त अध्यक्ष स्थानार बसतात. कार्यकर्त्यांक बी म्हायती आसता ती व्यक्ती अध्यक्षपद स्वीकारतली आनी त्या व्यक्तीक पक्का खबर आसता आपूण अध्यक्ष जांवक म्हूण तर आयला. खंयच्याय सभेक जो मेरेन मायक आनी अध्यक्ष फिट बसना, थंयसरची सभा मदीं मदीं बंद पडटा. मायकाच्या सामकार एक अध्यक्ष फिट करपाचे गरजेचें आसता. पन्नास-शंबर वर्सा उपरान्त सभ्यताय खुबूच उदरगती पाविल्ली आसतली. आनी ते वेळार मायकवालोच आपणा सांगातीन एक अध्यक्ष हाडटलो आनी मंचकाचेर फिट करून दितलो.

अध्यक्ष जावपी जाय ते तरेन अध्यक्षपदार बसतात. कांय जण अजाप पावन, कांय सहजतायेन अध्यक्ष जातात. कांय न्हवऱ्यावरी लजत, मुमुरखे हांसत अध्यक्षाल्या खुर्चीर बसतात. काय हेडमास्तराले खर शिस्तीचो मुखवटो चडोवन अध्यक्षपद सांबाळटात. आनी कांय अध्यक्ष अशेतरेन मान बागोवन बसतात जशें काय लग्न मंडपात व्हकलेचो बापूय. कांय अध्यक्षपदार बशिल्ली व्यक्ती दर पाच मिनिटाक मुमुरखे हांसता आनी ताका कसलेच कारण लागना. कांय अध्यक्ष अडीच मिनिटान भाशणकाराकडेन पळेतात जाल्यार दर मिनिटाक सामकार बशिल्या प्रेक्षकांक आनी निमाणे सामकार बशिल्लया बायलांकडेन. काय अध्यक्ष अदीमदी वयर हॉलच्या पांख्याकडेन दिश्टी लायतात वा खाडार बोटां फिरोवन चिंततात आयज खाड कशें गुळगुळीत जाला; आंग खाजवप आनी भोवन भोवन मात्यावयली टोपी वोग्गीच नीट बसोवप, वा हातांत घेवप ह्यो खोडी कांय अध्यक्षांत दिसून येतात. काय अध्यक्ष व्याख्यात्याकडेन अजापान मान मोडून पळेत आसतात निमाणे तो कसले सांगता, अशें कित्याक सांगता आनी केदोळेमेरेन उलयतलो हाचेर हुसकेतात.

अध्यक्षाली एक विशेशताय आसता - सांगचे म्हळ्यार - ते उसरां येतात. तो वेळेर हाजिर आसल्यार वक्तो वेळान येता. जशें काय, घडये, दोगानी मेळून थारायले आसूंक फाव - कोणे कळावान येवपाचे ते. जाय ते वेळा दोगांय वेळेचेर हाजिर आसतात जाल्यार पब्लिक मात हाजिर आसना. जे जिनसार सरकार नियंत्रण घालता ताचोच पसरो उसरां उकतो जाता. पूण थंय गिरायकानी पयलेंच खेटाखेट केल्ली आसता. आनी ज्या वस्तूंचेर नियंत्रण आसना वा उकतेपणी विकपा जाता तांचे दुकान सकाळीच उकते आसता. परंत गिरायकालोच पत्तो आसना. भाशण हे एक अशेंच पसरो आसा जंय प्रत्येक सांगिल्ली गजाल उकत्यार आसता देखून आयकूंक येतल्यांक ताची पर्वा आसना.

प्रत्येक बऱ्या अध्यक्षांल्या वागणुकेत खासा गूण आसतात. मुखेल व्याख्यात्याल्या

विचारांचेर ते सहमत आसत अशें ना. देखीक दिवनूच सांगता, 'जेन्ना वक्तो भाशणांत सांगून वता 'आतां रात आसा', ते गजालीर भोवमानेस्त अध्यक्ष निमाणे आपणाल्या भाशणांत म्हणटा, ''आतांच म्हज्या गिन्यानी इश्टान सांगले, 'आतां रात आसां' म्हूण. आमी रात आसा म्हूण एक वेळ मानून घेवयेत. जाल्यार आतां खरेंच रातूच आसा काय म्हूण एक प्रस्न म्हज्या मनांत उप्रासता. आनी तशें रात आसा म्हूण सांगप कितलेशें बरें दिसत? आदरणीय व्याख्याताकडेन माफी मागून म्हजे म्हणणे सांगता - वक्त्यान सांगले प्रमाण आतां रात आसा आनी जगाकडेन पळोवपाची ताची ती रीत आसूंये. ते बरोबर आसाशें समजल्यार दुसरो एक प्रस्न म्हजे मुखार आ वासून रावला. आमच्या खंयच्याय समस्येर विचार करताना ताका संबंदीत अशा सगळ्या बाजून ध्यान दिवप गरजेचे आसता. जशें आदरणीय वक्त्यान सांगले 'आतां रात आसा'. ताची विसकटवणी करून सांगचे म्हळ्यार - आमचो भारतीय संस्कृतीतलो खयचोय ग्रंथ म्हळ्यार गीता, रामायण - हे हातांत घेयात आनी वाचात. तांतून 'रात' हे विशी एक परिभास दिल्या. आमच्या कदीम काळांतलें ऋषीमुनिनी 'रात' ह्या विशयार चिंतन केला. ताका समजून घेतला आनी ताचो अणभवूय घेतला. अदीक ताची शीमय नित्शीत केल्यात. पुर्विल्ले काळांत रात जाय नासली काय म्हूण म्हाका विचारचेंशे दिसता. न्हयकारांबरोबर हांव सहमत ना. आमच्या देशांत सूर्याले उदेवप पयलें घडटा जाल्यार रातूय पयली पडपाक जाय, ह्या विशयांत आमचो भारत देश सदाच अस्तमतेच्या देशांचे पयली रावला.

बरें, आतां काळ बदलला. तेंय म्हाका मान्य. ताका लागून परिस्थिती बी बदलल्यात. काल आशिल्ले ते आयज ना. जाल्यारूय प्रस्न तसोच रावता - 'आतां रात आसा?' सूर्य अस्तमतीक गेलो आनी काळोख पातळलो आनी तोच आधार घेवन 'आतां रात आसा' म्हूण कशें काय म्हणूक पावतले? दिश्टिकोणांत अंतर आसूंक शकता. तुमचे विचार वेगळे, म्हजे विचार वेगळे. जाल्यार एके गजालीर मुजरत पाळो दिवपाचो पडटलो आनी ताचेर मातशें जोर दिवन सांगता - आयज आमचे देशाची दशा कितें जालां ते सगळे जाणात. जे कितें घडटा ते आमचे सामकार. अशा वेळार 'आता रात आसा' अशें सांगप वेळ काळाक धरून ना; ते अन्यावाचे जातले. हाचेर तुमी विचार करात. आमचे आदरणीय वक्त्यान सांगले 'आता रात आसा' हो प्रस्न आमचे सगळ्यांमुखार आसा. आनी एक फावट आमी मान्यताय दिली म्हणटकीर हांव अशें विचारता मागीर ''दीस कितें आसा?'' हो प्रस्न आयकून तुमी पिडेस्त जाल्ले आसूंक फाव. पूण तोय एक प्रस्न आसा. आयज देशांत सगळे विचारवंत, गिन्यानी आनी बुदवंत हांचे मुखार हो प्रस्न उबो आसा.

हांव भोवमानेस्त व्याख्यात्यालो आभारी आसा. ताणी आपणाले उर्बेन भरिल्ल्या भाशणांत सांगले, 'आतां रात आसा' म्हूण आनी एक अतिशय सामायिक आनी गंभीर समस्येक तोंड फोडलें. ताका लागून साबारजणांक चिंतनाचो असो काय नाद लागतलो - खरेंच आतां रात आसा काय म्हूण.

निमाणे आपणा सगळ्यांवतीन भाशण कर्त्यांक ताचे मोलादीक आनी अर्थपूर्ण भाशणाखातीर धन्यवाद दितां. म्हाका अध्यक्षपद दिवन म्हजो सन्मान केल्ल्याक आनी शांतपणान म्हजें भाशण आयकिल्लेखातीर तुमका सगळ्यांक दिनवास दिता. आतां ह्या सभेची कार्यावळी सोंपली म्हणून कळीत करतां. कारण आतां बरीच रात जाल्या.

ताचे उपरान्त भोवमानेस्त अध्यक्ष मुमुरखे हांसतात. सकाळी णव वरापसून ताणी जो गंभीरतायेचो मुखवटो चडयिल्लो तो अचकीत भंग पावता, आनी मुखामळार हांसप परगटता. हळू हळू सभागार एक विचारहीण मेंदूवरी रितो जाता. तेन्ना जमिल्ले सगळयानी कांय खिणांतूच थंयसरच्यान घरावटेन पांय उखलिल्लो आसता.

अध्यक्षताय गाजयली उपरान्त अध्यक्ष जाल्ली व्यक्ती सुखाची न्हींद काडटा. कांय नवे अध्यक्ष घरां पावले ना पावले आपणाल्या बायलेक सभेंतली घडणुकेची सगळी खबर सांगतात आनी आपणे केल्ले भाशण परथें दोपटायतात. जाल्यार हळू हळू तांच्यो घरकान्नी हेर सामान्य नागरिकांप्रमाण वाज येवन कानार केस काडून बसतात. ताका लागून अध्यक्ष जाल्ली व्यक्ती वोग्गी पडटा. चड रात मेरेन आपणालेच भाशणाचेर आपुणूच धादोसकाय पावता. जाण्ट्या पिरायेत तांची बौद्धिक नपुंसकता हांवपणांत बदलता. तांका पुराय खबर आसता ही रात आसा आनी सकाळ जाली म्हणटकीर आपशीच कोण येवन तांका अध्यक्षपद सजोवपाखातीर आमंत्रण घेवन येतले. येतेर रावतात तेंय खरें - येनासतना वचून वचून खंयसर वतलें?



# व्हड उदरगत केली देशान

भारताक स्वातंत्र्य मेळून आतां सदतीस वर्सां जाली. गेल्ले ते गेले. तांतून आमी कितें करूंक शकतात आनी कोण करूंक पावतले? ज्या गजालीक सदतीस वर्सां जातात त्या गजालीचे सदतीस वर्सां जातात. पन्नास वर्सां जातासले जाल्यार पन्नास वर्सां जातात. देश तोच आसा आनी थंयच रावतलो. उत्तरेक हिमालय आनी दक्षिणेक म्हासागर. देश इतलो व्हड आसा आतां मातशें चड उणे जाल्यार फरक तो कमलो पडटलो? खोशीची गजाल म्हळ्यार देश - देशूच आसा. जे भारतीय परदेशांत रावनात ते हांगांच रावतात. आनी तांची गणती तशी कमी ना. आमी जरी देशाक उदरगतीक व्हरुंक शकनात तरी जनसंख्या वाडोवंक शकतात. निमाणे आमचे पौरुष वा कर्तुप असल्या कामाक उपेगाक येता न्हय?

स्वातंत्र्याच्या ह्या सदतीस वर्सांत आमच्या देशांत व्हडले व्हडले फुडारी जावन गेले. जेन्ना व्हड फुडारी रावले नात आमी ल्हान ल्हान फुडाऱ्यांक जल्माक घाले. त्या ल्हानसान फुडाऱ्यानी अजून तांचे परस नेण्टें फुडाऱ्यांक जल्म दिलो. अशेतरेन आमच्या देशांत फुडारी विशयांत एक आत्मविस्वास तयार जालो. ताका लागून आमका योग्य मार्ग दाखोवपाखातीर हेर देशाकडेन नदर लावन बसपाची गरज उरली ना. आमी स्वताच एक दुसऱ्याक वाट दाखोंवक शकतात. आमी नेतेपणाचे दरवाजे सगळ्याकूंच उक्तायले. जर तुमचेकडेन कसलेच काम नासल्यार तुमी खुशाल आमच्या शाराचे फुडारी जावंक शकतात. आनी समजा तुमचेकडेन वावर खूब आसा म्हळ्यार आपशीच तुमी आमचे फुडारी जाले. कामा करपाची आवड आसल्यार तुमी बेस बरे फुडारी जातले. पूण वायटाचे काम करपाचे आसल्यारूय तुमी फुडारी जाल्यार तांतूत जैत मेळयतले. दरवटो सगळ्यांकूच उकतो दवरला.

ज्या शारांत सवंगा करपी चड आसात थंयसर नाटक मंडळींची गणटीबी चड आसता. तेच तरेन ज्या देशांत फुडाऱ्याली संख्या चड आसता थंय राजकीय पक्ष चड आसतात. निमाणे हे राजकीय पक्ष म्हळ्यार कितें आसता जाणां? ते प्रजातंत्राचे रेल्वे डबेच. रेल मुखार वता तशें डब्याची संख्याय वाडटा. आनी जे तरेन सुपर फास्ट गाडीचे डबे विंगड विंगड आसुनूय एकमेकांक जोडिल्ले आसतात तेच तरेन प्रजातंत्राचे हे डबे वेगवेगळे आसून लेगीत परस्पर सांधिल्ले आसतात. तुमी खंयच्याय पक्षांतल्यान खंयच्याय पंगडांत हुसक्याशिवाय प्रवेश करूंक शकतात. सगळ्यो बसक्यो मोव आसात शिवाय प्रत्येक डबो वातानुकूल आसा.

स्वातंत्र्याच्या ह्या सदतीस वर्सांत आमी झाड-रुकांक जमीन दोस्त केले. आनी तांतूतल्यान खुर्च्यो तयार केल्यो. आतां रुकूच ना जाल्यार रुका सकयल बसतले कशें? जाल्यार लाकडापसून तयार केल्ल्या खुर्चीत बसतात. उपरान्त अदीक रुकातोडणी करूंक आज्ञा दिवंक शकतात. ह्या सदतीस वर्सांत फुडाऱ्यानी जेन्ना केन्ना भौसाक सांगले, ''वनसंवर्धन' आमी करतले, तेन्नाच मुळांसकट रुख कापले. जोमेरेन झाड वा रुक कापनात तो मेरेन जागो रितो जायना आनी मेकळो जागो ना म्हणटकीर नवी झाडां लावंक मेळनात अशे तरेचे हे कुवाडें जावन रावला.

आमच्या देशाची धरती म्हान आसा. हांगा जितले धान पिकता ताचे परस खूब पटीन चड खावप्यालीं तोंडा जल्मांक येतात. मनीस सवाय आनी जिनसा म्हारग; शरीर सवंग आनी कापड मोलादीक जाला. घरांची गोडी उणीजाली आनी हाटेलाची व्हडविकाय वाडली. दागदागिन्याचो सन्मान कुडीपरस अदीक जालो; खुर्चीचो मान मनशापरच चड जालो. घरांत घरकान्न आसुनूय नदरे भुकेक नटी जाय. भारत गुलाम आशिल्लो तेन्ना आंकवार तरनाटो आपणाली जावपी व्हकलेली सपना पळेतालों; आनी आतां स्वातंत्र्याउपरान्त आंकवार तरनाटे हॉटेल रूमांत 'कॉलगर्ल' - धंदेवाली चलियेक आफोवन घेतात. जिणेतलें कश्ट, पीडा उणी जाली, सुसेग वाडलो, मनांत आयले म्हणटकीर जाका जी जाय तिचेर अतिप्रसंग करूंक मुखार सरले. मनांत दुस्वास उप्रासलो आनी दुश्मानाक नेस्तनाबूत केलो. सन अठ्ठेचाळीसपसून ते सन चौऱ्याअंयशीमेरेन आमचो पराक्रमांचो गाथो म्हळ्यार महात्मा गांधील्या हत्येपसून इंदिरा गांधीक गोळी घालची मेरेन. अहिंसावादी म्हाताऱ्यापसून सुरुवात जाल्ली काणी शस्त्राविण म्हातारेंक मारून थांबली. कोणाखबर ती काणी अजून सोंपली काय ना! काय जणानी शहीदालीं वळेरी पयस केली आनी हिटलिस्ट घेवन भोंवत आसात. तिरंगाचो चौरंगी जालो. तांतूतलो एक पट्टो रगताचो.

स्वातंत्र्याच्या ह्या सदतीस वर्सांत देश उठलो, पडलो; उठून पडलो आनी पडून उठलो जाल्यार निटायेन उबो रावंक शक्य जालेना. जोमेरेन इंपोर्टेड - आयात केल्लें घड्याळ मनगटार आसना आमका वेळ पळोंवक जमना. जोमेरेन इपोर्टेड - विदेशी - विचार आसना आमका आपणाल्या देशाविशी विचार करूंक फावना. जोमेरेन भायली भीक आनी उधार मेळना आमच्या उदरगतीर आमकाच विस्वास मेळना. जो मेरेन विदेशी फॅशन आपणायनात आमची सोबिताय आमका ध्यानांत येना. परदेशी सूर मेळेमेरेन आमका संगीत बरें अशें आवडना. आमच्या देशाच्या धर्तरीर आमी उबे आसात जाल्यार आमचें मळब विदेशी आसा. कुडी गांवात आसा पूण आत्मो अमेरिकेंत. स्वातंत्र्यांच्या सदतीस वर्सांत खंयच्यान खंय पावले. आनी खंय आयले. इतल्या वर्सांत आमची उद्योगाची उदरगतीची वळख इतलीच, - आमी गंगायमुनेक म्हेळ केली. रस्ते खराब जाल्यात जाल्यार ताचेर धांवपी कार सुबेत आसा. आंवतेभोंवते रेबो जाला तरी आमची पाटलून टेरिकॉटची आसा. आमचे घर देखदिणे परंत देशाचे कशेंय आसूंदी.

स्वातंत्र्याच्या सदतीस वर्सांत पयशाचो बटवो रितो जाला. मात मात्यावेले केस वाडत

आसात. लोकानी मिशयो वाडयल्यो आनी राष्ट्रान अनेक समेट केले. देश बळिश्ट जावंदी वा ना जावंदी पूण जातीयतेक मात घटसाण मेळ्ळी. प्रांत, राज्यां घटमूट जालीं. ऐश आरामाच्यो सुवात्या तयार जाल्यो. दूध सकस मेळूंदी वा ना मेळूंदी जाल्यार भांगराविशीं तक्रार करूंक मातय जागो दवरलो ना. खावच्या पाना शेती आनी सिगारेटीचे उत्पादन उपाट वाडले आनी देशाची चारी बाजू फुलून आयली. लोक आनंद भरीत जालें. गरज आसूंदी वा नासूंदी पावस पडलो, दुकळय पडलो आनी लोक भुकेन मेले. जाल्यार लग्नामाटवांत व्हड जेवणावळी पडल्यो. आनी भौस बाबडो रायवळ आंब्या घोटां चोखत रावलो. आतां तेय म्हारग जालें.

सदतीस वर्सां म्हळ्यार खुबूच जालीं. थोडे नवीन मार्ग तयार जालें. जांका जंय वचपाची इत्सा नाशिल्ली तरीय ते थंयसर पावले. हांगाचो माल थंयसर गेलो. स्मगलिंगाक वेग आयलो. सगळो देश आपशीच एकमेकांत जोडलो - रेल्वन, तारेन, दूरध्वनीवरवी आनी टपालखात्यान, हे सगळेच उपेगाक आयलें. सट्टयाचो आंकडो मुंबयात फुट्टा आनी तो देशभर कांय खिणांत कळीत जाता. राष्ट्राच्या एकठांय येवपाविशी हाचे परस म्हजेकडेन दुसरें प्रमाण ना.

जो निर्शेल्लोसो जाल्लो तो फूटपाथार भोंवतेर रावलो. जो जिणेंत व्हड हावेस धरून आशिल्लो तो परदेशांत पावलो. जांका जेन्ना संद मेळ्ळी ते विदेशांत गेले, तांचे बदलाक, 'टूरिस्ट' परदेशी भोंवडेकार हांगा आयले; हिप्पी आयले. हिप्पी - हिप्पीणीली लज भारतीय हातमाग वस्त्रांत गुठलावन रावली. आनी भारतीय सती सावित्रीली लज 'इंपोर्टेड' म्हळ्यार आयात केल्ल्या 'नायलोन' कपड्यात. मुमुरखे हांसपाचो मुखवटो घालप व्यवसायचो गूण जालो, खुशामत धर्म जालो, तिडक मारप जिस्ताजिस्त वागपाची कळाशी जाली आनी गंभीरतायेची दरी नित्शीत जाली. कविजन ओडलायणी कविता बरोंवक लागले. आनी हुंडो घेवन ना आयिल्ल्याखातीर सुनांक जाळूंक लागले. बरीच व्हड उदरगती ह्या देशान केली म्हणपाचे!

देशाच्या प्रयेक रित्या सुवातेर जायराती चिकटल्यो. आख्खो देश सोबीत अस्तुरील्या चेऱ्यान धांपलो. दरेक आकृतायेत खंयचे तरी एकाद्रया चलियेन आमका टकमक पळेलें. मजा म्हळ्यार चित्राभायर वास्तवांत - अशा गोमटीन आमका उकत्यार केन्नाच धिटायेन पळोवपाचे शक्य ना. सदतीस वर्सांचो प्रवास बरो अजापाचो म्हणपाचे. गरीबी कडसरांवंक भायर सरिल्ले श्रीमंती वाडोवपी कामाक लागले. सगळे विचारवंत निमाणे एके निकालार येवन पावले - जाच्यांत लाब आसा तेच शुभ आसा. फकत बरें आसा, कल्याणकारी आसा म्हूण तशां वावरांत हात घालो जाल्यार तांतूत लाब तो कसलो?

जे प्रमाण सदतीस वर्सां सोपली तशेच तरेन शंबर वर्सांय सोंपतली. फट आनी खरेपणाचे, आदर्श आनी लांचखोरीचे, त्याग आनी नास्तिकतेचे, सेवा आनी स्वार्थाचे, चोरी आनी दानतीचे जे 'कॉकटेल' - मिस्रण आमी तयार केला तें खूबूच मजा हाडले बगर रावपाचे ना. तुमी फकत वाट पळेयात.



# मोगाचीट - आनी राष्ट्रभाशा

---

मोगांत मनीस एक्रदम आवटो जायना. तो ल्हव ल्हव पिसो जाता. सुरवेक दिश्टी उणी जायत वता. ज्या आंकवार चलियेचेर मोग करता ती एकाएक सोबीत दिसूंक लागता हेंच ताचें प्रमाण. हे वटेन नदरेंतलो उजवाड उणो आनी अदीक उणो जालो म्हणटकीर तेवटेन त्या आंकवार चलयेंलें मुखामळ चड पर्जळीलें दिसता. अशा उचांबळीत अवस्तेंत तो आपणाल्या जिणेंतली पयली मोगाचीट बरोवंक घेता आनी जिस्त तेच वेळार मोगाचीट बरोवचे परस मोग करप सोपें हे ताच्या ध्यानांत येता. अशा वेळार आमची राष्ट्रभाषा हिंदीच्या मानमर्यादेचो प्रस्न उबो रावता. मोग करप सामके सरळ सोपें जाल्यार हिंदी भाशेंत मोगाचीट बरोवप म्हाकर्म कठीण. हाली राष्ट्रभाशा हिंदीची दशा खुबूच वायट जाल्या. जंय नेणार मोगी आनी मोगिका आपणाल्या मोगांत जैत मेळयतात थंय जे बुदवंत आसात - भाशेचे जाणकार आसात - ते मात मोगांत सपाटून मार खातात.

आतां म्हजीच देख दितां. जे तरेन संपादकानी म्हजें बरोवप नाकारले तेच तरेन आंकवार चलियानीं हांवे बरयिल्ल्या चिटींक पाळो दिलो ना. संपादकाक एक वेळ माफ करयेत कारण हांव अडिल्लो आसलो. सतत बरोवपाची संवय करून हांव लेखक जालो. जाल्यार त्यो आंकवार चलियो म्हजी मोगचीट वाचपाचे सोडून जांका जो जाय ताच्याकडेन लग्न करून मेकळीं जालीं बी.

आमच्या भारतीय शिक्षण परंपरेत एक व्हड उणीव वा चुकां आसात. तांतूत मोगाचीट कशी बरोवप ते शिकयनात. हाली जें कितें शिकतात ते भविश्यांत जिणेचे लडाईत कांयूच उपेगाचे ना म्हूण आयचे जुवान चले सांगतात. ताका लागून ते मोगांत लेगीत अपेशी थारतात. मनशाजिणेंत मोगाचिटयेक चड म्हत्व आसा. पत्र लेखन शाळेंत शिकयतात पूण त्यो सगळ्यो अशातरेच्यो - गिमाळ्यांत तुमी सुटी कशेतरेन घालयली, ते विशी तुमच्या इश्टाक कळयात अथवा वर्सांअखेरचो परीक्षा पेपर कशें तरेन सोडयलो ते विशी आवयबापायक बरोवन कळयात वगैरे. जाल्यार खंयचोय शिक्षक मोगाचीट बरोंवक शिकयना जशें - मोगी सोडून गेलो उपरान्त मोगिकेचेर कसल्यातरेची संकश्टां आयली वा मोगामोगिली पयलें भेटींत दिश्टादिश्ट जाली आनी ते वेळार मनांत कसल्या तरेच्यो भावना उचांबळून आयल्यो. अशें आसुनूय हुशार विद्यार्थी असल्या पाठ्यपुस्तकांच्या शिमेंत बांदून घेनात.

ते अणभवान आपणाले गिन्यान वाडयतात. म्हज्या विद्यार्थीदशेंत हांवेय तेच केल्लें. पयली संद मेळ्ळी आनी हांव मोगाचीट बरोंवक बसलो.

मोगाचीट बरोवची म्हळ्यार एक कपल उसळप आसलें. आमची राष्ट्रभाशा हिंदी एक कवडीमोलाचीय उपेगाची नासली. मोगासंबंदी आमचो शब्दकोश खुबूच उणो आसा. मोगाच्या कंवळीत्कायेर अथवा मनाचे हळवेपण सांगतना उर्दू उतरांची धिगी लावन चीट बरोवपाचे काम चलोवपाचे पडटा. मातशें विचार करात -उणविकाय आशिल्ल्या भाशेंत आमी आर्विल्या चलियांक कशें काय चीट बरोंवक शकतले? आयज गरज आसा ती एक आयोगाची उबारणी करपाची. मोगाचीट बरोंवक लागपी उतरावळ तयार करप तांची जापसालदारकी आसतली. आमची राष्ट्रभाशा प्रचार संस्था ह्या विशयार कशेतरेन मजत करीत आसा हे म्हाका जाणून घेवपाचे आसा. सरकार ह्या गजालीर कसले करीत आसा? राष्ट्रभाशाप्रचाराचे सगळ्यवयल्या पांवड्यावेले माध्यम म्हळ्यारुच 'मोगाचीट' आसा हेय तांका खबर आसा काय ना? हिंदी भाशिक आंकवार तरनाट्यानी अहिंदी भाशीक मोगिकांक धाडिल्ल्यो चिट्यो वा हिंदी भाशीक आंकवार चलियांनी अहिंदी भाशीक आंकवार जुवानांक बरयिल्ल्यो चिट्यो हाचेवेल्यातूनच ते स्पश्ट जाता. आयज आमची हिंदी भाशा विश्वस्तरावेली भाशा जावपाची आसा. फाल्या आमचे जुवान चले सगळो संवसारभर आंकवार चलियांक हिंदीत मोगाचीट बरयतले. जाल्यार हिंदीत बरयिल्लया चिट्येचो जाय तसो परिणाम घडलो नासल्यार, वा लग्न करूंक तयार नासल्यार आमचे आंकवार तन्ने पिळगीचें कितें जातलें? राष्ट्रभाशेचे नाक कापतले न्हय?

पयली मोगाचीट बरयतना हांवे म्हज्या इश्टाली मजत घेतली. ताची हिंदी भाशेची म्हजेपरस चड जाणविकाय आसली. ताणे खूबशो मोगाचिट्यो बरयिल्ल्यो. ताकालागून गांवात ताची अब्रू पुराय मातीत मेळिल्ली. जाल्यार टपाल खात्यांत बेस बरो मान मेळटालो.

''चलियेले नांव सांग'' म्हज्या इश्टान विचारलें.

''नाव सांगपाचो ना. आरे तुजो कसलो भरवसों? फाल्यापसून तूच तिका चिठी धाडत रावतलो.''

''मोगाचीट धाडपाची खरेंच गरज आसा?''

''हांतूत गरजेचे कितें आसता काय म्हणटा?''

''हांतूत गरज कसली काय म्हूण विचारता? आरे, बँकेतल्यान कर्ज घेवपाचे जाल्यार गरज आसता तेन्नाच अर्ज करतात न्हय?''

''प्रसंग बरोवपाचे मेरेन येवन पावला. मातसो विचार कर! मोग कुड्डे आसता. मातसो फार मारून पळोवपाचे आसता. ताणे शक्यताय वा अदमास करुंक मेळटा इतलेंच.''

''मोगांत अशी काय कठीण अवस्था आयल्यारुच मोगाचीट धाडूंक जाय.''

''जोमेरेन हांव चीट बरोवन धाडपाचो ना तोमेरेन तशी परिस्थिती कशी उप्रासतली?,

मातसो विचार कर'', हांवे स्पश्ट केलें.

निमाणे तो मजत करूंक तयार जालो. हांवे ताका परथें सांगले, ''हे पळय, भावना शुद्ध आसूंदी वा नासूंदी जाल्यार भाशा मात शुद्ध आसूंक जाय. कारण हांव एक हिंदी लेखक आसा आनी म्हजीय एक 'इमेज' - प्रतिमा आसा - आनी ती बिगडावन घेवंक हांव तयार ना.''

ती आंकवार चलीय कसली आसली म्हूण सांगू? वशाड वाठारावयलें तें एक गुलाब फुलावरी फुलिल्लें. म्हजी ओपार कशी आसा? तिणे पळेयले म्हणटकीत एक पोन्न्या टाईपाचो नमुन्याचो खंजीर पोटांत रिगिल्ल्यावरी जातासलें. तसल्या तरेचे खंजीर सद्यांक फकत वस्तु संग्रहालयांतूच दवरिल्ले दिसून येतात. इतलें मात खरें. आमका स्वातंत्र्य मेळ्ळेउपरान्त ह्या आंकवार चलियालीं अपेक्षा वयल्या पांवड्यांर चडत आसा जाल्यार हिंदी राष्ट्रभाशेची प्रगती तितल्या थरार पावली ना.

हांवे बरयिल्ल्या चिटयेचे फुडार घडलें कितें हे जाणून घेवंक तुमी चड उतावळे जाल्ले आसूंक फाव. राष्ट्रभाशेच्या उबारणीत तुमका कितली रूच आसा तेंय म्हाका खबर आसा. ती म्हजी पयलेचीच मोगाचीट आसली. आनी त्या आंकवार चलियेक पयले फावट मेळिल्ली आसूंक फाव. हांवे जे काय बरयिल्ले ताचो अर्थ तिका कळ्ळोच ना आसूक जाय. कारण राष्ट्रभाशा हिंदीविशी बऱ्याचवेळां अशेंतरेचे घडतच आसता. तिणे ती चीट आपणाल्या आवयक दिली. तिका थोंडे ध्यानांत आयलें. तशें तिणे त्या चलियेल्या बापायक ती चीट सुपूर्द केली. तांकाय बरेंच कांय कळ्ळें. चलियेल्या बापायन ती चीट म्हज्या शाळे प्रिन्सिपलाल्या हातार दवरली. आनी तांका मात पुराय तरेन कळून चुकले. तांची हिंदी भाशा बेस बरी आसली. पत्रांतली भावना समजून तांका तिडक मारली, ताणी म्हळें, ''तुमी फकत पळेत रावात. ह्या विद्यार्थ्यालीं तकली सामकी फोडून दवरता काय ना ते.'' हिंदीत बरोवप केल्ल्यान अशा आव्हानाक धिटायेन सदाच तोंड दिवपाचे आसता.

ह्या प्रिन्सिपालाविशी म्हाका इतलेंच खबर आसा. म्हळ्यार भारतीय इतिहासांत विद्यार्थ्यांक बडेन मारबडय शिक्षा दिवपी प्रिन्सिपालांत हांचे नाव भांगरा अक्षरांत बरोवन दवरला ताणे बडेन मारिल्ले विद्यार्थी भविश्यांत बेसबरे वयले अधिकारी जाले आनी यश मेळोवपीय जाले. जाल्यार ताणे म्हजी अवचिन्नपणा बरेबर वळखिल्ली. हो बऱ्या गुणांचो चलो आयज मोगाचीट बरोवंक शकता तो फुडारा खात्रीन व्हड लेखक जातलो. आनी देशसेवा करतलो. देशांतले सगळे दादले बायलां ती चीट वाचतलें. ते कारणान हाका बडेचो प्रसाद दिवप मुजरत गरजेचे जाला. ताणे म्हाका आफोवन विचारलें, -

''खंयच्याय चलियेक मोगाचीट बरोवंक तुवें धाडस कशें केले?''

''सर, मनांतले विचार परगटावपाक 'साहस' गुणाची पयली गरज आसता'' हांवे म्हळें.

जेन्ना म्हाका धपके पडटाले तेन्ना म्हज्या मनांत एकसारकें विचार येतालें. आनी ध्यानांत

आयलें आमच्या राष्ट्रभाशेंत उणीव कितली आसा ते! तेन्ना हांव सामको दुबावांत पडून आसतालो. हाचे फुडार कसल्याक वयलो क्रमांक दिवूं - म्हळ्यार मोगाचीट बरयत रावूं वा राष्ट्रभाशा प्रगतीची सेवा करूं?

जिका हांवे मोगाचीट बरयिल्ली ती आंकवार चली आयज खंयसर आसा ते देवाकूच खबर... ती हांगासर ना ते मात खात्रीन. घडये तिणे बरे तरेन हिंदी भाशा शिकिल्ल्याकडेन लग्न केल्ले आसत. तांचे नशीब बळकट जाल्यार म्हज्या पेनांत तांक चड. ज्या ज्या चलियेक हांवे मोगाचीट धाडली, त्यो प्रत्येकजण हेर कोणाकडेन तरी लग्न जावन सुखी जाल्यो. म्हजेसर आतां फकत जोरदार बरोवप बाकी रावल्या. ताकालागून राष्ट्रभाशा हिंदीची सेवा करीत आसा. एक गजाल मात ध्यानांत दवरपासारकी सांगता म्हज्या इश्टानो, -खूबशो मोगाचीट्यो बरोवपाचें बोवाळात हांव मात निजाच्या जिणे पांवड्या वेल्यान निसरलो आसूंक फाव. जाल्यार हांवे राष्ट्रभाशेचो स्तर सकयल पडपाक केन्नाच दिलो ना हे मात खरें.



# फॅशन - जिणेक कोरांतपी एक कला

ह्या वाज हाडपी संवसारांत, बऱ्याच फावटी अशेंय दिसता, आमचो जल्म फकत तरेकवार वस्तू, जिनसां खरेदी करपाकूच जाल्लो आसा. आमी मनाशां आसात आनी सदाच गिरायक जावन रावपाचो आमका स्राप मेळ्ळा. जेन्नापसून म्हाका कळूंक लागले हांव निरंतर कसलीना कसली वस्तू विकत घेतूच रावला. आनी अशे तरेन खरेदी करतां करतां बुद्धी वा अक्कल फाखता नावाच्या सुकण्याप्रमाण हुपून वतली आनी परथीं केन्नाच येवपाची ना. ते वेळा फकत एक कफन - मड्यावेले कापड विकत घेवन तांतूत आमका धुकळून दितले. ती कफन सादी आनी धवी आसतली ताचेर ना डिझायन आसतली ना वेलबुट्टी. फल - पान, चंद्रिमनखेत्रां, फुलपांकुडी - सुकणी अशा कसल्याय तरेची आकृताय नासतली. आनी तेन्नाच अशा कलेक सुटावो मेळटलो. ही कसली रद्दी कफन घेवन आयले म्हूण कोणूच विचारपाचो ना. धव्या रंगाची 'मोनोटोनी' - तोचतोचपणा - भंग करूंक ताच्या मदोमद रंगीन आकृतायेचे पॅचवर्क - शिवणकाम नासतले, ना ताका देग आसतली वा झालर लायिल्ली. आनी तेन्नाच जी सतत आपणाली जादू दाखयत रावली आनी आमका गिरायक म्हणून रांवक जिने सक्ती केली त्या कलेक मुक्ती मेळटली.

अशा कलाकारांचे बरे जांव दी. कला ,खंय ना ते सांगात पळोवयां. प्रत्येक इबाडिल्या वस्तूचेर एक सोबित लेबल लायला. भिकार सिनेमांचे पोस्टर,जायरात मनभुलायणी आसतात. आळशी, विनाकामाची संस्था, मंडळां आपणाले सुंदर, सोबिवंत व्हड घरांक लागून नामनेची जाल्यात. तशेंच उबगण हाडपी व्यक्तीली ड्रॉईंगरुम-वासर आमका अजापीत दवरतात. जांची बडबड वा अर्थ -नाशिल्ली उलोवणी कोणूय आयकूंक तयार आसना, तांचोच आवाज जेन्ना गायनाच्या सुरावटींत फाटसंगीताच्या गाजा सांगातीन आयकूंक येता ताचो गाजावाजो जावन लोकांक 'बिनाका मालिका' वरी आवडटा आनी तो वयल्या पावंड्यार पावता. हाकाच कल्चर - संस्कृती म्हणटात वा कलाबी समजतात. आनी तांतूत आमच्या इश्टालीं मान अचकीत तरेन अडकल्यात. बरें, हांतूतल्यान सुटका घेवन वतलें तरी खंय!

सामान्य गिरायक, कापड न्हय ताचो फकत रंग पळेता, ताची देग आनी ताचेवयली ओडलायणी डिजाईन पळेतात. तकली सोडून ताचेर बांदिल्ली केसाची सजावट पळेतात. मात्यार केसांचो बुचडो उंचायेन बांदिल्लो तुमी पळेलो आसूंक फाव, ताचे व्यक्तित्व तकलेपरस

वेगळेच दिसता. तो खरें म्हळ्यार उत्तम कलेचो घोटेर आसता. तकलेवेल्या केसा आंबाड्यापसून पायाचे घोटीमेरेन नाना कला कशी उपाट भरून व्हांवत आसतात. त्यो पळेतल्यांक सामको पिसो करून सोडटात.

एका दिसाची गजाल सांगता. त्यो दुकानांत घुसून कांकणा विकत घेताल्यो. आनी हांव भायर उबो! म्हाका दिसलें उब्या -उब्यानूच म्हजी पिराय थंयूच सोंपून वतली. त्यो बायलां भायर येवपाची कसलीच चिन्ना दिसनासली. जाय त्याच रंगाची काकणा सोदप ही अस्तुरिल्या जिणेतली एक म्हत्वपूर्ण ओड आसूंक जाय. ती फाटल्यान फुडार चलत आसता आनी चालूच आसता. कलेन जिणेंत खंय खंय म्हूण बुराक तयार केल्यात. इतल्यो जनेलां उकती आसुनूय जिणेचों 'हवामहल' उबो रावता. तो कित्याक काय मोडून पडना हाचेच अजाप दिसता.

ती गजाल भंगू दी. आतां मातशें मुळो, गाजरांचेर ध्यान दियात. खंयखंयच्यान उस्तून काडिल्ले आसतात जाल्यार आपणालो जम खंय बसयतात ते पळेयात. सुरवेक मातीन बरबटिल्ले ते थेट डायनिंग -जेवणा टेबलार सजावटीच्या रूपांत 'सलाद'च्या वयल्या पावंड्यावेले जावन रावतात. अशे तरेन तांचो जिणेचो प्रवास कितलो कला-कुसरीन भरिल्लो आसता. तोच मुळो, तेंच गाजर! खंयच्या तरी शेतांतलो मुळो, खंयच्या तरी मातयेतलो गाजर. कला जर नाशिल्ली, सजावटीची आर्विल्ली रीत रिवाज नाशिल्ली जाल्यार तांका कोण विचारताशिल्लो. टॉमेटो आनी तवशाच्यो वा पिपरीच्यो गोल पातळ फोड्या सांगातीन जाचेर सालादाच्या पानानी पांचवीचार सजावट केल्ली आसता तांतूत गाजर, मुळ्यांच्यो पातळ फोड्यो पळोवन मन कशें धादोस जाता!! जें कांय कलेच्या आदारान करूंक पावतात ते सदा उणेच भासता.

एके दिसा म्हज्या इश्टाक हांवे विचारलें, ''खंयची जिलेबी सुवादिक आसता? '' ताणे रोखडी जाप दिली, ''ल्हानशीच आसता ती.'' हाकाच जिणेचेर कलेचो प्रभाव पडलो म्हणपाचे. आरे, सगळ्यो जिलेबी गोड आसतात. ओडलायणो हो सगळ्यांचो आत्मो आसता. पूण ना, - ताणे सांगले, ''ल्हानशीच.'' आकार परिणाम घडयता खरें. संयोजन - म्हळ्यार योग्य तरेच्या येवजणीचो परिणाम दिसतां खरें. संतुलन - म्हळ्यार योग्य रीतीन तोल सांबाळिल्ल्याचो परिणाम पडटा खरें. आनी डिजाईन - आकृताय - चित्र आदी तयार करपाची कला बी परिणामकारक आसता तेंय खरें.

खरी मजा मजकुरांत आसना. जाल्यार पत्राच्या मार्जिनांत अदीक कांय खासा टिपण केल्ले वा व्यंगार्थ बरयिल्ल्यांत आसता. मोगाचीट बरयतात - ताच्यांत एके बाजून जागो सोडिल्लो आसता. ताका कारण बरयिल्ले फुलून येंवदी वा उतरां वयर उठून दिसूं दीत. ताका लागून वाचिल्ल्याक बऱ्यातरेन खोशी मेळटा. जाल्यार अशाक आपणाले मन थोंडेच पाळो दिता? जंयखंय जागो सोडला थंय निजाचे कायं ना कांय विचार बरोंवक लायता, मेळटा थंय मूळ मुद्याचेर अदीक कांय जोडटा वा शेरेबाजी करता. परंत जेन्ना कलेचो -

नीटनेटायेचो विचार ध्यानांत येता तेन्ना लिखणी गिचमिडें बरोवपापासून थामता.

मोगाचीट सोडात, म्हजो एक कर्जदार - रिणकारी आसा. ताची गजाल सांगता. म्हाका ताचे रीण फारीक करपाचे आसा. म्हजो भाव सोबीत अक्षरांत चीट बरयता. ताका लागून पेमेंट - रकम फारीक करपाचो विचार मनांत जाय ते वेळां उप्रासता. कलेचो सन्मान करप आमची परंपरा आसा. आरे आमी जर कर्ज चुकते नाकेल्यार कोण फारीक करतलो. सगळी पिराय कलेचें कर्ज फारीक करपातूंच गेली. फाटल्या वरसां कापडाचे पट्टे विकत हाडिल्ले. कितें सांगू भावा, कितले सोबीत आसले ! तांका दरवटेर हुमकळावन दवरिल्ले पळोवन जो तो सामको पळेतूच रावतालो. भितरलें भितर तांका कलेचे गिन्यान अचकीत उचांबळून येतालें आनी विचारताले, "...आरे इश्टा खंयच्यान विकत घेतले?" कसले तरेचे पट्टे म्हूण सांगू! दोन उमळपातूच बाद जाले. इबाडून गेले पूण नाव करून गेले. तांचे अखेरचे दीस पळोवपासारकें आसले. हळडुव्या रंगांत निळो रंग भरसून एक वेगळोच पांचवो रंग पातळिल्लो. निजाची कश्टाची कमाई अशे तरेन वायटाक लागिल्ली पळोवन तब्येत खूश जाली. जाल्यार खऱ्यान सांगता भावानो, थंय प्रस्न आसलो तो फकत कलेचो - खाशेलो मनपसंतीचो, रुचीचो.

हो एक असो विशय आसा जंय अपेशी थारिल्ल्याले नाक कापता. आमी तर तांकांच गोमटी म्हणटात जांका चेऱ्यार 'फेस' पावडर योग्य तरेन लावंक कळटा. स्नो पावडर लावन ह्या आर्विल्या चकचकीतपणान आमका चकासूर करून दवरला. आनेक दिसा हांवे अशेंच पळेले जाल्यार 'लिपस्टिक' कितल्याशा तरेच्या रंगांच्यो मेळूंक लागल्यात. त्यो आपणाल्या ओठार घासताना कांय बायलांक पळोवन तांची तोखणाय केली. आमचेर त्यो बरेच अत्याचार करीत आसतात. म्हजे बरें नशीब म्हणटा हांव अस्तुरी ना ते. जाल्यारूय ताणे कितें फरक पडटा? हांवे आंगार घाल्ल्या शर्टाचो कॉलर-गळपट्टी सद्यांक आउट ऑफ डेट - आवडपी तरांतून कडसरायली अशी जाल्या, म्हूण एके गिरेस्तान म्हाका सांगलें. अजापाची गजाल म्हळ्यार खोमीसूय पोन्नो खीशेंचो जालो ना; फकत गळपट्टी तितलीच खोमीसाक आयज सोबनाशी जाल्या. अचानक ह्या सभ्य जगतांत म्हाका तोंड लिपोवपाची परिस्थिती आयली. हांवे विचारले, "आतां ह्या खोमीसाचे करूं किते?" ताणे सांगले, "सांबाळून दवर. ही फॅशन वा टूम कांय काळां उपरान्त परथी येतली" ताणे खरें तेंच सांगले. फाल्या लोकांक आवडपी तरा हीच जातली. म्हजो बापूय जिवंत आसल्यार घडये दादल्यांल्या फॅशनात तो सगळ्यांत चड उठून दिसताशिल्लो. तांच्या जमान्यांत रुंद 'टाय' वापरपाचो रिवाज आसलो.. मजा म्हळ्यार आयज तीच फॅशन परथून आयल्या आनी इश्टांवरी गळ्यांत पडल्या. टाय रुंद जाल्यात जाल्यार पाटलूनाचो सकयलो खुबेमेरेनचो भाग घांटी आकार घेवन आयला. दर दीस, आमचे जिणेंतले सोबित, संवकळीचे वस्तू थोडे रुंद, थोडे लांब जावंक लागल्यात. आज्या पणज्या वेळेचे सदळ, लांब पैरण, जाकीट आंता आंगासरशीचे जाल्यात ते निगूतीचे नीट नेटकेपणाचे कुरू आसा.

बौद्ध भिक्कूल्या आंगावेलो घायघोळ वस्त्राचो भगवो रंग जो पयली साधुसन्याशाल्या मालकीचो आसलो तो आतां सगळ्याकूच ओडलायणीचो असो जाला. हळदुव्या वा तांबड्या रंगाचे कपडे आतां तितलें मिरयनात. जो रंग फाटी व्हकलेचोच म्हूण थारायिल्लो त्या रंगाचे कापड आतां आंकवार चले आनी विधुर लोकबी वापरतात.

मनशाली आवड विस्तार पावत आसा. तो खंयची वस्तू कलेचे रुपान आपणायत हे सांगप मातशे कठीण. दुर्लक्षीत सुकी रुखा खांदी वासरेर 'डेकोरेशन पीस' - सजावटीची, आरासाची वस्तू जाता. खेडवळ लुंगी 'मॉडर्न' आधुनिकतायेची कुरू जाता. आनी बोंबली दिसताशें रीतीन कमरेक गुंडाळिल्ल्या साडीच्या विचित्र न्हेसणाक लागून कंबरेकडेचो भाग उकतो दिसूंक लागला, तीवूय एक फॅशन जाल्या. हालीतर हांव ते व्हड-रुंद चश्मे पळोवन भुल्लसिल्लोसो जाता. मनशाली दिश्टी ल्हान ल्हान जायत आसा जाल्यार चश्मे मात व्हड व्हड आकाराचे जायत आसात, हे कितें कमी जालें काय म्हणटा?

कोणेतरी म्हका सांगले हाचे सगळ्या मागशी एक शास्त्र आसा. आनी तांतूतलें अशें काय जाणकार लोक आसात जे दीसरात त्याच कामाक लागिल्ले आसतात. नव्यो नव्यो फॅशनी तयार करीत आसतात. त्या साधनेत दंग आसतात. तपस्येंत गुल्ल आसतात. तांच्या नवलांयेच्या दैवी दोळ्यांक, अंतर्ज्ञानाक फाल्याचे दादले आनी बायलांनी खंयचे तरेचे कपडे वापरपाचे हाचे दिश्टावो घडटा. ते सांगतात कमरपट्टो रुंद जांव दी आनी पळेता पळेता तो रुंद जाता. गिरेस्त मनीस अजापाचो 'काउबॉयवरी' ताका भितल्ल्या नदरेक दिसता. खंयचोय रिवाज जायथंयची कला - फॅशन जावन रावता. बऱ्याच जणालें बरें घडटा, धंद्यांत उदरगती पावतात, आनी कला वा फॅशन जिणेक सदाच कोरांतूच आसता.

हांव त्या धांवपळीत ना. हांवे जी पाटलून आंगार चडयल्या ती 'काउबॉय' वरी ना. तशेंच ती रुंद पाय घोळाची, पोन्ने फॅशनचीय ना. जाल्यारूय हुसक्यांत मात आसा. म्हाका तर घरांतल्या 'कॅक्टस' ची खंत पडल्या. कॅक्टसची फॅशन आतां पोन्नी जाल्या अशें कानार आयला. ते सगळे एकठांय करुन दवरिल्ले आनी तांचेर म्हजें मोगूय जडिल्ले. कॅक्टस घरांत सजावटीच्या रूपांत दवरप ही आर्विल्ले काळाची कुरू जाल्ली जाल्यार आजकाल ते सगळ्याचे सगळे घरां फाटल्या आंगणांत एके कोनश्यात पडून आसात आनी दुर्लक्षित जाल्ल्यान, तांची मेळत तशी वाढ जायत आसा. तांका नदरेमुखारल्यान कडसरावन उडोवपाकूय मन धजना. घडये ती फॅशन परथून आयल्यार म्हाका तशी चत्राय दियात. हांव तांका परथून एक फावट सजोवन वासरेत दवरीन.

❋❋❋



# घडपाचे तेच घडत आसता

कांय गजाली अशो आसतात त्यो फकत ह्या देशांतूच घडत आसतात. जशें एकाद्या परदेशांतलो फुडारी विमानांतल्यान देंवता आनी एअरपोर्टारूच उबो रावन सांगता, ''तुमचो देश म्हान आसा. तुमचो देश भोव सोबीत आसा.'' अशेतरेचे सांगणे आयकून आमी खुशालभरीत जातात. परदेशांत लेगीत हांगाचेवरी फुडारी आसतात. विचार करिनासतना दरेकजण जे मनांत येता ते उलयता. आमचो भारत देश म्हान आसा तांतूत इल्लोय दुबावना. तुमी, आमी सगळें चड म्हत्वाचे देखून आमचो देशूय बी म्हान आसूंक जाय. देश सोबीत आसा. सरकार जाय ते यत्न करुनूय मात्शे हांगा थंय सुंदर दिसत जाल्यार तांतूत उणीव ती कोणाली? अजापाची गजाल म्हळ्यार हो विदेशी फुडारी सगळ्या देशाची भोवंडी करून आयलो म्हणटकीर तीच गजाल परथीं सांगता. तेन्नाच ध्यानांत येता हे फुडारी खंयच्याय देशाचे आसूं दीत तो फट जरूर उलयता.

बरें, ते फुडारी ह्या देशांत आयले ना जाल्यार आमचे फुडारी लोक परदेशांत मुजरत वतात. जल्मांत केन्नाच भारत पळेलेनाशिल्ले थंयसरचे फुडारी हांका सांगतात, ''तुमचो देश म्हान आसा.'' आमचे फुडारी ताका पाळो दितात आनी परथून येतात. आमचो देश खऱ्यान म्हान आसा काय ना हाची खात्री करून घेवपा खातीरूच म्हूण हे फुडारी विदेशांत गेल्ले आसतात अशें म्हळ्यार जाता.

एक समेट घडटा आनी तो जाय ते वेळा घडत आसता. कोणीय येता आनी आमचे सांगतान समजुतीच्यो गजाली करून वतात. आमी कोणाकडेन इल्ले लेगीत वाद घालनात, तंटो उप्रासनात. जाल्यार अशेंय लोक आसात ते आमचे साथीन समेट करुंक पळयतात. विदेशांतल्यान कोणतरी येता तेन्ना हांव सांगून दवरता हो आयिल्लो सोयरो समेट करून परथून वतलो. आनी त्याचखातीर तो हांगासर आयला. जाय जाल्यार आतांच ताचेकडेन लडाय करुन घेयात कारण उपरान्त तो समेट करतलोच. आमी लडाय कांय करीनात आनी तो म्हजो इश्ट समेट करून घेता.

विदेशी मजत म्हूण एक गजाल आसा. ते अद्रुश्ट सतत आमचें पदरांत पडत आसता. भारत स्वताल्या आत्मविस्वासार उबो रावंक पळेता ताचे खातीर, आरे परदेशी लोकानो आमका मजत दीत रावात. जो मेरेन तुमचो मदतीचो आधार आसतलो तो मेरेन आमचो

स्वत:वयलो विस्वास वाडटच रावतलो. आनी बरें, मजत बंद केल्यार आमी पात्येवपाचे नात. तुमी आलाशिरो दिल्यार आमी आमच्या पांयार उबे रांवक शकतले. आनी तुमीच सांगात, मदतीचो हात कडसरयल्यार आमी स्वताल्या पांयार कशें काय उबे रावतले?

एक मात खरें. आमचो देश सतत विकास करीत आसा. केन्ना खंय आनी खंयची गजाल प्रगती करीत आसा सांगूक पावना. जाल्यार सुधारणा जातेर आसात. एक दुबाव सदाच उप्रासल्लो आसता - घडये ताचे भयानूच सरकार अर्दवट बांदिल्ले बंधारे पुराय करूक पावना. कारण उदकाची शिंपणीची शक्यताय आसता??

उत्पादन वाडयल्यार निर्यात घडूंक पावता. सरकार जेन्ना आयात - निर्यात उतरां वापरात हाडटा ताचो अर्थ असो - स्मगलिंग. अमूक अमूक वस्तूंची निर्यात जावपाची आसा अशें सरकारान कळीत केले म्हणटकीर स्मगलर समजतात - "आरे अशें आसा तर.....?" आनी ते लोक सरकारा आदीच आपणाली तसली जिनसां घेवन विदेशांत वतात. म्हळ्यार ते सगळे लिपोवन व्हरतात ती वेगळी गजाल. समजा एकद्रच्या परदेशी धंदेवायीकाक हिमालयाची गरज भासली वा ताजमहाल आवडलो म्हणटकीर आमचो कोणीय स्मगलर तो तांका लिपोवन व्हरुंन दिवंक शकता.

योजना आयोग म्हूण एक सरकारी विभाग आसा. कांय लोक बकच्छायेन ताका रेल्वेजंक्शन् म्हणटात. जाल्यार ते एक म्हत्वाचे कार्यालय आसा. थंय थोडेभोव बदल घडट आसतात. थंयसर एक योजना तरी बदलत आसतात वा आयोगच बदलत आसता. दोनूय घडले ना जाल्यार सरकारूच बदलिल्ले आसता.

सरकार योजना तयार करून आफीसर लोकांल्या हातांत दिता. आफीसर लोक विचारतात, "....हांतूतल्या खंयच्या कामाक आमी हात लावनयो ते सांगात." सरकार तांचे प्रस्नाक धरुन जाप दिता आनी अग्रक्रम वा प्राथमिकताय नित्शीत करता. मजा म्हळ्यार जी कामां पयले करपाचे म्हूण सांगिल्ले आसता अचूक तीच कामां जायनात. हरिजन गिरिजन लोकांल्या कामांक सगल्या आदी करपाचे थारायले आसता. हाली उत्तरप्रदेशांत सामान्य गरीब लोकांले खून पडत आसात. आनी आदिवासी लोकांल्या कामाक वयलो क्रम दिल्लो आसता तोय अशा 'मास मर्डर' - रासवळ खून घडणुकेक. जंय थंय सरकार गोळीबार करीत आसा. कांय लोक मेले म्हणटकीर आदिवासी लोकांल्या अशा पिडांक प्राथमिकताय मेळटा. पोलीस ठाण्यांत बलात्कार घडटात. हरिजन बायलांकडेन पयले ध्यान दितात. आतां ह्या आफीसर लोकांक अशा सुदरूंक नाशिल्ल्या वर्गाचेर सगळ्या आदी लक्ष दवरुंक सांगात आनी ते मुजरत त्या कामाक पयलो क्रमांक दितले.

बेकारी नाशीं करूंक जाय. आमच्या देशांत बेकारी सतत उणे जायत आसा. पूण ती हांगाथावन पयस जाल्यार दुसरेकडेन ठाण मांडता. थंयच्यान कडसरयल्यार आनेककडेन थीर जाता, परंत पयस वता इतलें मात खरें, सरकार नित्शितायेन पावलां उखलता. आतां पावलां घट्ट रोविल्ल्यान उखलूंक जायनात. ती पोकी अशिल्ली वा हलकी आशिल्ली जाल्यार

उखलपाक सोपें जातांसलें. हांवे एक फुडाऱ्याक विचारले, ''..... तुमी इतली घट्ट रोविल्ली पावलां कित्याक उखलपाक यत्न करतात? ते जड पडटले. हलकी रोविल्ली पावलां उखलात ती रोखडीच उखलतली. फुडाऱ्यान डोळो मारुन म्हाका म्हळे, ''हलकीच तर आसात.''

''जाल्यार उखलनात कित्याक?'' हांवे परथून प्रस्न केलो.

''उखलली ना म्हणटकीर ती घट्ट रोविल्लेवरी दिसतात'' ताची रोखडी जाप मेळ्ळी.

आमच्या देशांत कसली ना कसली घडणुकी घडतूच आसतात. परिस्थितीत सुधारणा हाडपाचे खातीर सरकार पेंगट बांदून आसा. तुमी सरकाराली पेंगट केन्ना पळयल्या? ताका हात लायला? ती सदाच सदळ आसता. ताका लागून सतत ती आवळून घेत आसता. पेंगट घट्ट बांदून जालें, जाल्यार बाकी उरिल्ल्या शरीराचे कितें....? ते सुटिल्ले तुमका चलतले? त्या कारणान सरकार जेन्ना पेंगट बांदून रावता, म्हाका सांगले बगर रावंक जायना -, ''सरकार, पेंगट मात्शें धील सोडात. आता अशें कितें .....''

सरकार विरोधी पंगडांक गाळी दिता, आनी विरोधी पक्ष सरकाराक. जाल्यार 'पब्लीक' भौस मनांतलें मनांत दोगांकूय गाळी दिता. इतले आसुनूय भौस सरकाराक आपणाली वर्गणी भेट दितां. सरकार एक नेम करता. ताका लागून तांचे समर्थक खूश जातात. परंत सरकार त्या नेमांक धरून वागना. देखून तांचे विरोधी लोक मजेंत आसतात. 'समाजवाद हाडूंया' म्हणटकीर समाजवादी पुरस्कर्ते खूश, पूण वास्तवांत ते हाडूंक पाळो दिलो ना जाल्यार तांचे विरोधी लोक बी खूश.

समस्या उबी रावता. सरकार म्हणटा, 'हे कुवाडें नाच्च'. समस्या म्हणटा - ''हांव एक कठीण प्रस्न आसा!'' लोक म्हणटात - 'सरकारानू हो कठीण प्रसंग आयला.'' आरे ही कसलीच समस्या बिमस्या ना. खऱ्यानीच तशें आसल्यार हे वेळेमेरेन सरकार आयोग बसयताशिल्ले. आयोग म्हळ्यार - नामनेचे व्यक्ती. जंय ते बसले म्हणटकीर थंयूच बसतात...! आयोग येवजणी करीतच आसता. उपरान्त अहवाल दिता. तो मेरेन सरकार बदलता. अहवाल वाचपाचे पडटले, घडये त्या भयानूच सरकार बदलता.

आमच्या देशांत सदाच कसलींना कसलीं घडणूक जायत आसता. सवीस जानेवारी, पंदरा ऑगस्त पाळतात. दोन आक्टोबराक प्रार्थना करतात, झेंडे लायतात आनी सलामी दितात, चरखो चलयतात. हुंवाऱ्याचो लोट येंता, दुकळ पडटा, दरवर्सा केंद्रसरकार राज्याराज्यांचे शासनकर्त्यांली मीटिंग भरयता आनी विचारता, ''सांगा अन्दू तुमका हुंवार जाय काय दुकळ जाय?''

''....आमका ह्या वर्साक दुकळ जाय. गेल्याच वर्सा हुवांऱ्याचो लोट येवन गेला.''

''.... अन्दू पावस पडलो ना जाल्यार ताचो अर्थ दुकळ पडटलो. आनी दुकळ ना म्हणटकीर हुंवारो येवन गेला.''

विदेशी लोक बरोबर सांगतात. खरेंच आमचो देश म्हान आसा. रेल रुळावेल्यान

धांवता.  जाल्यार टक्कर जावपाचे कांय थांबना.  आनी कार मोटारी रुळावेल्यान धांवनात म्हूण पुलासकयल पडटात.

भाशणा चलतूच आसतात.  गुन्याव सतत घडटात.  उक्तावणीचे सुवाळे साजरे जायत आसतात.  टाळेबंदी जारी आसता.  आरे इश्टा, उक्तावणीचे मागीर पळय, पयलें हे कुलूप उक्ते कर. तशें घडना - सगळे आपापले तरेन घडतूच आसता.

एके दिसा आमच्या देशाच्या दशेचेर हांव भासाभास करतालो तेन्ना एके व्यक्तीन विचारले, ‘‘तुमी किते स्वताक प्रधान मंत्र्यालो भुरगो समजतात? ’’ हांवे म्हळे ‘ना’’.

‘‘....तशें आसल्यार तुमका ह्या देशाविशीं कित्याक म्हूण हुसको पडला?’’

म्हाका पटलें.  ताचें सांगणे योग्य आसलें.

इश्टानो, भारत देशाच्या अशा दशेक दोन कारणा आसात.  फकत दोन कारणा - ‘‘ना तुमी कसलें करूंक शकतात; ना हांव कसलें करूंक पावता.  आनी जे करतात, ते तेच करतात जे घडत आसता.’’



# बाथरूम सीन - सिनेमातलो

सिनेमा स्टुडियोत बाथरूमचो सेट लागला. हिरोईन - मुखेल नायिका न्हातेर आसा असो दिखावो दाखोवपाचो आशिल्ल्यान पटकथा लेखक म्हूण हांव थंय हाजिर आसा. हाताची घडी घालून हिरोईन हेवटेन तेवटेन पासयो मारीत आसा. ती विचारांत गुल्ल आसा ते पळोवन हांव चवकशी करता हातात टॉवेल पडपाची वाट पळयता काय म्हूण. जाल्यार ती अजून चिंतेस्त जावन पासय मारीतच रावता.

फिल्मांत न्हावपाचो दिखावो एक सुवाळो आसता. हिरोईन सहजतायेन उठली आनी न्हाणीघरांत गेली अशें घडना. ती भोव ल्हव ल्हव पावलां मारीत, बडवाचारान अदीक थोड्या हटवादीपणान न्हाणी घरावटेन चलत आसता, जशें कांय जिणेंत पयलें फावट अशें न्हावपाक संद मेळ्ळ्या. एकूच एक कॅमेरा, तवनास मनशावरी, तिचो फाटलाग करीत आसता. ती हिरोईन स्वताकूच एक चलत्या - फिरत्या जायरातीवरी समजून भोंवता अशें म्हाका दिसलें. हे वेळेक ती शरीरभर अस्तुरी आनी अस्तुरीभर तिची कुडी आसता. कोणाक न्हावपाचे आसा तेच कळनासलें. म्हज्या नदरेक मात ती अस्तुरी परस एक कुडीच दिसताली.

तेन्नाच दिग्दर्शक म्हजे लागसार पावलो. ल्हव ल्हव पावलां घालून पासय मारपी हिरोईनकडेन पळोवन ताणे म्हळें, ''हांव ह्या देखाव्याचेर खुबूच उमेद बाळगून आसा.''

हांव घराथावन न्हावनूच आयिल्लो. न्हावपाचे शिवाय न्हावपाचे वेळार कसली उमेद बाळगुपाचे आसता ते हांव नकळसो जाल्लो. निमाणें हांव एक लेखक आसलो; आनी तो दिग्दर्शक. ताचे सांगातान सहमत जावन हांवे म्हळें, ''व्हय, व्हय ती न्हावन घेतली हाची उमेद हांवबी बाळगून आसा.''

''कित्याक ना? आरे, हाचेपयलीच्या दोन फिल्मांत तिणे न्हावपाच्या देखाव्यांचे सीन दिल्यात.'' दिग्दर्शकान मातशें उचांबळीत जावन म्हळें.

''अशें, अशें? हांवेय म्हजें हड्डे मुखार करीत, कवतिकेन पत्रकारितेच्या भाशेंत म्हळें, ''म्हळ्यार फिल्मी जिणेंतल्या ह्या तिसरे फावट न्हावपाच्या देखाव्यांत ती आसा म्हणपाचे.''

''हय,'' पासय मारीत आशिल्ल्या हिरोईनान म्हजे उलवणे आयकून रोखडी जाप दिली.

तेच वेळार खाड खरपीत दिग्दर्शकान म्हळें, '' आरे इश्टा, हो सीन घेत आसा. जाल्यार

हाका कसलेच जस्टिफिकेशन - म्हळ्यार दर्शकांक पटोवपासारकें - तांतून कांयच ना. निमाणे आमच्या ह्या मुखेल नायिकेक ह्या पिक्चरांत कित्याक म्हूण न्हावपाची सीन घाल्या?''

हांव थोडो वेळ वोग्गी रावलो. चिंतूक वेळ जाय आसलो. उपरान्त दिग्दर्शकाक संबोदून म्हळें, ''केन्ना केन्ना सिनेमांत न्हावपी सीन बरी आसता. ती सीन नासल्यारुय तिणे एक फावट न्हावन घेतल्यार बिगडलें कितें? न्हावप हे भलायकी दिश्टीन योग्य आसता.''

डायरेक्टरान फटकारले, ''आरे इश्टा, हांव फिल्माविशी सांगत आसा.''

''हांवूय फिल्माचीच गजाल करीत आसा. भलायकी दिश्टीन देशाक बऱ्या फिल्मांची गरज आसा. आनी न्हावप भलायकी दिश्टीन बेस बरें. हिरोईन कित्याक फिल्मांतले सगळ्यानी न्हावन घेतल्यार उपकारतसलें. ह्या फिल्मांत घडणुकीचो काळ पुराय एक वर्साचो. जी काणी एक वर्सभर चलता तांतूत एक वेळ लेगीत हिरोईन न्हावपाची ना म्हळ्यार कशेंशेच दिसता. हांवे मुजरत सांगपाचे म्हळ्यार तिणे दर दिसा न्हावंक जाय.''

''जाल्यार ही गजाल सेन्सार बोर्डाक कोण सांगतलो?'' दिग्दर्शकालो प्रस्न.

''आरे म्हज्या भावा, सेन्सार बोर्डातलें सदस्य न्हायनात काय म्हूण विचारता. बोर्डातलो एकाक हांव वळखता. तो तर दर दीस न्हाता.''

''सेन्सार विचारतलें बाथरूम सीनची गरज कित्याक? हिरोईनान न्हावपाचे दाखवप म्हत्वाचे कशें काय म्हणटा?''

''खरेंच म्हत्वाचे आसा. हिरोईन न्हालीना म्हणटकीत तिचें आंगाक घाणयारो वास मारतलो. हीरो तिचे लागसार वचपाचो ना. काणी दुख्खांतावटेन सरकतली. तुमी फिल्माक वास्तवतेपसून विंगड कशें करुंक शकतले? मनशाक दर दीसा न्हावपाची गरज आसा. तेन्ना फिल्मातून न्हावपाचो सीन दाखोवप गरजेचे जाता.'' हांवे म्हळें.

''पुरो, पुरो कर सायबा. हांव सेन्साराक अशें तरेन सांगतलो, ''सायबानू, हांव तीच सीन दाखयता जी पब्लिकाक -भौसाक- आवडटा. हिरोईनाक न्हातस्तना पळोवपाची इत्सा ही 'पब्लिक डिमांड' आसा. आनी ताकालागून ह्या सीनचे म्हत्व. हाली पब्लीक बेस बरो शाणो जाला. तिकीट विकत घेवचे पयलेच विचारतात बाथरूमचे सीन कितले आसात, बेडरूम सीन कितले घाल्यात, अशें कितें कितें.''

दिग्दर्शकाले सांगणे म्हाका पटलें. आयज आमच्या देशांतली जनता जाग्रत जाल्या. स्वताक निर्मळ दवरप तांका आवडटाच इतलेच न्हय हिरोईनान सिनेमांत न्हाल्ले पसंद करतात. आरे, ताकाच भारतीय संस्कृती म्हणटात. मोठे मोठे न्हयांचो आमचो देश. न्हावप एक राष्ट्रीय छंद - 'हॉबी' - आसा. जंय खंय उदकाचो साठो दिसलो म्हणटकीर आंगावेली वस्त्रां देवोवन दवरतात. घरांत शॉवर आसुनूय हिरोईन न्हायना अशें कळल्यार खंयचो भारतवासी तिका पसंद करतलो?

तेदे वेळार हिरो सटपटीत आयलो आनी दिग्दर्शकाकडेन वाद घालूंक लागलो. तो

विचारतालो, ''त्या न्हावपी देखाव्यांत म्हाका कित्याक घेतले ना?''

''हिरोईन न्हावपाचे वेळार थंय तुजें कसले काम?'' दिग्दर्शकान ताका समजायले.

''हिरोईन टॉवेल घेवंक विसरल्या. बाथरूमांतल्यान हात भायर काडून म्हजेकडेन ती टॉवेल मागता. आनी हांव लजत लजत टॉवेल तिच्या हातांत दिता.'' हिरोन सीन पुराय केलो.

''लजत, लजत? .....आरे हिरो, टॉवेल ती मागता आनी लजतलो तू? .... हे कशें काय म्हणटा,'' दिग्दर्शकाले चेऱ्यार अजापाचे चिन्न.

''ताका कारण हांव सभ्य मनीस आसा.'' हिरोन सभ्यतायेन सांगले.

''आरे म्हज्या भावा, हे सीन नंबर साताचेर आसा. आतांच तू तिच्या घरांत कशें काय घुसतलो. अजून मेरेन तिजेकडेन तुजी वळख लेगीत जाली ना!'' दिग्दर्शकान हिरोक समजावपाक यत्न केलो.

''ह्या सिनेक क्रमांक चौतीस दियात. दोगांयली भेट जाल्ली उपरान्तची.'' हिरोल्या सुचोवणीचेर दिग्दर्शक पुराय विचारांत पडलो. तो खाडयेर हात पोरसायत चिंतूक लागलो. मात्शें कळावान ताणे म्हळें, ''हिरोईनाली विंगड विंगड वेळा न्हावपाची दोन सीन कित्याक घेवनयो? एक मध्यंतरा आदी आनी दुसरी मध्यंतरानंतर?''

हे आयकून इतलो वेळ विचारांत गुल्ल जावन पासय मारपी ती हिरोईन अचकीत थांबली. धादोसकाय पावन तिणे म्हळें, ''आयकले मम्मी, म्हज्यो न्हावपाच्यो दोन सीन आसतल्यो खंय ह्या फिल्मांत.''

हिरोईनाली आवय ते आयकून गंभीर जाली. तिणे दिश्दर्शकाक संबोदून म्हळें, ''ना, ना डायरेक्टर सायबानू, अशें कांयंच करनाकात. एकूच फिल्मांत दोन फावटी न्हाल्यार म्हज्या बेबीक शिंयेची हुडहुडी भरतली.''

''ना मम्मी, हांव दोन वेळां न्हातलें. कितलेंय फावट न्हाल्ले जाल्यार आयजमेरेन म्हाका थंडीचें दुयेंस बादलें ना.''

दिग्दर्शक तिचें सांगणे आयकून खुशालभरीत जालो. आपणाल्या फिल्मांतले नटनटी कितलें समजुतीन घेत आसात. ताणे म्हळें, '' पळेयात तर खरें, दोन बाथरूम सीनवरवी पिक्चर दमदार करून दवरता. सेन्सार कित्याक तांचो बापूय लेगीत तो सीन कापून उडोंवक पावचे नात. चला तर 'टेक' करूंया. धिस शुडबी अवर बेस्ट - हो सिनेमा बेस बरो घडटलो.''

बडवाचाराचो मुखवटो चडोवन हिरोईन बाथरुम वटेन चल्ली. तिचे फाटोफाट तवनासा वरी कॅमेरा भोंवलो, आनी ताचे फाटल्यान दिग्दर्शक आनी तांचे युनिट. म्हाका मात दिसलें ते वेगळेच - देशांतले लाखो लोक त्या सिनेमा फाटल्यान लागिल्ले. हिरोईन न्हातसतना

घेतिल्लो तो बाथरूम सीन पळोंवक शेकडो सिनेमा हॉल उपाट भरिल्लेशें दिसले. आमचो मोगाचो देश, गंगायमुनेचो देश, वेद आनी गीतेचो देश, बुद्ध आनी गांधीलो, प्रेमचंद आनी रवींद्रनाथालो देश, आमचो हजार वर्साचो इतिहास, आख्खो भारताचो सैम, आपणाल्या सोबितकायेच्या सांगातीन त्या बाथरुमांत सामाविल्लो. हिरोईन न्हाताली आनी शॉवरांतल्यान व्हांवती उदकाची धार- तिच्या कुडीवेल्यान व्हांवन अंतर्मनात - खूब भितर देंविल्ली. सगळो देश बाथरूमाच्या दरवटेर नदर लावन बशिल्लो - आनी बाथरूमाभितर हिरोईन न्हाताली.



# बौद्धिक असहमती (न्हयकाराची एक रीत)

फाटले कांय दिसानी म्हाका बॉमसारक्यो कांय वस्तू नदरेक पडल्यो. हांवे त्यो बारकायेन नियाळल्यो आनी नित्शीत केले ते बॉमूच आसात. मुखार वचपाची उमळशीकाय दाबून हांव मातसो फाटल्यानूच रावलो. खरें कितें तें सोदपाचे सोडून उलटे दिकेन धांवलो. अशेतरेन व्यक्ती व्यक्ती मदीं उलोवपाक सुवात रावली ना. जाल्यारूय बॉम हो एक असो विशय आसा जाचेर भासाभास करूंक फावता. जेन्ना हांवे दुसऱ्याक सांगलें हो एक बॉम आसा तेन्ना ताणे आपणाली बौद्धिक असहमती - म्हळ्यार न्हयकाराची एक रीत आपणायली. हाचे बगर हांव खंयच्याय न्हयकाराक आजकाल पाळो दिना. दरेकाचे एकूच मत आसलें - ते म्हळ्यार जें दिसता ताचे पसून बचाव करून घेवप. जो हांव बॉम आसा म्हूण सांगता, तो खरें म्हळ्यार क्रिकेट खेळांतलो चेंडू आसता. हेर वस्तूबी वाटकुळयो आसूंक शकतात ताचो अर्थ इतलोच - तें जें कितें आसा ते सगळे बॉम सोडून हेर कितेय आसूंक शकता. अशेतरेच्या बौद्धिक असहमतीक पाळो दिनशिल्ल्यान हांव मात बुद्धिहीण वा पिसो थरलो. आतां हाचेर बचाव करूंक एकूच मारग आसलो. सोपें करून सांगचे म्हळ्यार हांवे बी बौद्धिक असहमती परगटावप. ताचो परिणाम इतलोच जालो - ते म्हणत रावले अमूक तमूक आसा आनी हांव सांगत गेलो बॉम आसा म्हूण.

अशा दशेंत म्हजें मनांत जाय ते प्रस्न उप्रासले. दिश्टी पडटा थंय बॉम आसा म्हणपाक हांव थोडोच राजकीय फुडारी आसलो? समजा हांव फुडारी आसा, आनी बॉमची खबर आसुनूय मनांतले मनांत दुबावाशिवाय सुखी आनी सुरक्षित कित्याक रावंक पावचो ना?

समस्तीपुर बॉम कांड उपरान्तच हांव अशा मनोविकाराच्या कठीण वाठारातल्यान वाट चलूंक लागलो म्हणपाक हरकत ना. पुलीस गुन्यावगारांक हरतरेन सोदताले आनी तांच्यातलो हांव न्हय हेय हांव जाणटालो. स्वताक गुन्यावगार म्हूण संबोदूक कांयच कारण नासलें. समस्तीपुरांत जेन्ना बॉम फुटलो तेन्ना हांव भोपाळांत आसलो. म्हजी राखण करूंक तो एकूच तर्क पुरो आसलो. पूण जालें कितें भोपाळांत एके फुडाऱ्यालें घरांलागसार दवरिल्लो एक बॉम मेळ्ळो. तो हांवे दवरूंक नाशिल्लो कारण ज्युस्त त्याच दिसा हांव मुंबयत आसलो. आतां बचावाचो मुखेल मुद्दो तोच आसलो. म्हळ्यार त्या त्या घडणुकीवेळार हांव त्या त्या शारांनी हाजिर नासलो. दुर्दैवान समजा त्या दिसा म्हजो भोपाळांत राबीतो आसलो जाल्यार

हुसक्याक कारण मात जातासलें - जशें काय हांवे तो बॉम दवरलो ना हांतूतल्यान सोडवणूक करुन घेवंक म्हज्या स्वताल्या खोशीखातीर स्वताकूच साक्षी पुरावे जमोवपाचे पडटासले. तंटो, बगलांट हे उबेरावतसलें जेन्ना पुलीस म्हज्या सांगणेचेर बौद्धिक असहमती दाखयतासलें, आनी हांव पुलिसाल्या. कारण बौद्धिक असहमतीतल्यानूच हांव मतिमंद वा बुद्धीन जड मनीस थरतलो आसलो. आनेक दीस तशेंच घडलें.

हांव पुलीस ठाण्यांत पावलो. आतां ते पुलीस ठाणेवरीच आसलें - खासा करून थंय एक फौजदार हाजिर आसलो. फौजदाराशिवाय पुलीस ठाणे आसूंक शकता जाल्यार फौजदार जागेर आसल्यार खऱ्यानी ते नदरेक भरत. हांव येतकीर फौजदारान मेजा वयले पांय काडून आदरासयत म्हाका येवकार दिलो अशें म्हाका दिसलें. सत्ता ही साहित्यकारांक मानमर्यादेन वागयता अशा तात्पर्यामिरेन हांव येवन पावलो. आनी ते कांय फुकटाचे आसना, - साहित्यकाराकडसून ते परथें आदराची आस्त बाळगितात हे ताचे गुपीत. हांवेय फौजदाराक आदरासयत नमस्कार केलो.

''सांग म्हज्या भावा....'' फौजदारान खर्जांत पण खर आवाजांत विचारलें. म्हाकाय बरें दिसलें. ज्या सुरांचेर हांव जीवित आसा ते सगळे अशा तरेचे कांय नमळायेचे, कांय म्होवे, आनी अशेंच कांय सकयले आवाजांतले. जय जुळटा म्हजेय सूर मिसळटात. जाल्यार ते साहित्यविशयांक धरुन आसूंक नजो इतलेंच. फौजदारालो दणकेबाज आवाज आनी उलोवणेचो लोट दुसरेवटेन व्हांवोवन व्हरपा सारकेलो समर्थ आसलो. रोखडेच हांवे म्हजी भाशानीती नित्शित केली. हे सरकारी मिजासखोर लोक कशें आसतात तें हांव जाणा आसलो देखून गोडीगुलाबीन उलोवणेच उपकारतलें अशें येवजिलें.

''बॉमस्फोट घडिल्ल्याचेर तुमचेकडेन म्हाका कांय म्हायती दिवपाची आसा'' हांवे म्हळें.

ताणे बशिल्लेकडेन उचांबळपी हालचाल केली ना. तो मोटो आसलो देखून हांवे ताका माफ केलें. जाल्यार खांद्यावयलो भाग खिणांत अचकीत ताठ जाल्लो तो पळोवपा सारको आसलो. तेच वेळार ताणे दाव्या हातान फोन उखललो आनी ताणे म्हाका विचारले,

'एस.पी. सायबाक हांगासर आफोवन घेवूं? परंत ताणेंच फर्मायलें जाल्यार आमका ताचे कचेरीत वचचें पडटलें.''

फोनार नंबर लायलो. आनी पटकन तो लागलोय, ''सर, अमूक ठाणेचो अमूक फौजदार उलयता. बॉम स्फोटांतली एक व्यक्ती गवाय दिवंक आयला.'' आनी रोखडेच जापूय मेळ्ळी - ''हांव आय्. जी. सायबाक खबर दिवन लगोलग तुमचे ठाण्यार येवन पावता.'' आतां ही गजाल सगळ्यांक कळीत केल्ली आसूंक फाव. कारण आय्. जी. सायबान मुख्य मंत्र्यांक कळयलें म्हणटकीर ताणे दनपाराक पत्रकारांक आफोवन बॉम स्फोटांतलें म्हत्वाचे धागेदोरे हाताक लागल्यात म्हूण सांगून मेकळे जाले. हाचे मुळावेंत हांवच आसा हेंय स्पश्ट जाल्लें. घडये म्हजो तो एक भ्रम जाल्लो आसूयें, कारण दिसा दनपारा खंयचे धागेदोरे कोणाले

हाताक लागले ते कोणेच परगटायले नात.

त्या ठाण्याक ती एक ऐतिहासिक आनी तुस्त करून घेवपी आयतीच संद मेळिल्ली ताकांलागून त्या सुवाळ्याचे येवकाराखातीर फौजदारान ठाण्याचे साफसुफीचेर मुजरत ध्यान दिलें. एस्.पी. सायब आनी ताच्या वयल्या हुद्द्यावेले आफीसर लोक केन्नाच थंयसर येवन पावचे सारके आशिल्ले. दोन सादें गुन्यावगारांक जे दोन वेगवेगळ्या बंदखणीत आशिल्ले तांका एकूच बंदकुडांत दामले. गरज पडलीच तर आताच्या म्हत्वाच्या गुन्यावगाराक एक बंदखणी मेकळी रावचे खातीर ती वेवस्था केल्ली. हे सगळे पुराय जाले उपरान्त फोजदार सायब कदेलार नेटायेन बसलो, आपणाल्या हुद्द्याची व्हडविकाक आनी मर्यादेक धरून जितले धादोसकाय पावंक जाय आसलें तितले मुमुरखें हांसून आपणाल्या चेऱ्यार दाखयलें. हांवेय ताचेकडेन पळयत बदलेक हांसून पाळो दिलो. तो म्हाका आनी सगळ्यांक भोवंतणेत सहजताय हाडून फटयतालो हे नित्शित. पुलिसांत घडये असलेंच तरेचे लिखित वा अलिखित नेम आसूंक फाव-म्हळ्यार कोणी गवाय दिवंचे आदी भोंवतणेत मेकळी परिस्थिती तयार करूंक जाय-गुन्यावगारानी सहजतायेन आनी खरें तेच सरळपणान सांगून मेकळे जावंक जाय. आनी तूर्ताक हांगा तेच घडटाले. म्हाकाय बरें दिसलें. कारण साहित्यांत बरयिल्ले सोडून हेर खंयच्याच भोंवतणेत ताण-तणाव म्हाका पसंद नाशिल्लो.

म्हणटा म्हणटा थंय सगळे जण जमले आनी आपापल्या तरेन परिस्थिती सहजशें दवरूंक ताणीं हातभार लायलो. लागसारच्या दुकानांतल्यान एक कोप च्या मागोवन म्हाका पिवयली. हांव आतां सुटसुटीत जालो- च्या फुकट गेली ना म्हणपाचे - खऱ्याचो झरो फुटूंक लागलो.

''सुरुवात करात.'' एकान फर्मायलें, ''तुमका कितें सांगचे आसा ते सांगात.''

हांवे तोंड उगडचे पयलीच फौजदारान म्हळें, ''म्हाका दुबाव आशिल्लोच शिवाय सोद कामूय करूंक पळेतालो. बरें जालें, आपूण जावन तुमी या ठाण्यांत आयलें.''

एक व्हड ऑफीसरान ताचेकडेन मोगानदरेन पळयले, उपरान्त म्हाका संबोदून म्हळें, ''भौमानेस्त करात सुरुवात.''

''अशें घडले पळेयात. ज्यां दिसा समस्तीपुरांत बॉमस्फोट घडलो तेन्ना हांव भोपाळांत आसलो. आनी भोपाळांत मंत्र्याघरा लागसार बॉम मेळ्ळो तेन्ना हांव मुंबयत आसलो. अशे तरेन ह्या दोनूय सुवातेर बॉम दवरपाच्या कामाचो आनी म्हजो तसो कायच संबंद ना.'' हांवे एकूच स्वासांत म्हळें.

''ज्या गवायेची आमी आस्त बाळगून आसात ताचे सामके उरफाटें तुमी सांगत आसात. तुमी खरें तेच कित्याक सांगनात?''

''खरें तेंच सांगत आसा. हे दोनी घडणुकीचो आनी म्हजो तसो कांयच संबंद ना'' हांवे म्हळें.

वातावरण सहजतायेन भरिल्ले. आनी म्हजें चेऱ्यार 'सत्यवचनी'ची पर्जळ झळकल्ली.

"आरे, हेच सांगपाक तुमी ह्या ठाण्यांत पाय दवरिल्लो?" फौजदारान जरबेन विचारलें.

"व्हय, व्हय...." हांवेय स्पश्ट सांगलें.

"हे पळेयात, आमी पुलीसवाले खरेपणाचो सोद घेवपाचे जाणटात." व्हडल्या ऑफीसरान मातशें रागान म्हळें. ताचे सांगण्यार म्हाका कसलेच बौद्धिक असहमतीचे - म्हळ्यर न्हयकाराचे कारण नाशिल्ले. ते विशी म्हजे मुखामळ भावहीण जावन रावले.

"तुमी खरें, खरे सांगनात कित्याक काय म्हणटा?"

"सायबा हांव खरेंच सांगत आसा. हांव त्या शारानी नाशिल्लोच जेन्ना केन्ना बॉमचो प्रकार घडलो."

"अजापाचे म्हणपाचे. दरवेळेक संबंदीत जागेवयल्यान तुमी दिसनाशें जातात!"

"तुमी ते वेळार मुंबयत खंयसर राविल्ले?"

"...तुमी ते वेळार हांगा नाशिल्ले आनी मुंबयत आशिल्ले हाचो गवाय कितें?"

"...तुमचे साथीन कोण कोण आशिल्ले?"

"... हे अशें कांय घडटले हे तुमका आदीपसून खबर आसलें, देखून तुमी थंयसरच्यान दिसनाशें जाताले, हे खरे?"

हे आनी अशा अनेक प्रस्नांची सरबत्ती घडली. उपरान्त हांवे सांगले, " हे पळेयात तुमी सगळे असले निरुपेगी प्रस्न म्हाका विचारीत आसात. एक फावट हांवे सांगले म्हजो असल्या घटिचाराचो आनी ते विशी म्हजो संबंध अजिबात ना आनी तुमका मान्य जायसर समजावंक आयला. हांव एक लेखक आसा. हांवे बॉम आफडून केन्नाच पळेलो ना जाल्यार कसो काय स्फोट घडयतलो?"

"सुरवेक साबार जण अशेंच सांगतात; निमाणे कबूल करतात."

"तुमचे तकलेंत अजून रिगले नाशें दिसता."

".....आमका सगळी म्हायती आसता!"

"स्पश्ट सांगले न्ही, ते वेळार हांव त्या सुवातेर नाशिल्लो म्हूण, जालें तर." म्हाका तिडीक मारिल्ली. कारण इतलीशी ल्हान गजाल तांचे ध्यानांत कशें काय येना हेच एक कुवाडे जावन राविल्ले.

ते वेळार फोन खणखणलो. ताचेर कोणा एका वयल्या ऑफीसराकडेन उलोवणी जाली. हांवे अजून गुन्याव कबूल केलो ना म्हूण निरोप गेलो. उपरान्त फोनावयल्या ऑफीसरान म्हळें, "येस सर. आमी पुराय येत्न करतात."

"आपूण त्या शारानी नाशिल्लो हाचे शिवाय हेर कसलें साक्षी पुरावे आसात?"

"कसल्या गजालीर.....?"हांवे नकळसो जावन विचारलें.

‘‘बॉमच्या प्रकारांचेर!’’

‘‘म्हाका खबर ना. हांवे दिसाळ्यांत खबऱ्यो वाचिल्ल्यो.’’

‘‘ही बातमी दिसाळ्यांत छापून येतली हे तुमी आदीच जाणा जाल्ले तर?’’

‘‘ना सायबा....’’

‘‘अशें, अशें. मागीर खबऱ्यो वाचल्यो कित्याक काय म्हणटा?’’

‘‘हांव दर दिसाक वर्तमानपत्र वाचता....’’

‘‘नोट करात हे सांगणेचे. ही व्यक्ती दर दिसाक वर्तमानपत्रांतल्यो खबऱ्यो वाचता देखून हाका मंत्र्याल्या आनी नेता लोकाल्या हालचालीविशी पुरायतरेन जाणकारी आसा.’’

‘‘तुमी कसलें प्रमाणीत करूंक पळेतात?’’

‘‘आमका कसलेंच प्रमाणीत करपाचे ना. तुमी आत्तां बयाणीत सांगले तें - ‘दर दिसाक दिसाळ्यांतल्यो खबऱ्यो वाचतात’ - इतलेंच’’

‘‘पूण हाचे सावन.....!’’

‘‘आमका जें काय थोडे प्रमाण वा गवाय मेळटात ताचे वयल्यान आमचे सोदकाम जारी दवरतात. खरें तेंच सोदून काडप आमचें कर्तव्य आसा.’’

‘‘हाचे वेल्यान तुमका खरें सोदून काडपाक कशें काय शक्य जातले म्हूण निमगिता?’’

‘‘तुमी जर आपूण जावन खरें सांगल्यार घडये तो त्रास घेवचो पडपाचो ना.’’

‘‘ध्यानात घेयात. खरें तेंच सांगत आसा. अशें समजा बॉमस्फोट समस्तीपुरांत घडलो’’ हांवें ताका समजावंक येत्न केलो.

‘‘.....बरे, उप्रांत घडलें कितें?’’

‘‘आनी ते दिसाक भोपाळांत म्हजो राबीतो आसलो.’’

‘‘....कळ्ळे, फुडे कितें जालें.’’

‘‘बॉम भोपाळांत दवरिल्लो मेळ्ळो.’’

‘‘हय....’’

‘‘ते दिसाक हांव मुंबयत आशिल्लो.’’

‘‘हय....’’

‘‘जालें तर...’’

‘‘आनी, अजून सांगात....’’

‘‘आनी कितें सांगू?’’

‘‘ते तुमीच सांगूक पावतले!’’

“हाचे बगर म्हाका कायच खबर ना.”

“बरें, जांका खबर आसा तांची नावां सांगात.”

“म्हाका खबर ना...”

“शारापसून पयस आशिल्ले हाचो अर्थ असो न्हय - तुमी नांवांबी सांगूक शकचे नात? हे पळेयात पुलीस लोक सोदून काडूंक शकतात.”

“कितें तें....”

“खरी खबर, आनी अशेंच काय घडणुकेचे..”

हे गजालीर हांवे परथून म्हजी बौद्धिक असहमती - न्हयकार परगटायलो. जाल्यार ठाण्यांतली परिस्थिती पयले सारकी मेकळी नासली. मदींच एक फावट तांचे विशी कळवळो दिसून आयलो. आरे अद्रुश्टा, हांवे खरेंच बॉम दवरिल्लो आसल्यार सांगताशिल्लो. जाय ते वेळां मनांत आयलें - फट आसलें तरीय - तांका तशी जबानी दिवची, ताचे सावन हांची कटकटी निवळावन वताशिल्ली. जाल्यार तेय आपणाले कर्तव्य करीतच आसात न्हय? तशें पळेयल्यार हांवूय म्हजें कर्तव्य पार पाडपाकूच पुलीस ठाण्यांत गेल्लो न्हय? दोन जापसालदारकीचे लोकांत बौद्धिक असहमती घडली - ना जाल्यार ताका दुसरें कितें म्हणपाचे?

त्योच गजाली भोवन भोवन घडूंक लागली. ते विचारीत रावले आनी हांव जाप दीत गेलो. साहित्यांत सतत तेच तेच घटिचाराचे वाचून वितरा्ग येता तशें जालें. बॉमच्या उपेगाविशी अजून नित्शितायेन म्हजें मत थारावक म्हाका जमले ना म्हूण तेय सांगले. हिंसा घडोवन हाडपी वायट येवजणीचेर म्हजें मोलादीक विचार मांडलें. सारकें सारकें तेंच प्रस्न विचारून, कोणाक खबर, ते खूश जाल्लेशें दिसनासले. आनी म्हाका ताचे अजाप दिसतालें. ताका कारण हांव सदाच प्रस्नांचो येवकार केलो आनी आजूय करीतच आसा.

थोडो वेळ गेलो. उपरान्त मेजार एक वाटकुळी वस्तू पळोवन हांवे म्हजें भय परगटायले आनी म्हळें तो बॉम आसूंक फाव, काचाबूल जावनशें हांव एकाएक फाटल्यान सरकलों. ताणी म्हजे सांगणेचेर बौद्धिक असहमती- म्हळ्यार न्हयकार परगटायलो. ती एक पुलिस आफीसरांली संवयच म्हणपाचे. तशें पाळो दिल्ल्याक हांव पिसो वा मूर्ख साबीत जातासले. ते देखून हांवेय बौद्धिक असहमती दाखयली. हांवे नेट धरलो तो बॉमच आसा. अशा भासाभासेंत म्हाका कसलीच समजावणीविशी वा तडजोड करपाची नाशिल्ली. ताका कारण हांव असल्या बौद्धिक असहमतीच्या विरुद्ध आसलों.

जमिल्ले सगळे म्हजेकडेन अजापान अदीक काकुळटेन भरिल्ल्या नदरेन पळेताले. आनी कांय वेळ गेलो. उपरान्त ताणी म्हाका पुलिस ठाण्यांतल्यान भायर काडले. फौजदाराले चेऱ्यार मात निर्शेणीचे भाव झळकल्ले दिसले. जाल्यार थंय कसलोच हेर ताणतणाव नाशिल्लो इतलें खरें.

हांवे पुलीस ठाण्यांत वचपाची गरज नाशिल्ली अशें म्हजें कांय इश्टालें मत पडले. जाल्यार म्हज्या मतान आयज गरजेचे आसा ते आपणाले विचार नेटान उकते करूंक जाय आनी जगाक सांगूक जाय आपूण खंय आशिल्लो ते. तांचे म्हणणे हांवे नस्ती जोखीम म्हळ्यार आंगलट येवपी धोको पत्करिल्लो. पूण जोमेरेन आमी जापसालदारकी घेनात आनी भिजूडपणान संकश्टातूंच सांबाळत रावतले, तोमेरेन असल्यातरेच्यो गजाली स्पश्ट जावपाची नात. तुमकां कितें दिसता? आदी हे सांगात त्या बॉमस्फोटाच्या दिसानीं तुमचो राबीतो खंय आशिल्लो?



# सरकाराली जादू

जादूगार माचयेर येवन रावता. नमस्कार, आदाबअर्ज केल्ले उपरान्त गुडइव्हनिंग म्हणता. एअर इंडियाच्या म्हाराजाप्रमाण नमळायेच्या मुद्रेत कमरेमेरेन बागवता आनी सटसटीत ताठ उबो जाता. आपणाल्या म्होव्या मुमुरख्या हांसपान सुरुवात करता, ''भावानो आनी भयणीनों, हांव जो प्रोग्राम तुमचे मुखार करीत आसा तो आमच्या म्हान देशाचो. असो कितेंक वर्सांपसून तो चलत आसा आनी नामनेचो जाला. आयजमेरेन लाखो लोकानी ताचो अणभव घेतला तशें तोखणाय बी मेळयल्या. म्हज्या इश्टानो, हो भारत देशाचो कार्यक्रम आसा तो पळोवन जालो म्हणटकीर म्हाका आशीर्वाद दियात,'' इतले सांगून तो जादूगार पयलेवरीच नमळायेन बागोवन प्रेक्षकांक प्रणाम करता. उपरान्त झटक्यासरशीं ताठ उबो रावता तेन्ना पड्ड्या फाटल्यान आधार संगीत वाजूंक लागता आनी जादूच्या खेळांक सुरवात जाता.

''फर्स्ट आयटेम ऑफ द प्रोग्राम - ॲप्लिकेशन टु गवर्नमेंट - सरकाराक अर्ज विनंती'' जादूगारान वयल्या आवाजांत सगळ्यांक कळीत केले आनी एक हाथ विंगेदिकेन उखलल्लो. ती चत्राय मेळ्ळी उपरान्त दोन तरनाट्यो चलियो विंगेतल्यान मुखार आयल्यो. प्रत्येकील्या हातांत एकेक स्टूल आनी बंद डबो आसलो . एकार बरयिल्लें 'आवक' आनी दुसऱ्यार 'जावक'. जादूगाराल्या दोनी बाजून प्रत्येकीन स्टूलं दवरुन ताचेर डबे दवरले आनी फाटल्यान वचून रावलीं. त्यो अजापाचे नदरेन मुमुरखें हांसत जादुगाराकडेन अशे तरेन पळेत रावल्यो जशें काय जादूगाराले मजतनीस पळेतात. जादूगारान डबे उरफाटें करून ते रिते आशिल्ल्याचे सगळ्या प्रेक्षकांक खात्री करून दिली.

''सरकाराक अर्ज विनंती - 'आवक' डब्यात अर्ज घाल्यार ताका 'जावक' डब्यात जाप मेळटा. - घडये मेळत 'अदरवायज' नाबी मेळत - अप्लाय अल्पाय नो रिप्लाय'' - जादूगारान प्रेक्षकांक आयकूंक येतले अशें व्हडान म्हळें. तेन्ना बाजूच्या विंगेतल्यान एक मनीस बरीच अर्जविनंती पत्रां घेवन आयलो आनी तीं जादूगाराल्या सुवादिन केली. जादूगारान म्हळें, ''आयज खूबूच अर्ज विनंत्यो आयल्यात. हांव त्यो सगळ्यो सरकाराल्या हवाली करतां.'' आनी ताणें एकेक करून 'आवक' डब्यांत घाली. उपरान्त डबो बंद केलो. हे सगळे ताणे आधार संगीताच्या ल्हारार केलें. आनी जादूची कांडी डब्यार भोंवडांयली. पत्रां हाडटल्यांचेर बेठोच आड्डलो, ''आरे तू अजून हांगाच उबो?''

''ॲप्लिकेशन केल्ल्याचेर जाप जाय, सर!'' तागेली रोखडीच जाप.

''म्हज्या भावा, आवक डब्यांत अर्ज घाल्यार जावक डब्यांत जाप मेळटली. अशें हांगा पळय.'' तो मनीस जावक डबो नियाळटा. तोय रितो दिसता.

''आरे, आरे सरकारान जाप दिली ना. मातशें वचून आवक डब्यांत पळय. थंयची पत्रां सरकारक फॉरवर्ड जाल्यात काय ना तें!''

''आवक डबोय रितो दिसता. सगळ्यो अर्ज विनंत्यो शेणून गेल्यात, सायबानू!''

''अजपाचे म्हणपाचें, सगळे ॲप्लिकेशन्स गेले खंय?''

''खंय शेणले......?''

''खंय शेणले.....?''

जादूगाराल्या आनी त्या मनशाल्या चेऱ्यार हुसक्याचे आनी कासावीस जाल्ल्याचे नकली भाव.

''कांयूच हरकत ना. परथें ॲप्लाय कर. नवे अर्ज विनंती घेवन यो.''

तो मनीस पड्ड्यामागशी वचून अर्ज विनंतीची पत्रां घेवन आयलो. जादूगारान ती हातांत घेवन फडफडायत प्रेक्षकांक दाखयली आनी पयलेवरीच आवक डब्यांत भरली. जादूकांडी भोंवडावन ताणे डबो उकतो करून तो रितो जाल्ल्याचे दाखयले. उपरान्त दुसऱ्याबाजूचो जावक डबो आवक डब्याच्या उजव्या कुशीन दवरलो. कांय वेळान जावक डबो उगडून थंय सगळ्यो अर्ज विनंती जमा जाल्ल्याचे दाखयले. जाल्यार प्रत्येकाचेर 'रिजेक्ट' म्हूण छप्पो आसलो. ती सगळी नाकारिल्ली पत्रां जादूगारान आपणाल्या मनशाक व्हरूंक सांगले.

''आरे देवा, ह्यो सगळ्यो अर्ज विनंती नामंजूर जाल्यात.'' काकूळटीक आयलो असो जावन त्या मनशान म्हळें.

''भारत सरकाराले कितें सांगू, सायबानू! गरीबाल्यो अर्ज विनंत्यो 'रिजेक्ट' - नामंजूर जावपाचे ना जाल्यार आनी कितें घडटलें.''जादूगारान हांसून म्हळें.

तो मनीस मान सकयल घालून मागशी वतालो मात जादूगारान ताका आफोवन घेतले आनी ताचे कानांत फुतफुतलो. ताकतिकेन भितर वचून तो पयलेवरीच अर्जविनंती पत्रांची रास घेवन आयलो. सांगातीन टाचणी डबी आनी चलनी नोटांचे कवळे हांतात आसलें. प्रत्येक अर्ज विनंती पत्राक ताणे कांय चलनी नोटां टाचणीन जोडली आनी जादूगाराल्या हातांत दिली ती जशीच्या तशी जादूगारान प्रेक्षकांक दाखयत एकेक करून आवक डब्यांत भरली आनी डबो बंद केलो. पयलें सारकेंच जादू कांडी भोंवडायली आनी थोडेवेळान त्या डब्याचे धाकण काडले. जाल्यार सगळी पत्रां शेणिल्ली. आतां जावक डबो उगडून तांतूत आवक डब्यांतली अर्ज विनंत्याची कागदां जमा जाल्ली दाखयलें. परंत तांका जोडिल्ली चलनी नोटां नाच्च जाल्ली. खोशयेची गजाल म्हळ्यार दरेक कागदार 'सेंक्शन' म्हूण नोंद

केल्ले सगळ्यांक दाखयले.

"कॉंग्रेच्युलेशन्स, - धन्यवाद - तुमचे जायते अर्ज विनंती सरकारन हे वेळार मान्य केल्यात." जादूगारान हांसत सांगले आनी प्रेक्षकांसामकार नमळायेचो चेरो करून कंबरेमेरेन बागवलो. प्रेक्षकांनी टाळ्यांचो कडकडाट केलो. जादूगारान म्हळें, "ॲप्लिकेशन टु द गवर्नमेंट - सरकाराक अर्ज विनंती मान्य," आनी तेन्नाच ताचे आधारसंगीत जोरजोरांत चालूं जालें. मजतनिसांनी स्टूल, डबे नि हेर वस्तू एकठांय करून विंगेमागशी व्हेलें. सांगातीन तो मनीस बी भितर सरलो.



नेक्सट आयटेम ऑफ द प्रोग्राम - करप्शन इन इंडिया - भारतांतलो भ्रश्टाचार. जादूगारान प्रेक्षकांक कार्यक्रम जाहीर केलो आनी तो मंचकाच्या एके कुशीन दवरिल्ल्या एके ल्हान टेबलासर झेतांत चलत गेलो. टेबलार एक जडशी चलनी नाण्यान भरिल्ली पिशवी आसली. जादूगारान पिशवीचे तोंड जमिनीबाजून केलें आनी सकयल दवरिल्ल्या डब्यांत ती नाणी ओतलीं आनी पिशवी रिती दाखयली.

"ही करप्शनची बॅग - भ्रश्टाचाराची पिशवी - आसा सायबानू. हांतूतले रुपये केन्नाच ना नपश्यात जायनात. पिशवीचेर नदर दवरात म्हज्या भावा भयणीनू. ही पिशवी केन्नाच रिती जायना." इतले म्हळें आनी परथें दुसरे फावटी त्याच पिशवीतल्यान पयलेवरीच सकयल दवरिल्या डब्यांत खणखणीत नाणी ओतून दाखयलें आनी पिशवी तशीच टेबलार दवरली.

"करप्शन केन्नाच सोंपचेना, थैली केन्नाच रिती जावपाची ना, पिशवीचेर सदाच ध्यान दवरात सायबानू." म्हणत जादूगारान नमळायेची मुद्रा केली आनी बागोवन प्रणाम केलो. उपरान्त तिसऱ्या कार्यावळीची घोशणा केली.



नेक्स्ट आयटेम - टूरिझम इन इंडिया - भारतांतले पर्यटण-प्रवास . पड्ड्या फाटल्यान आधार संगीतान जोर धरलो. देवळा आकाराचे हलक्या लाकडाचे जोड भाग, जादूगाराल्या मजतनिसानी माचयेर हाडून जोडले. ताका चार कवडां आशिल्ली, आनी प्रत्येकांक रंगीत पड्डे लायिल्ले. तांतूतल्यान एकूच मनीस वचूंक शकतालो. जादूगारान सगळे पड्डे बाजून सरकावन देवूळ भितल्ल्यान रितें आशिल्याचें प्रेक्षकांक खात्री करून दिली. तेच वेळार एक सूटबूट घाल्लो गोऱ्या चामडीचो मनीस हातांत सूटकेस घेवन विंगेतल्यान माचयेर आयलो.

"गुड इंव्हनिंग सर, - व्हॉट कॅन आय डू फॉर यू?" जादूगार.

"आय वॉण्ट टु विजिट इंडिया...."

"वेलकम, वेलकम" - येवकार करता तुमचो - जादूगारान बागोवन नमळायेन म्हळें. उपरान्त देवळाचो एक पड्डो हातान सरकायलो. खूण केली तशें विदेशी मनशान तांतूत

प्रवेश केलो. पड्डो पुराय सकयलमेरेन सोडून कवडां बंद केली. आतां ताणे सरभोंवती जादू कांडी भोवंडायली. थोड्या वेळान गोरो भोवंडेकार त्याच दरवाज्यांतल्यान भायर आयलो. ताचे हातांत सूटकेस दिसनासली.

''सर तुमची सूट केस खंय दिसना,'' जादूगारान चवकशी केली.

''बनारस शारांत चोरीक गेली''

''व्हेरी सॉरी सर'' जादूगारान खंती जालोसो चेरो केलो. दुसऱ्या दरवाज्याचो पड्डो कुशीक करन उकतो केलो. परदेशी मनीस तांतूत रिगलो. उपरान्त जादूगारान पड्डो सकयल मेरेन डाव्या हातान देंवयलो आनी उजव्यान जादू कांडी भोंवडायली. विदेशी मनीस कांय वेळान भायर आयलो. आतां ताचें आंगार कोट दिसनासलो.

''सर, तुमचो कोट आंगार दिसना?'' जादूगारान विचारले.

''आग्रा शारांत विकून हॉटेलाचे बिल चुकतें केलें.''

''व्हेरी गुड सर,'' जादूगारान म्हळें. आनी तिसरो पड्डो बाजून करून खूण केली. गोरो मनीस तांतून घुसलो. जादूगारान पयलेवरीच पड्डो निटायेन लावन घेतलो आनी जादूकांडी फिरयली. हे वेळार गोरो मनीस भायर आयलो तेन्ना ताचे आंगार फकत पाटलूण दिसताले.

''सर तुमचें खोमीस खंय शेणले?'' जादूगारालो प्रस्न.

''तुमच्या इंडियातल्या एके 'होलीमेनान' - सन्याशान - मागून घेतलें''.

''व्हेरी फाईन सर'' जादूगारान दोळे व्हड करून म्हळें, आनी चौथो पड्डो उकतो केलो. विलायती मनीस भितर सरलो. उपरान्त जादूगारान जादूकांडी भोवंडायली. आतांचे वेळा विलायती मनीस भायर आयलो तो सामको उगडो आसलो. ना म्हळ्यार लज धांपूक 'विजिट इंडिया'चो पोस्टर कमरेक गुंडाळिल्लो.

''वेरी, वेरी सॉरी सर, तुमचे पाटलूणचे कितें जालें.''

''ते विकून परथें म्हजें कंट्रीक रिटर्न वचपाचे हांवे तिकीट घेतलें.''

''गुडबाय सर, विजिट इंडिया अगेन. परतें परतें भारतांत येत रावात.''

तो गोरो मनीस तशाच अवस्तेत विंगात ताकतिकेन रिगता, मजतनीस देवळाचे कवडांचे पड्डे वयर करून, प्रवाशाली सूटकेस वा ताचे आंगावेले वस्त्रां थंयसर नात हे प्रेक्षकांक दाखयतात. जादूगार नमळायेची मुद्रा चडोवन बागोवन प्रणाम करता. प्रेक्षक जोरजोरान टाळी वाजयतात.



''नेक्स्ट आयटेम : करप्शन इन इंडिया - भारतांतलो भ्रश्टाचार.''

''भारतांत भ्रश्टाचार'' अशें आड्डून सांगत जादूगार परथून टेबलावयली पिशवी हातांत

धरुन म्हणटा, ‘‘कांय वेळां पैली ही पिशवी तुमचे मुखार रिकामी केल्ली. आतांमेरेन ती उपाट भरिल्ली आसूंक जाय’’ अशें म्हणत ताणें पिशवीचें तोंड उरफाटे केलें. ठण्, ठण्, ठण् आवाज करीत चलनी नाणी सकयल्या डब्यांत पडली.

‘‘हांगा भ्रश्टाचार केन्नाच सोंपना; थैली केन्नाच रिकामी जायना. पिशवीचेर नदर सदां दवरात, म्हज्या भावा, भयणीनो,’’ म्हणत जादूगार माचयेर मजगतींत येवन कार्यक्रम मुखार व्हरता.

आतांचो आयटेम : फॉरेन पॉलिसी - भारताची विदेशी नीती :

मजतनीस चल्यो एके स्टूलार व्हडसो डबो दवरतात. जादूगार सांगता तो डबो चौशीन उकतो आसा.

‘‘ही विदेशीनीती आसा, सायबानू. ह्या डब्यावरी चारी दिकानी उकती आसा. एके वटेन अमेरिका, दुसरे वटेन इग्लैंड, तिसरे वटेन रुसदेश, आनी चौथें वटेन फ्रान्स अशा वेगवेगळ्या दिशानी उलोंवक जाता.’’ जादूगार डबो बंद करता, आनी सांगता, - ‘‘सायबानू, ही भारताची फॉरेन पॉलिसी. आतां आमी पळोंवया तांतूत कसले कसले आसा? तो आपणाली जादूकांडी डब्याभोंवतणें भोवंडायता आनी डबो उगडता. तेन्ना तांतूल्यान एक पाखो फडफडत भायर येता.

‘‘आरे, पारवो-पीस डोव्ंह-शांतीदूत. आमचो भारत सगळ्यांकडेन ‘पीस’-शांती-मागता. उपरान्त डब्यांत हात घालून एक वाडगो काडटा. हातान तो प्रेक्षकांक चोयवशीन दाखयता आनी सांगता, ‘‘हो ‘फॉरेन एड’-विदेशी मजत मागपा खातीर सायबानू’’ आनी बाजून उबी आशिल्ल्या मजतील्या हातांत दिवन सांगता, ‘‘हो अमेरिके खातीर’’अशेच तरेन तीन फावटी हात घालून अजून अदीक तीन वाडगे वयर काडटा आनी दर वेळा प्रेक्षकांक दाखोवन, ‘‘एक रूस खातीर, आनी एक कॅनेडा खातीर आनी निमाणे फ्रांन्स खातीर.’’ अशीं परदेशांची नांवा घेत रावता. विदेशनीतीचे ते ल्हानशें रिकामी वाडगे मजत मागपाखातीर भायर काडीत रावता. टाळ्यांचो कडकडाट जायत आसता आनी रिकामी वाडगे अजुनूय येत आसतात.



नेक्स्ट आयटेम ऑफ द प्रोग्राम - इकॉनॉमिक्स ऑफ इंडिया - भारत देशाची अर्थव्यवस्था. जादूगारान घोशणा केली. तेदे वेळार त्या तरनाट्या चलियांनी दोन बाजून दवरिल्ल्या टेबलाचेर एकेक व्हड डबो दवरलो. एकार बरयिल्लें ‘सार्वजनिक क्षेत्र’ आनी दुसऱ्यार ‘निजी क्षेत्र’. दोनूय रितें आसात अशें दाखोवंक जादूगारान ते उकते करून दाखयले. मजतनिसानी दोन जिवंत कोंबयो हाडिल्ल्यो तांका एकेक करन प्रत्येक डब्यांत दवरले आनी वयल्यान धाकण लावन डबे बंद केले. ताणे जादूकांडी भोंवडायली. ताणे आदी निजीक्षेत्राचो डबो उगडलो. कोंबी आसतशी जिवंत भायर काडली आनी उपरान्त तांतूतल्यान धा ताजी तांती भायर काडून दाखयली. प्रेक्षकानी टाळ्यो वाजोवन खोशी परगटायली. ताचे नंतर जादूगारान

सार्वजनिक क्षेत्राचो डबो उगडलो. तांतूतल्यान कोंबी नाच्च जाल्ली. थोंडी कातरिल्ली पांखां मेळ्ळी.

"आंयू, तांती मेळचे पयस रावले, जाल्यार पब्लिक सेक्टरची कोंबी बी शेणून गेली." आतां जादूगारान पांच तांती पब्लिकसेक्टरच्या डब्यांत दवरल्यो तशेंच पांच तांती निजीक्षेत्राच्या डब्यांत दवरल्यो. प्रत्येक डबे बंद केले आनी आपणाली जादूकांडी दोनूंयचेर भोंवडायली. डबे उकते केले. मजेचे म्हळ्यर निजी क्षेत्रांतली पांच तांती ना जावन तांचे बदली पांच कोंबये पिलां भायर आयली. जाल्यार पाब्लिक सेक्टर डब्यांतल्यान कोंबयो पिलां रावली बाजून, तांतीबी शेणून गेल्ली.

"कसल्यातरेचो हो पब्लिक सेक्टर म्हणपाचो, सायबानू? कोंबये पिला आसूंदी तांती बी नाच्च जाली. थोडी इन्क्वायरी - चवकशी - करची पडटली." जादूगारान आवाज चडोवन सांगले. तो माचयेवेल्यान सकयल देंवन पयल्याच पंगतीत बशिल्ल्या मंत्र्यालागी येवन उबो रावलो. ताणे मंत्र्याल्या बॉल्सांतल्यान एक तांती काडून हात वयर करून सगळ्या प्रेक्षकांक दाखयली. मातशें पयस बशिल्ल्या एक आय.ए.एस्. अधिकाऱ्याकडेन वचून आपणालो हात ताचे नाका सामकार धरलोसो केलो आनी ताच्या नाकापुडयेंतल्यान एक तांती देवन हातांत पडिल्लेंशें दाखयलें. एके बाजून एक ट्रेडयुनियनचो फुडारी बशिल्लो, ताचें लागसार वचून जादूगारान ताची टोपी उखलली आनी तांतूतल्यान तांती काडून दाखयली. निमाणे एक इंजिनियर आनी ल्हान सरकारी अधिकाऱ्याल्या बॉल्सांत हात घालून एकेक तांती भायर काडून प्रेक्षकांक दाखयली.

"ह्योच त्यो पांच तांती, म्हज्या भावाभयणीनो, सार्वजनिक सेक्टरांतल्या डब्यांतल्यान शेणिल्ल्यो. हांवे जर त्यो भायर काडून दाखयलें नाशिल्ले जाल्यार केन्नाच तांचे आम्लेट करून हे लोक फस्त करताशिल्लें." प्रेक्षकांनी आनंदभरीत जावन टाळ्यांचो गजर केलो.



नेक्स्ट आयटेम - करप्शन इन भारत - भारतांत भ्रश्टाचार.

"ही भ्रश्टाचाराची थैली, पिशवीचेर ध्यान दियात सायबानू. हांतूतले धन केन्नाच उणे जायना," कोनशांत दवरिल्ल्या पिशवीकडेन तो उबो राविल्लो. मातशें थांबून ताणे पिशवीचे तोंड उलटे करून चलनी नाणी ओतली.

"करप्शन केन्नाच सोंपचे ना सायबानू" जादूगारान म्हळें, आनी वयल्या आवाजांत घोशणा केली - 'स्मगलर्स पॅरेडायज - तस्करबाजांलो सरग."

कुशीन उबी राविल्ल्या मजतनीसान जादूगाराल्या हातांत एक थैलो दिलो. ताचे तोंड उरफाटे करून तो रितो आशिल्ल्याचो प्रेक्षकांक दाखयलो. आनी तेच वेळार विंगेतल्यान पुलीसालो युनिफार्म घाल्लो मनीस माचयेर आयलो.

"ऐ, थैलीत कसलें आसा? स्मगलिंगच्यो वस्तू?" पुलिसान विचारलें.

''कांयच ना, हवालदार सायबा,'' जादूगारान रिती थैली दाखयली.

पुलीसवालो वचूं गेलो. दुसरे वटेन एक मनीस आयलो. जादूगारान विचारले, ''स्मगलिंगाचो माल विकत घेता? - घड्याळ, सेवन्टीन ज्युवेल, नायलान, सूटपीस, ब्लेड, जो जायतो परदेशी माल मेळटलो,'' अशें म्हणत जादूगारान त्याच रित्या पिशवीतल्यान घड्याळां भायर काडली. प्रत्येक वेळा पिशवींत हात घालून भायर काडलो म्हणटकीत एकेक घड्याळ त्या दुसऱ्या मनशाक दिलें. विकत घेणारोय ती घड्याळां घेत आसता. पुलीसवालो परथून थंयसर येता आनी नियाळटा. जादूगार पिशवीत कांयच ना अशें दाखयता. पुलीस वचू गेलो उपरान्त जादूगार अजून बरीच जिनसा भायर काडटा - नायलॉनचो कपडो, टेपरेकॉर्डर, कॅमेरा, रेझर अशो तरेकवार वस्तू. पुलिसवालो तिसरे फावटी भोवंडी मारता. जादूगार आपणाली पिशवी रिती दाखयता. पुलीसवालो फाट फिरोवन वचूं लागता जाल्यार जादूगार उलो दिवन ताका लागसार आफयता. आपणाले पिशवीतल्यान एक घड्याळ काडून ताका इनाम म्हूण दिता. ते घड्याळ मनगटेर बांदून पुलीसवालो धादोसकाय पावता. आनी आयिल्ल्यावटेन चलूंक लागता.

प्रेक्षकांल्यो टाळ्यांचेर टाळ्यो पडटात. त्या गजरांत जादूगार सांगत आसता, ''भारतांतलो भ्रश्टाचार - करप्शन इन इंडिया. म्हज्या भावाभयणींनो हांगाचो भ्रश्टाचार केन्नाच सोंपचो ना. पिशवीचेर नदर दवरात, सायबानू. थेंक्यू, थेंक्यू.''



एक नवीन प्रोग्राम - 'नेपोटिजम' - निजाचो सुवार्थ सादप.

माचयेर एक तरनाटो चलो येता. जादूगार विचारता, ''तू कोण आसा?''

''हांव अमूक अमूक मंत्र्यालो भाचो.'' जादूगार ताका एके टेबलार न्हिदयता.

''पळेयात सायबानू, आमचे देशांत मंत्र्याले नातेवाईक कशें वयर येतात. एकादलो भाचो कांयच करिनासतना जिणेंत वयर वयर चडट आसता. कोणीय सामान्य मनशाक शक्य जायना इतलो वयर तो पावता,'' जादूगार आपणाली जादूकांडी भोंवडायता आनी टेबलार न्हिदिल्लो तो मंत्र्यालो भाचो हळू हळू उखलिल्लोसो वयर सरता. तो टेबलापसून वयर थीर आडवो आसता. प्रेक्षक अजापान टाळ्यो वाजयतात, खूब वेळ वाजयतूच आसतात. जादूगार नमळायेन बागोवन प्रणाम करता.



नेक्स्ट आयटेम - डेमोक्रसी इन इंडिया - भारतांतले प्रजातंत्र.

सोऱ्यापीपावरी जाच्यांत एक मनीस सहजसो लपून रावंक शकता अशी व्हड लाकडी पीपां माचयेर दवरल्यात. प्रत्येकार भारतांतले राष्ट्रीय स्तरावेल्या राजकीय पक्षांची नांवा बरयिल्ली दिसतात. एक फुडारी पीपांतल्यान माचयेर येता.

''भोवमानेस्तानू, तुमी कोण म्हूण समजुचें?'' जादूगार विचारता.

"हांव लीडर, भारतांतलो एक फुडारी."

"खंयचे पार्टीचे.....?"

"ज्या पार्टीची मेजोरिटी आसा, ताचो फुडारी!"

जादूगार ताका एका पीपांत बसयता. ताचे तकलेर धाकण लायता, आनी जादूकांडी भोंवडायता. फुडारी दुसऱ्या एके ड्रमांत उबो राविल्लो दिसता.

"आरे हे तुमी कितें केले?"

"हांवे ड्रम बदल केलो - म्हळ्यार दलबदल केलो."

फुडारी त्या दुसऱ्या पिपांत लिपता. जादूगार आपणाली जादूकांडी ताचेर भोंवडायता. कांय वेळान तोच फुडारी आनेक नवीन पिंपात उबो दिसता.

प्रेक्षक आनंदान टाळ्यो वाजयतात. एके पिंपात घुशिल्लो फुडारी दुसऱ्या पिपांतल्यान भायर कशें काय भायर येता हाचेर ते अजाप पावतात. जादूगार कंबरेमेरेन बागोवन सांगता. "ही आमची डेमोक्रसी इन इंडिया - भारतांतले प्रजातंत्र."



जादूगारालो हो अखेरचो कार्यक्रम - गरीबालें पोट.

माचयेर एक यंत्र दवरिल्ले दिसता, विजेर चलपी चक्र कसलीय वस्तू कापता. मंचकार म्हेळीं वस्त्रां आंगार घाल्लो एक मनीस हजर जाता. तो दुबळो बारीक पोट फाटीक लागिल्लो सो आसता. जादूगार ताका टेबलार न्हिदयता. आदर्शवादी - देख घालून दिवपी - भाशणान ताका हिप्नोटाईज - संमोहन विद्येन अडेच्या न्हिदेंत घालता. आतां यंत्र चालू करून ताच्या पोटावेल्यान व्हरता. ल्हव ल्हव ताचे पोट कापता.

"हे यंत्र आमच्याच देशांत तयार केल्ले आसा, सायबांनू! आनी हे भारतांतल्या गरीबालें पोट. हे यंत्र ताचे पोट कापचे बेस बरें काम करता."

प्रेक्षक हड्ड्यांत स्वास रोखून पळेतात. उपरान्त टाळ्यो वाजयतात.



"गेल्ली तेवीस वर्सां हांव हो जादूचो प्रयोग देशांत भोवंडी मारत सगळ्यांक दाखयत आसा. भावाभयणीनो, म्हाका आशीर्वाद दियात - अजून फुडारा तुमच्या सेवेक हजर जावपाक आनी भारत देशाचे नांव नामनेचें करपाक. जयहिंद!"

जादूगार नमळायेन बागवता आनी प्रणाम करता. प्रेक्षक उबे रावन बरोच वेळ टाळ्यांचो कडकडाट करीतच आसतात.





**स्वर्गीय शरद जोशीले** व्यंग बरोवप वाचकांले मन जागयता. ते आत्म्याक कासावीस करून सोडटा जाल्यार ताचेर घायटें मातय पडूंक दिना. तांचे बरपावळीतले कांय उतारे -

"..... तुमी स्वताली उदरगत करपात गुल्ल आशिल्ल्यान जें कांय निमाणे राविल्लें तें सगळें सरकार करतले. प्रगती ही आयच्या मनशाली मोख आसा. आपणाक नोकरी मेळ्ळी म्हणटकीर देशाचो बेकारीचो प्रस्न अर्दो सोडयलोवरीच.... आमचो फ्लॅट तयार जालो म्हणटकीर देशांतल्या घराची समस्या तीन चतुर्थांश सुटली म्हणयेत."

"..... आफीसर कदेलार बसलो कितें आनी न्हिदलो कितें प्रशासनाच्या वावरांत कांयूच फरक पडना... न्हिदिल्ले प्रशासन वर्तमानांतली समस्या भविश्यांत आनी भविश्यांतले अजून फुडाराच्या भविश्यांत धुकळून आपूण मात सुसेगाद न्हिदून रावता. प्रस्न शासनाच्या 'विचाराधीन' आसा म्हूण भौसाक कळीत करतात."

"..... सरकारी कचेरींत 'विचाराधीन' हे उतर भोव मोलादिक. तें तितलेंच अगत्याचे आसता कारण ते एक 'न्हयकाराचे' वा युक्तीचे पर्यायी उतर आसा."

"...... ह्या देशांत नवीन नवीन सुचोवणी राजकुमाराल्या थाटान जल्म घेतात. परंत त्योच कांय काळ उपरान्त कॅन्सर जाल्ल्या पिडेस्तावरी तडफडून मरतात."

"...... आमचे फुडारी लोक मुजरत परदेशांत वतात. जल्मांत केन्नाच भारत पळेले नाशिल्ले थंयसरचे फुडारी हांका सांगतात, "तुमचो देश म्हान आसा." आमचे फुडारी ताका पाळो दितात आनी परथून येतात. आमचो देश खऱ्यान म्हान आसा काय ना हाची खात्री करून घेवपा खातीरूच हे फुडारी विदेशांत गेल्ले आसतात अशे म्हळ्यारूय जाता."

"..... इश्टांनो, भारत देशाच्या अशा दशेक दोन कारणां आसात. फकत दोन कारणा - ना तुमी कसलें करूंक शकतात, ना हांव कसलें करूंक पावता. आनी जे करतात, ते तेच करतात जे घडत आसता."

**मित्र प्रकाशन**

किटोलें, बेतोडें, फोंडे. गोंय : ४०३४०९